# सपनमोगी

(कथां झेलो)

दामोदर मावजो



जाग प्रकाशन

SAPANMOGI

*Collection of short stories*

जाग प्रकाशन क्र. ७३



पयली उजवाडावणी:

१ ऑगस्ट २०१४

प्रती १०००

उजवाडावपी:

जयवंत भा. सरदेसाय

२०१ - बी, सालदॅल अपार्टमॅन्ट्स

रूअ द साउदादिश,

पाजीफोंड-मडगांव, गोंय-४०३ ६०१

अक्षर जुळणी/मांडणी :

जाग प्रकाशन

भायलें चित्र:

डॉ. सुबोध केरकार

छापपी:

इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड'

३३६० /४, गोंधळी गल्ली,

बेळगांव ह्व ५९० ००२

मोल: २०० रुपये

आपणांक बरोवन घेवपाक

म्हाका वेंचून काडिल्लेखातीर

दिनवासतां

म्हगेल्या सगल्या कथांक

## मांडावळ :

# हॅपी बर्थ डे

“हॅलो, हांव आमोद उलयतां – आमोद देसाय. फेर्नांडीस, आय मीन, केव्हीन फेर्नांडीस आसा?”

“हॅलो. मिस्टर देसाय, हांव मिसेस फेर्नांडीस उलयतां. केव्हीन निकतोच बाबाक घेवन ग्राउण्डार गेला. फुटबॉल प्रॅक्टिसेक. ह्या दिसांनी तेंगेलें सिलेक्शन जावपाचें आहा न्हू? एनी मॅसेज?”

केव्हीन अकाउण्ट्स सॅक्शनांत आसता. केन्नाय कामा निमतान आमोदाक मेळ्ळो म्हणटकीर चेड्याच्योच गजाली. असो बरो खेळटा, तसो हुशार आसा. कालच केव्हीन सांगतालो – ज्युनियर फुटबॉल पंगडांत वेंचून आयलो जाल्यार फुडल्याच म्हयन्याक तांची टीम पंजाबाचे भोंवडेर वतली खंय... चेडो सिलॅक्ट जावचो म्हूण गुड्डो लेगीत घाला आसतलो. ही मिसेस फेर्नांडीसूय चेड्याच्यो अपुर्बायो सांगपाची एकूय संद सोडना. फुटबॉल प्रॅक्टिसेक गेला खंय!

“कितें रेकाद आहा, मिस्टर देसाय?”

“आं, हय. ताकाच असो न्हय. तुकाय. आमगेल्या चैतन्याचो, आय मीन

माय सन, ताचो बर्थ डे आसा. परां, शेनवारा. सांजे धाकलीशी पार्टी आमगेर. तुमी दोगांयनी, आय मीन तिगांयनी, आमगेर येवपाक जाय. इन्व्हिटेशन दिवपाकच फोन केला.''

''सोनवारा म्हुटल्यार सॅटर्डे न्हूं? बाबागेली प्रॅक्टीस सोंपता म्हुटल्यार साडे स-सात जाताय. सिलॅक्शन...''

''नो प्रॉब्लेम, मिसेस फेर्नांडीस. उशीर जाल्यार जावं! पूण येवपाक जाय. आय ॲम काउण्टींग ऑन युअर व्हिजीट.''

फोन दवरतनाच आमोदाली नदर चैतन्या खातीर हाडिल्ल्या फुटबॉलाचेर गेली. घडये खेळाची आवड निर्मण जावंये चैतन्याक म्हूण हाडिल्लो हो आमोदान. सकाळींच हर्षान आलमारी वयलो काडून पुसून बी सकयल दवरिल्लो. नेट्टान शूट मारपाची कूय दांबून ताणें ल्हवूच पांय लावन बॉल सोफ्या पोंदा धुकल्लो.

''शूट मारची जाल्यार म्हुगेऽ चेड्यान, आडायलो जाल्यार गोली सयत बॉल गोलांत वोसोंकूच जायो.'' एक दीस फेर्नांडीसान झेत सांगिल्ले. फेर्नांडीस वतकच प्यून गांवसान म्हणिल्लें, ''हो फेर्नांडीस चेड्याक चड माथ्यार घेता. एक दीस तो बापायचेरच शूट मारना जाल्यार पुरो.''

''मेळ्ळो फेर्नांडीस?'' मोबायल घेवन आपणाल्या इश्टिणींक फोन मारतां मारतां हर्षान मर्दींच विचारलें.

''ना. पूण ताची बायल मेळ्ळी. ती ताचे फुडली -''

''कित्याक, कितें म्हळें?''

''फकत बाबाच्यो खबरी -''

''बाबा?''

''चेडो तांगेलो. सिलॅक्शना खातीर प्रॅक्टिसेक वता खंय. बरे खेळपी खूब आसात. सगळेच खंय सिलॅक्ट जातात? हांवें आयकलां, केव्हीनान खंय मिनिस्टराक घट धरला. हांव बॅट मारतां, फाल्यां तागेलो चेडो सिलॅक्ट जालो जाल्यार सिक-लीव्ह घालून केव्हीनूय टिमी वांगडा पंजाबाक गेले बगर रावचो

ना.''

चैतन्याक मात कसलोच खेळ नाका. फुटबॉल हाडलो जाल्यार दोन दिसां भितर तीन ग्लास आनी चार हारशे फोडले.

''हाऽय इंदिरा. येदोळच्यान कितले फोन मारले गो तुका!''

''मागीर मिस्ड कॉल कसो मेळ्ळो ना तर?''

''आगो, हांवें फोन मारले तुज्या घरा. विसरलेंच – तूं भोंवती भागरत! आतां म्हळें, मोबायलाचेर पळोवंया. खंय आसा गो तूं?''

''गेलां आसतलें गार्डनांत. निमित्य भुरग्यांचें. हें भोंवता इम्प्रॅशनां मारीत.''

आमोदालें आयकून हर्षा पयलीं गणमणलें. मागीर फोनार हात दवरून चिड्डिल्ल्या आवाजांत ताणशेलें,

''केद्या मोट्यान उलयता तूं? ताका आयकूंक येतलें. मातसो वगी राव आतां.'' आनी पर्थून मोबायल कानाक तेंकयलो,

''ना, गो. आमोद चैतन्या कडेन उलयतालो. बापूय घरा आसलो म्हणटकीर पूत कस्सोच ताका सोडिना. म्हाका लेगीत वळखना. एऽ इंदिरा, कुलकुलाट कसलो आयकूंक येता गो? गार्डनांत काय कितें गो? आँ – म्हाका दिशिल्लेंच.''

''तूं यो मगो चैतन्याक घेवन. गार्डन बरेंऽ जालां आतां. भुरगीं मज्जा करतात.''

''येन दिसता गो. पूण फावता खंय? वेळच मेळना. तातूंत म्हाका कांय मोटार चलोवपाक कळना, आनी तुजे भाशेन म्हजे कडेन स्कुटीय ना. आमोदाचेर पातयेवपाचें आसा? तो घरा येतासर आमोरी जाता. मागीर आनी गार्डन कसलें, मडसरेचें?''

''आतांच यो मगो! एऽ पळय, गौरवीय आयलां आपल्या दोगांय भुरग्यांक घेवन. तुगेलो तर एकलोच. हांवें ताका पळयल्यार खूब दीस जाले. तूं ताका घेवन भोंवच ना. आतां यो ताका घेवन. ताकाय खेळूंक मेळटलें. सांग आमोदाक, मातशें पावय म्हूण. पयस कांय ना.''

इंदिरालो आगरो - कितलो खरो, कितलो अडेचो, देव जाणा!

"तूं जाणा न्हय गो. चैतन्याकच भोंवपाक आवडना. तातूंत गार्डन तर निखालस नाका ताका. तातूंत आयज केन्ना न्हय तो आमोद बेगसार घरा पावला. ताका चैतन्या कडेन खेळपाचें आसा खंय. हो पळय, फुटबॉल घेवन खेळटा ताचे कडेन... ना, ना. घरांतच."

इतले म्हणसर चैतन्याचो भुकेचो वेळ जालो. आमोद ताका उखलून घेवन आयलो आनी जेवणा मेजा लागीं कदेलार बसयलो.

"ए, आमोद. हांवें हॉर्लिक्स करून दवरलां. मातसो पिवयता ताका? ना, गो, हट्ट करता. पूण बाबा पुता केल्यार पिता. बापायन पिवयल्यार तर -"

"फोन कित्याक केल्लो गो?" इंदिराक ताकतीक आशिल्ली जावंये!

"आरेच्या! अवांतरूच उलयत रावलें पळय. आगो, तुका बर्थ डेक आफोवपाक म्हूण फोन केल्लो. हय, हय. चैतन्याचोच. परां - शेनवारा. सांजे सातांक सुमार यो. भुरग्यांक हाड. आनी घोवाकूय."

"खंयच्या हॉलांत?"

इंदिरान आपल्या भुरग्याचो चवथो वाडदीस लेगीत हॉलांत मनयिल्लो. हालींसराक चालच पडल्या ही. ते भायर नाच, खेळ, गेम्स, जादू, कसरती... भुरग्यां परस जाणटींच खेव करतात.

"हॉलांत सो कित्याक गो? आमचो फ्लॅट कांय इतलो ल्हान न्हय. ते भायर आमकां ओपन टॅरस आसा. तुवें पळयलां न्हय? हय, हय. आमी तें बंद करून घेतलां. चैतन्य धुमशेणां कांडटा पळय - भंय दिसता. आनी तशीं आमी गांवभर सांगचीं नात गो. फकत लागशिल्ल्यांकच सांगलां. यो, आं! आनी मिस्टराकूय सांग. सांगलें ना म्हणीत."

"इंदिराक दिसता, आपणें हॉलांत केलो बर्थ डे. आतां लोकांनीय करचो," फोन सकयल दवरून हर्षान म्हळें.

हॉर्लिक्स पिवयतना चैतन्याच्या आंगार पडिल्लें तें आपल्या लेंसान पुशीत

आमोदान म्हळें, ‘‘ताका हॉलांत सेलेब्रेट करपाक कितें जालां? तागेलो घोव आसा फूड अँड ड्रग्स ॲडमिनिस्ट्रेशनांत. हॉटेलां ताच्या बोल्सांत. हॉलूय फुकट आनी केटरिंगूय टकफू – अशें लोक म्हणटात आं!’’

‘‘जायीत. पोरूं आपणाले धुवेक इंदिरान कांकणां केल्लीं भांगराचीं. देड पोवनाचीं बी जायीत. आपुणूच दाखोवन तोखेतालें. आतां आमी चैतन्याक घाल्ली सरपळी पळोवन दोळे घुंवनात जाल्यार पुरो.’’

‘‘त्या तुगेल्या इंदिराक आफोवंयाच नाका म्हणिल्लें तुका हांवें. म्हाका तें मात्त आवडना. झेत करता व्हडले. आनी ताचो तो घोव! गवर्नमॅंट ऑफिसर म्हूण मेतरायता. फार्टी बर्थ डेक तांगेर गेल्लीं तेन्नाचें हांव विसरूंक ना.’’

‘‘कितें तें?’’

‘‘विसरलें? आजून केजीक कित्याक घालो ना चैतन्याक हाचो तांकां हुसको.’’

‘‘हांवें हरशीं इंदिराक पयलींच सांगून दवरिल्लें – केजी, मॉंटेसरी हांचेर आमचो मात्तूय विस्वास ना. तेन्ना कवी मनोहररायान बरें सांगिल्लें पळय – केजी म्हळ्यार किलोग्राम. येद्याशा भुरग्याच्या मेंदवाचेर दवरतकीच तो चिड्डता म्हूण. तशेंच सांगिल्लें तांका जाल्यार ज्योक सांगिल्ले भाशेन हांसलीं.’’

‘‘हांवेंय ताच्या घोवाक तेंच सांगलें. स्कुलाक घालप तें स वर्सांचेरच. बाकी नर्सरी रायम्स आनी खेळ आमी ताका घराच शिकयतलीं. पूण सभाग्याचो सभावच दुबावी. विचारता कसो – तुमगेलो चलो प्रॉब्लॅमॅटीक काय म्हूण! अशीऽ तिडक मारिल्ली!’’

‘‘ते आमोणकान्नीन बी सांगलें ना मूं तांकां तशें? इंदिरा बरें वळखता तिका.’’

‘‘म्हाका दिसना. ती तशी मनीस बरीऽ. तुका याद ना? प्री–प्रायमरीक ॲडमिशन मेळनाशिल्लें तेन्ना तिणें उतर घालून प्रायॉरिटीचेर दिल्लें तें?’’

‘‘पूण मागीर तिणेंच आमकां आफोवन सांगलें न्हय – भुरगीं डिस्टर्ब जातात. अभ्यास सोडून चैतन्याचेरच लक्ष वता भुरग्यांलें!’’

‘‘पूण आमच्याच बऱ्याक सांगिल्लें तिणें. मस्तीं भुरगीं चैतन्याक चाळयतालीं. ताचे वाटेक वतालीं, म्हणून –’’

‘‘मागीर तिडक आमकां येवपाची. पालकांनी तक्रार केली अशें कित्याक म्हळें तिणें?’’

‘‘तशें म्हळें ना तिणें. पालकांनी तक्रार करचे पयलींच ताका दुसरे कडेन घालात म्हणिल्लें तिणें. वयल्यान तिणेंच सल्लो दिल्लो – चैतन्य शाळेंत रमना. तो हेरां परस मातसो वेगळो. लोक ताचे विशीं कित्या कितें उलोवंक लागतले. ते परस –’’

‘‘ॲबनॉर्मल भुरग्यां खातीर शाळा आसतात म्हूण तिणेंच सांगिल्लें न्हय? जाय जाल्यार आपूण उतर घालतां – ‘डॅडीस होम’ म्हणटात थंय? निमाणें तिकाय हो ॲबनॉर्मलच दिसलो मूं?’’

‘‘तरी तिचो हेतू बरो आशिल्लो. तिणेंच आमकां सांगिल्लें न्हय – ‘तारे जमीं पर’ मुजरत पळयात म्हूण!’’

मिसेस आमोणकारान सांगिल्ल्यानच तीं तो सिनेमा पळोवपाक गेल्लीं. ईशानाली आवतिकाय पळोवन रडिल्लीं. ईशानाच्या आवय-बापायची तिडक मारिल्ली तांकां. सिनेमा पळोवन दोगांय घरा आयिल्लीं तेन्ना चैतन्य गाड न्हिदेंत आसलो. न्हिदिल्ले कडेन पळयल्यार कितलो सुंदर दिसतालो! तेन्ना हर्षान म्हणिल्लें, ‘‘आमकांय असलो एक राम निकुम्ब सर मेळूंक जाय आसलो, न्हय?’’

तो सिनेमा पळयतकीर आमोदान चैतन्या खातीर कलरिंग बुक्स आनी क्रेयन्सांचें व्हडलें पाकीट हाडिल्लें. पेंटिंग कुशिकच उरलें. एक दीस भूक लागिल्ल्या वेळार ताणें दोन क्रेयन्सच खावन उडयिल्ले.

‘‘आमोणकान्नीक बरीऽ समजिकाय आसा. तिका भुरगीं आवडटात. चैतन्याची लेगीत अपुर्बाय करताली. तिणें एखादरी शाळा उगडली जाल्यार हांव दोळे धांपून चैतन्याक तिचे सुवादीन करीन –’’

‘‘बरें, बरें. ते आमोणकान्नीक आफोवपाचें मनांत आसा मूं तुज्या? आफय.

पूण मागीर ती विचारतली – बण्टी कशें आसा? कितें सांगतलों? फ्रँडाक दिवन उडयलें म्हूण?''

''अशें करुंया. बर्थ डे दिसा सिरीला कडेन फावोर मागून बण्टीक आमगेर हाडुंया. बाबू पासून पयस बांदून दवरुंया.''

हर्षाले दोळ लिकलिकले, ''आयडिया! पोमेरियन सुणीं पोसपाची फॅशन जाल्या हालीं. लोक येतले तेन्ना फ्लॅटाची सोबाय वाडटली.''

''आगो, कितले फावटीं सांगलें तुका – लोक 'पोमेरियन' म्हणटात, म्हणूं. तूं सारकें 'पोमेरेनियन' म्हण.'' फोन घुंवडायतां घुंवडायतां आमोदान हर्षाची चूक सुदारली.

पोरूं नोव्हेंबरांत आमोणकान्नील्या पोमेरेनियन कोलगान पिलां काडिल्लीं. एक पील हर्षा कडेन दिवन तिणें म्हणिल्लें – ''हें बण्टी. भुरग्यांक पॅट्स आवडटात. चैतन्याकूय आवडलें जाल्यार ताकाय खेळपाक संवगडी जालें.''

पयल्याच दिसा चैतन्यान बण्टीचे धवे फुल्ल ल्हंवेक हात घालो. बचक मारलें ते सोडीच ना. बण्टीन पयलीं किंळच्यो मारल्यो. मागीर ताका दांत लायले, बुरके काडले... निमाणें ल्हंव तुटून हातांत आयली तेन्ना मूठ सोडली. तेच राती आमोदान बण्टीक व्हरून सिरीलाक दिवन उडयिल्लें.

''आमोणकारालो फोन कोण उबारना सो? तुजे कडेन तिचो मोबायल नंबर आसा?''

''ना रे बाबा! ते परस रातीं ट्राय करुंया. ते मेरेन तूं डॉ. केरकाराक कर.''

डॉ. केरकार च्यायल्ड स्पेशालिस्ट. बाबू जालो तेन्ना मॅटर्निटी होमानच ताका आफोवन हाडिल्लो. पळेत जाल्यार आमोदालो स्कूलमेट. बरो वैज म्हूण नांवाजतालोच. ते भायर लेखक म्हणूनूय गाजतालो.

''परबीं तुमकां. अ हॅल्दी च्यायल्ड!''

खोशेन तीन किलो पेडे वांटिल्ले सगल्यांक ताणी. पेडो तोंडांत उडयतना केरकारान म्हणिल्लें – ''हर्षा आनी आमोद म्हळ्यार शीममेर नाशिल्ली खुशी.

आनी तातूंतसून जल्माक आयलां तें साक्षात चैतन्य.''

आमोदान तेंच उतर जिखून धरिल्लें. चैतन्य! बारशाक मुजरत डॉक्टर केरकाराकूय आफयिल्लो. तेन्नाच्यान तो तांचो कुटुंबीक इश्ट जाल्लो.

म्हयनो जालो तरी बाब मान धरना जालो.

''कांय भुरगीं वेळ लायतात मान उबी धरपाक.'' आनी तशेंच जालें. तीन-साडेतीन म्हयन्यांचेर मान थीर जाली. कूस परतुपाक लेगीत स म्हयने लागले. शेजारचीं - वळखीचीं बेठींच कुतां काडटालीं-

- आंवंय! आजून धिमकुरी मारना?

- दोळे पळय गो, बिटबिटे शे!

- गोरपाण हागेली धवसाण शी दिसता!

- रुपान सुंदर आं! पूण सत्यभास काडिल्ले वरी!

सगलीं भुरगीं सारकीं आसतात? हाताचीं बोटां लेगीत सारकीं आसनात. पूण उलयतल्यांचीं तोंडां धरूं येतात?

हर्षान लोकांक घरांत आफोवपाचेंच उणें केलें. बर्थ डे मात मोटे उमेदीन मनयलो. खाण-जेवण बरें बरें केलें. ते भायर आयस्क्रीम. लोक खूश. बाबू पयलीं रडलो. मागीर वग्गी पडलो. मागीर न्हिदलो.

वर्स जालें तरी बाबू चलनासलो. आजयेन म्हळें - आमोद सवाय वर्साचेर चलूंक लागिल्लो. बडीचेंच आसतलें तें.

बर्थ डेक आयिल्ले कडेन केरकारान आमोदाक कुशीक आफोवन व्हेल्लो - ''चैतन्य नॉर्मल आसा शें दिसता तुका?''

''कित्याक म्हणटा? ताचो प्रॉग्रेस थोडो स्लो आसा, इतलेंच.''

''म्हाका क्रॅटिनिझमाचो दुबाव मारता...''

''कितें? कितें म्हळें?''

''ना, कांय ना. पूण प्रॉग्रेस असोच स्लो शें दिसलें जाल्यार येवन मेळ. थोड्यो टॅस्ट्स करच्यो...''

हय. चैतन्याची वाड हेरां परस मंद आशिल्ली. तो वरांचीं वरां वग्गी पडून रावतालो. नाका तेन्ना हांसत रावतालो. हांसयल्यार हांसच नाशिल्लो. भूक लागल्यारच रडटालो. हेर भुरग्यां भाशेन केन्ना चैतन्यान राती जागयल्यो नात. लाळ गळत उरताली. पूण खूब भुरग्यांक जाता अशें! हांगूंक-मुतूंक जाल्यार सांगूंक कळनासलें. पूण-

"म्हगेली आई सांगताली, हांव पांच वर्सांचें जायसर हातुणार मुततालें. चैतन्याक हें बडीचेंच आयलां आसतलें," हर्षान म्हणचें.

पूण हर्षाले आवयनच हुसको परगटायलो तेन्ना पयले खेपेक आमोद ताका घेवन केरकारा कडेन गेलो.

"आमकां चैतन्याचो तसो हुसको दिसना. तागेली वाड चडच स्लो आसा खरी. तुवें म्हणिल्लें न्हय, म्हणून आयलां. आतां तूंच पळय आनी सांग - हें बडीचें काय नडीचें?"

केरकारान चैतन्याक तपासून म्हळें, "कुडीची वाड उणी जाली वा स्लो जाली ताचो म्हाका हुसको ना, आमोद. पूण - राव. पयलीं ई.ई.जी. कर."

इलेक्ट्रो एन्सेफलोग्राम काडलो. कवटी बरी आसली.

"पूण कवटे भितर मेंदवाची वाड जावंक ना. देखून हो असो -"

मागीर आनीक तपासण्यो जाल्यो. आयोडीन डेफिशन्सी, थायरॉयड, हॉर्मोन्स डेफिशन्सी, एन्डोक्रायन डिजॉर्डर...

हर्षा रडपा कडेन पावलें. "हें कितें आयलां आमच्या नशिबांत, डॉक्टर?"

"तो बरो जातलो न्हय, केरकार?"

"हॉमोन्स वाडोवपा खातीर ड्रग्स दिवंया. पूण - डोन्ट ॲक्सपॅक्ट मिरेकल्स. तो क्रॅटीन च्यायल्ड म्हणुनच वाडटलो. यू मस्ट लर्न टू लिव विथ हिम. ताच्यो गरजो समजून ताचे कडेन वागचें पडटलें..."

"कितले दीस? कितलीं वर्सां?"

केरकार कांय उलयलो ना. वखदां बरोवन दिलीं.

''तुमकां कितें दाखयतां. फाल्यां सकाळीं येयात...'' केरकारान तशें कित्याक म्हळें तें दुसऱ्या दिसा तो तांकां घेवन आपणाल्या एका पेशंटागेर गेलो तेन्ना कळ्ळें.

''हाका पळयात.''

ते कुडींत एका कोनशाक एक भुरगो उबो आशिल्लो. मदीं वणटीक तेंकून एक कॉट आडवी दवरिल्ली. दुसरे वटेन एक आलमार शिरेन उबी करून त्या भुरग्या खातीर एक कुरकूट तयार केल्लें. दोन अडेच फूट उंचायेचो तो भुरगो भकास नदरेन तांचे कडेन पळयतालो. ताचे परस ताच्या आंगा वयले कपडेच बरे दिसताले. उकतें तोंड, तोंडांतल्यान गळपी लाळ आनी मोट्टे दोळे... पळोवं नजऽ जालें तांच्यांनी.

''हाची पिराय कितें आसतली जाणात? ताका बावीस वर्सां जाल्यांत.''

खरेंच दिसलें ना तांकां. खुजे पळयिल्ले तांणी. तातूंतलो दिसलोना.

''अशें कशें शक्य आसा?'' हर्षान म्हळें.

पूण आमोदान त्या भुरग्याल्या ओंठांर वाडिल्ली पातळशी मिशी पळयिल्ली. ताका उतर फुटलें ना.

''आमचो चैतन्य -?''

''ना. ही मायक्रोसेफाली केस. इट इज कॉन्जिनिटल एबनॉर्मलिटी. स्कल वाडना देखून मेंदू वाडना. मागीर सगलीच - मेंदवाची आनी कुडीची वाड खिन्नट्टा.''

''ताचें भविश्य कितें, केरकार?''

''ताचे कुडीक कांयच जावचें ना. पिराय वाडटली पूण तो खिन्नटिल्लोच उरतलो. तागेल्यो सगल्यो फॅकल्टीस् बंद आसात. ताचो आय-क्यू सोळा मेळ्ळा. तो आनीक वाडचो ना.''

''आनी ताचीं आवय-बापूय?'' हर्षान कळवळून विचारलें.

''ह्या भुरग्यान निदान आपणाक पळोवन हांसचें, आपणा कडेन उलोवचें

अशें दिसप सभावीक तांकां. पूण तें तशें जावचें ना.''

भायर सरतना केरकारान विचारलें,

''तुमकां जें फावो जालां तें हाचे परस बरें आसा शें दिसना तुमकां? युवर्स इज अ क्रॅटीन च्यायल्ड. नशीब समजात – तो मायक्रोसेफालीचो बळी न्हय.''

''चैतन्य बरो जावचो ना केरकार?''

''बरो जावप म्हळ्यार कितें, हाचेर तें अवंलबून आसा. तो शिकतलो, खेळटलो, गायतलो अशी आस्त बाळगूं नाकात. पूण ताका समजून वागयात. ताका आनंद दिवपाचो प्रयत्न करात. ताचें पॅरेण्टींग ही तुमचे वयली चॅलेंज...''

आनी ही चॅलेंज दोगांयनी स्विकारिल्ली.

''लागलो ना रे फोन डॉक्टराक?''

''येदोळच्यान एंगेज्ड मेळटालो. तुवें विचारपाक लागलो, पळय ...हॅलो, केरकार, हांव आमोद देसाय उलयतां.''

''हॅलो, आमोद! कसो आसा? आनी आमचो चैतन्य कसो आसा?''

''बरो आसा तो.''

''पर्थून व्हायलण्ट बी जाल्लो?''

''ना. म्हळ्यार चड न्हय. मर्दी एकदां...'' हर्षाले केंस ओडिल्ले तें सांगचें काय ना हें थारावचे पयलींच केरकारान म्हळें –

''तुमी ताची बरी अपुर्बाय करतात तें पळोवन बरें दिसलें, आमोद. बरें, फोन कित्याक केल्लो?''

''केरकार, चैतन्याचो बर्थ डे सेलेब्रेट करपाचें येवजिलां आमी.''

खीणभर डॉक्टर केरकार वग्गी रावलो. कितें दिसलां काय ताका?

पयलो बर्थ डे दबाजान मनयिल्लो. ते उपरांत दुसरो सामको घरचे भितर मनयिल्लो. तिसऱ्या वाडदिसाच्या दिसांनी तांकां सुतक आशिल्लें. पयसुल्लो काका खंवसलो तें नीब मेळिल्लें.

चवथ्या वाडदिसा पयलीं चैतन्य बरो ना जाल्लो. ताका हाग–ओंक जाल्ली.

डॉ. केरकारान म्हणिल्लें, ''ताका इन्फॅक्शन जावंक वा कितेंच बादूंक दिवं नाकात. ताची प्रतिकारशक्त उणी आसा.''

फाटलें वर्स चैतन्यान बरें काडलें... फकत –

''दॅटस् ग्रेट, आमोद! गो, अहेड.'' केरकारालें खुशाल जाल्लें मुखामळ दोळ्यां मुखार हाडीत आमोदान आमंत्रण दिलें,

''तुवें येवपाक जाय केरकार. चड लोकांक आफोवं नात – लागींच्यांकच!''

''ओ के! केन्ना म्हळें?''

''शेनवारा. परां सांजे सात वरांचेर – घरांतच.''

''बरें, येतां. फकत इमर्जन्सी आयली जाल्यार मात –''

''तें समजूं येता. पूण उशीर जाल्यार लेगीत यो.'' हय. केरकारान फोन दवरचे पयलीं विचारूंक जाय.

''केरकार, आनेक विचारूं?''

''ऑफ कोर्स! कितें तें?''

''बाब बरो वागतलो हाची आमकां खातरी आसा, केरकार. पूण सांगूं येना न्हय! म्हळ्यार – घडये – एखादरो तो... याद आसा न्हय फाटले खेपेक तुवें ताका न्हिदेची सिरप दिल्ली. फाल्यां – म्हळ्यार शेनवारा – लोक बी येतलो. तेन्ना ताका... कितेंय... आय मीन न्हिदेचें वखद दिल्यार जाता?''

ऑफिसांतलें काम घरा हाडिल्ले कडेन म्हत्वाच्या कागदांचेर चैतन्य मुतलो म्हणून आमोदान रागा भरशीं एक थापट ताचे फाटीर मारिल्लें. ते उपरांत ताणें पळय एक खेव केल्लो! कस्सोच आटापाक येनासलो. किंळच्यो मारीत स्टूल उखलून बापायचेर मारिल्लें. मागीर कोणाक लागींच येवपाक दिनाशिल्लो. डॉ. केरकारान येवन फॉर्सान न्हिदेची सिरप दिल्ली तेन्ना थंड जाल्लो.

केरकार कांय उलयना तें पळोवन आमोदानच बेगबेगीन म्हळें – ''तशीं आमी वखद दितलींच अशें ना. दिवचीं नाच. पूण –''

''गरजच दिसल्यार 'लार्गातील' सिरप दी.''

''थँक्यू -'' सूऽ जालें आमोदाक.

''कितें म्हळें डॉक्टरान?'' फोन दवरना फुडें हर्षान विचारलें.

''दिल्यार जाता म्हळां. फाल्यां तूं डायपर हाडपाक वतलें तेन्नाच 'लार्गातील' सिरप घेवन यो.''

''बरें जालें. आतां म्हगेले सगले फोन करून जाले. तूं ते आमोणकान्नीक पर्थून ट्राय करून पळय.''

धपक्याक लागलो.

आमंत्रण मेळना फुडें आमोणकान्नीन म्हळें - ''आरे व्वा! हॅपी बर्थ डे म्हणपाक येतलींच हांव. चैतन्य बरो आसा न्हय? बरो खेळटा बण्टी कडेन?''

''हय व्हय. खेळटा.''

''आमगेर डॉगीन आनीक चार पिलां काडल्यांत. चैतन्याक बर्थ डे प्रॅझँट म्हूण आनेक दिवं?''

''नाका, नाका. एक आसा तें पुरो. आनी प्रॅझँट बी नाका. तुमी येयात मात.''

फोन दवरतनाच ताका उगडास जालो.

''हॅलो, सिरील, हांव देसाय उलयतां. एक उपकार कर. शेनवारा सांजचो संक सुमार येतां हांव. म्हाका एके राती खातीर बण्टी दी. आयतारा सक्काळीं पावयतां परतें. ओ के? प्लीज! थँक्यू!''

हर्षान चैतन्याक उबारून मांडयेर घेतलो, आडवो घालो. आनी धाकटुली कातर घेवन केंसांनी हात भोंवडायत खंयूय केंस घुसपून जाल्ली जटा कातरून काडूंक लागलें.

''बाबू, तुगेलो पांचवो वाडदीस बरो मज्जेन करुंया मरे? शाणो तो म्हजो. शाण्या भाशेन राव आं. कोणूय कितेंय म्हणूं - आयकुवपच ना, पळोवपच ना.'' सोबीत मुदयाळ्या केंसांतली जटा हर्षान ल्हवपीक हातांनी कातरून काडली. ''कितलो शाणो म्हजो बाबू! लोकांलीं भुरगीं सामकीं पिर्शीं. हात लायल्यारच रडटात.''

कातर जाग्यार दवरून हर्षान बाबूक सोफ्याचेर बसयलो.

''जाली मरे सगली तयारी? उरलां कितें?'' आमोदाक विचारलें.

''केटरिंगाची ऑर्डर कन्फर्म केली. फकत मल्ल्याक सांगपाचें उरलां. ताका बिराडार फोन मेळूंक ना आजून. आनी तागेलो मोबायल नंबर ना म्हजे कडेन. फाल्यां ऑफिसाक वचचे पयलीं तांगेल्या बिराडारच वचून आमंत्रण दितां. मागीर सगलीं आमंत्रणां सोंपलीं.''

बाबूल्या केंसांतल्यान बोटां भोंवडायत हर्षान म्हळें, ''खूब निवळ्ळासो दिसना बाबू? लाळ देंवपाची कितली उणी जाली! मातशी लांबायूय आयल्या, न्हय? फाल्यां नवे कपडे बी घालतकूच सामको राजकुंवर सो सोबतलो, पळय. मागीर कळटलें सगल्यांक – ते समजतात तितलो तो हो न्हय म्हणून.''

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमोदान मल्ल्याल्या फ्लॅटाची बॅल मारली तेन्ना मल्ल्या पुजेक बशिल्लो. 'नाका नाका' म्हणटना ताचे बायलेन च्या हाडून दिली.

मल्ल्यान भाड्याक घेतिल्ल्या नव्या ताल्ल फ्लॅटाची तोखणाय करतनाच शर्ट चडयत मल्ल्यामाम भायर आयलो.

''कशे आसा, मिस्टर देसाय?''

''म्हगेल्या चल्याच्या बर्थ डेचें आमंत्रण दिवंक आयलां. शेनवारा सांजे... सगल्यांनी येवचें.''

''व्वा, व्वा! भारी संतोषु जालो.''

इतले म्हणसर मिसेस मल्ल्यान भितरसून आकांतून बोवाळ मारलो, ''तुगेल्या पुत्तानु कित्तें केलें, चोय. पूरा घाण...''

मल्ल्यामाम धांवट भितर गेलो. आनी फुडल्याच खिणाक ठा करून मारिल्लें थापट आनी भें करून पुताली रड, दोनूय सोमतींच आमोदाल्या कानांर आपटलीं. कितें जालें काय म्हूण भितर वचून पळय जाल्यार फ्लॅटाच्या नव्या ताल्ल वणटींचेर मास्टर मल्ल्यान हातांतले पेन्सिलीन बिरबिटें करून दवरिल्लें. ओनरशीपचेर घेतिल्लो फ्लॅट जाल्यार जावं आशिल्लो. भाड्याच्या फ्लॅटाच्या वणटींचेर पिंतारून

दवरल्यार घरकार वगी रावचो ना हे विवंचनेंत मल्ल्यान कपलार हात मारून घेतलो. आमोद ल्हवूच थंयसून कडसरलो.

ऑफिसांत पावतकीर आमोदान गांवसाक ही खबर सांगली.

"म्हगेलें आयकता, सायब. भुरग्यांल्या बिरबिट्यांनीच घराची सोबाय वाडटा. जांकां नदर आहा न्हू तेंकां तेंची कला तितूंत देखों येतली. ना तेंकां बिरबिटें-"

आमोदाल्या दोळ्यां मुखार तें बिरबिटें चित्र शें जावन उबें रावलें. मळबांतलीं कुपां? काय गच्च रुखावळ? काय ती पोमेरेनियनाची फापसल्ली ल्हंव?

सांजेचेर आमोद उत्तेजीत जावन घरा आयलो. हर्षाय उमेदीन ताचीच वाट पळयतालें. हॉलांत लायिल्ल्या टिव्ही मुखार चैतन्य दोळे बिटबिटायत बशिल्लो.

"डायपर हाडले हांवें. आनी न्हिदेची सिरपूय हाडली. आमोद, हांव सांगूं? आमी सात जावचे पयलींच ताका वखद दिवंया. लोक येता म्हणसर तो जांबयो काडटलो. मागीर न्हिदावंया. न्हिदांत बाबू दिसताय बरोऽ! कांयच कळना. न्हिदांत हांसता तेन्ना तर दिश्ट काडची शें दिसता."

"बॅस्ट आयडिया. ताका हांगा सालांतच न्हिदावंया. आनी हें पळय, फाल्यां सकाळीं बाबूलो सगलो खेळ भायर काडून दवर. फुटबॉल, बार्बी, मोटारी, सॉफ्ट टॉयस..."

"हय. हांव बरें करून मांडून दवरतलें."

"मांडून? नाका नाका. पातलाय. अस्ताव्यस्त. भुरग्यालें घर सोबूंक जाय." उलयतां उलयतां आमोदान बोल्सांतली पेन्सील काडली आनी चैतन्या फाटले वणटीचेर बिरबिटायत सुटलो.

"कळुंदी लोकांक. चैतन्य कितलो खेळटा... वणटींचेर बिरबिटें करता... मस्ती करता..."

*****

# केन्ना केन्ना भुरग्यां कडसून देख शिकची

कालच्यान मिथिलालें घुंविल्लेंच आशिल्लें. पुराय सप्तकांत रुप्याची देग घेवन येवपी एकच दीस म्हळ्यार जुम्मा. ताचीच काल वाट लागिल्ल्यान तें बेजारिल्लें. तातूंत आजून बाबू घरांत पावंक नाशिल्ल्यान बेजारसाणींत अदिकच भर पडली.

काल त्या मुत्तवान पनवत लायली.आयज कितें जालें तर?

राजेश वेळार गेलो ना काय मॉंटेसरी कडेन?

काय जर्मनीच्यान कितें खबर आयली म्हूण कळाव केलो?

ट्रॅफिकांत घुसपून बी वेळ जालो ना मूं?

काय कालचे भाशेन आयजूय बी कोण मुत्तवा वा सुरता मेळ्ळो आडावपाक?

काल सकाळीं घरांतल्यान भायर सरतना काय बरो मूड आशिल्लो! राजेशूय फॉर्मांत आशिल्लो. आडखळ आशिल्लीच जाल्यार ती बुरख्याची. पूण ताचीय आतां संवयशी जाल्ली. दुसरो उपावूच नाशिल्लो. सावदींत, आनी भोव करून हांगा रियाधांत, आंगार, ती काळी काबाय आनी माथ्या वयल्यान तो दोळ्यांक

जाळी आशिल्लो बुरखो घाले बगर भोवंकच जायना जाल्यार!

राजेश मोटार चलयतना ताचे कुशीच्या सिटार बसून प्रवास करपाक मिथिलाक खूब आवडटा. स दीस घरांत सारतकीर भायर भोंवपा खातीर ताच्या वांट्याक येवपी हो एकूच दीस. आनी बुरखो घाले बगर तर भायर सरूंक मेळना. आनी बुरखो घालून खबरो मारतना मर्दी पड्डो आशिल्ले वरी एक पयसावो जाणवता तो मिथिलाक मात्त मानवना. पूण मोटारींत बसतकीर बुरखो वयर काडूंक मेळटा ताचो ताका आनंद जाता.

काल जुम्मा आसुनूय राजेशान गाडी ऑफिसा वटेन व्हेल्ली. तागेलेच कंपनीन रिसर्च फेलोशिप खातीर राजेशाची मुलाखत घेतिल्ली. इंटरनॅटाचेर दिल्ले ऑन-लायन मुलाखतीचो येन्ना म्हणसर रिझल्ट येवपाचो. हुसक्यान राजेश ऑफिसांत गेलो. ई-मेल उगडून ताणें पळयलें. इन-बॉक्सांत जेद्दा, कुवेत, अमेरिकेच्यान आनी जर्मनीच्यान लेगीत आयिल्ल्यो मॅसेजीस आशिल्ल्यो. पूण सगळ्यो अवांतर. ताका जाय ती नाशिल्ली. निर्शेवन तो कम्प्युटरांतल्यान लॉग-आवट जालो आनी मोटारींत बसलो.

''आजून ना?'' मिथिलान विचारलें.

''ना.''

''नासूं. फाल्यां येत. दुसऱ्या कोणाक कांय घेवंक ना न्हय?''

''कशें कळटलें? घेतलाय आसत.''अशें म्हूण राजेशान गियरा वांगडाच विशयूय बदल्लो. ''पयलीं बथा या न्हय?''

बथा देंवन तांणी मसाले, पापड आनी खोबऱ्याचो कीस घेतलो. भोंवत भोंवत 'अल रशीद' सुपर मार्केटांत गेलीं. ह्या डिपार्टमँटल स्टोअरांत भितर सरप म्हळ्यार जात्रेक गेल्ले वरी. तरा तरा मेळटात. आनी बाबूय बरो रमता. अचकीत मिथिलाची नदर एका टी-शर्टाचेर गेली. क्रिमीश रंग आनी जून पाचव्या रंगाची कॉलर. बटनांचे सुवातेर दोरयो. मिथिलान सट्ट करून राजेशाचो हात धरून ओडलो. टी-शर्ट काडून राजेशाच्या आंगाक लावन पळयलो. आनी घे

म्हूण आगरो करूंक लागलें. इतल्यान धव्या झग्यांतलो तो अरब मुखार आयलो. राजेशाक आय.डी. कार्ड दाखोवन आपूण मुत्तवा म्हूण सांगलें आनी राजेशा कडेन आकामा मागलो. आकामाचेर राजेशा वांगडाच मिथिलाचो आनी बाबूचोय फोटो आशिल्लो. खीणभर मिथिला कडेन आनी पर्थून फोटो कडेन पळोवन ताणें हीच ती बायल म्हूण खातरी करून घेतली. आनी तरीकूय कडक उतरांनी अरबी भाशेंत सांगलें - ''तुगेले बायलेक सारकें वागूंक कळना. तिका सांग, अशे तरेन दादल्याच्या हाताक धरून ओडप, आंगार पडप हें आमच्या नेमां आड जाल्ल्यान तिचेर कारवाय करची पडटली. ही पयली वॉर्निंग समज. पर्थून अशें केल्यार तुमकां दोगांकूय - तिगांकूय - पॅक करचें पडटलें. अरबी समजता मूं?''

राजेशान अरबींतच 'सॉरी' म्हळें.

टी-शर्ट थंयच उरलो. ''चल या आमी मिठू,'' राजेशालो आवाज घोगरो जाल्लो. मिथिलाक दिसलें, राजेश बेठोच नर्व्हस जाला म्हूण. मोटारींत बसनाफुडें मिथिलान म्हळें, ''पाड पडिल्ले दळदिरे लोक हे. आनी पाशाणयुगांतले कायदे!''

''आनी हें जाणा जावनूय तुवें धा जाणां हुजीर म्हजो हात धरलो?'' राजेश वितरागलो. मिथिला दुखावलें.

''कितें घात जालो? घोवाचोच हात धरलो मूं?''

''पूण तूं जाणा न्हय, हांगा तसो धरूंक जायना म्हूण?''

''जाणां. ते आपले बायलेक हात लायनात काय कितें?''

''लायतात. पूण अशे प्रदर्शन करनात. तुका हांवें हजार फावटीं सांगलें, हांगा मर्यादेंत वाग म्हूण.''

वाद वाडटलो आशिल्लो. पूण कितें जालें तें होलमूंक नाशिल्ल्यान येदो वेळ बुचकळ्यांत पडिल्लो बाबू दोगांलोय आवाज तापिल्लो पळोवन आपुणच रडूंक लागिल्लो. आनी दनपरां 'हॉलिडे ड्रायव्ह इन' हॉटेलांत जेवपाक वचपाचो प्रोग्राम रद्द करून राजेशान मोटार बद्द अपार्ट मँटा कडेन व्हेल्ली.

राजेश तापता रोखडो खरो. पूण न्हिवताय तितलेच बेगीन. सांजचो भायर सरुंया म्हणपाक लागलो. पूण मिथिलाली घुंविल्ली तकली आजून थाऱ्यार येवंक नाशिल्ली. राग त्या मुत्तवाचो न्हय. थळावे आनी धर्मीक चाल-चलणुकेचे तांगेले नेम लोक पाळटात काय ना तें पळोवप हें तागेलें कामच. ताणें आपणाले लागणुकेक धरून वॉर्निंग दिल्ली. त्या कामाक हाणें बायलेचेर तापप कित्याक? अरब लोक बायलांक बुरख्या आड दवरतात, आनी चार-चौगां मदीं तांकां आफुडनात. खरें. पूण लोकां असवडीं बायलां कडेन कशे वागतात तें संवसार जाणा. सुपर मार्केटांत आपणें हात धरिल्लो राजेशाक सोंसलो ना मूं? घरांत येतकीर तरी ताणें म्हऱ्यांत ओडून घेवचें आशिल्लें!... टिव्ही मुखार बस्सून रावलें मिथिला - चॅनल बदलीत - दोळ्यां सामकार येता तें पळयत.

रातीं जेवण जातकीर मात बाबून हट धरलो, आयसक्रीम जाय म्हूण. मनांत आयिल्लें, राजेशाक सांगचें, तूंच वच ताका घेवन म्हूण. पूण मागीर मिथिलाय भायर सरलें. नायटीचेरच काळी काबाय लकयली. पूण मोटारींत लेगीत बुरखो धांपून मोन्यांनी बसून रावलें. पार्लरांत लेगीत बुरखो वयर काडलो ना.

''आतां काड न्हय तो वयर!'' राजेशान म्हळें तरी मिथिला थप्प रावलें.

राजेशान तीन कोन घेतले. एक बाबूक दिवन दुसरो मिथिला मुखार धरलो. जाल्यार हाताक हात तेंकत म्हूण मिथिलान वयरसून चिमटेन घेतलो. राजेश खो करून हांसलो. बुरख्या आड मिथिलाय हांसलें. पूण राग आयिल्ले वरी फाट केली आनी बुरखो वयर काडून कोन तोंडाक लायलो.

पांचवें वर्स लागलें तरी बाबू आजून आवय-बापायचे मदीं न्हिदता. काणयो सांगीत बाबूक न्हिदायता म्हणसर इकरा वरां जालीं. मिथिलाचो दोळो लागता सो दिसता म्हणसर राजेशानूय पुस्तक धांपून लायट पालयली. बाबूच्या भुजार मिथिलाचो हात आशिल्लो. राजेशाचो हात मिथिलाच्या हातार आयलो तेन्ना मिथिला वग्गी रावलें. ल्हवूच हात वयर वयर येवंक लागलो.

''आतां हात लायल्यार जाता दिसता!'' मिथिलान थोमणो मारलो.

''पुरो गो आतां. एकलीं आसतना तुका केन्ना आडायलां?'' राजेशान समजावणेच्या सुरांत विचारलें. ''सावदींत आसासर मातशें सोंस. फाल्यां आमी जर्मनींत पावलीं जाल्यार तुका कोण आडायतलो?'' अशें म्हणून राजेशान ताका ओडलें.

''एऽ. बाबू आसा हांगा,'' मिथिलान ताणून धरलें.

''तो न्हिदला . आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी.'' अशें म्हणून राजेश बाबू वयल्यान सरून मिथिलाचे कुशींत रिगलो.

'आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी!'... हींच उतरां स वर्सां फाटीं तीं दोगांय हनीमुनाक महाबळेश्वराक गेल्लीं तेन्ना तो उलयिल्लो.

राजेशा सारको देखणो, कर्तुपी इंजिनियर घोव मेळिल्ल्यान मिथिला खूब खुशाल आशिल्लें. तातूंत हनीमुना खातीर महाबळेश्वरांतलें थंड शितळ वातावरण. तीं राविल्लीं बऱ्या थ्री-स्टार हॉटेलांत. मज्जा आयिल्ली.

सांजचीं पासयेक म्हूण भायर सर जाल्यार हीऽ खेट लोकांची. मे म्हयनो जाल्ल्यान हॉटेलां भरून ओततालीं. ते गर्दींत धा-एक वळखीचे गोंयकार लेगीत मेळ्ळे. आनी वातावरण कितलें प्रसन्न! शितळ वाऱ्याचें मंद ल्हार आयलें आनी मिथिलान ल्हवूच आपलो हात राजेशाच्या दंडा भोंवतणी घट धरून ताका आपले वटेन ओडलो. राजेश सट्ट करून कडसरलो. हात सोडोवन हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलो.

''लोक पळयतात मगो. अशें घट धरूं नाका.'' राजेशान लजेल्ले वरी खालत्या सुरांत म्हळें.

मिथिला अजापून पळोवंक लागलें.

''कितें जाता हात धरल्यार? आमी हनीमुनाक तर आयल्यांत,'' ताणें विरूस जावन म्हळें.

''तशें न्ही गो. पूण अशें लोकां मुखार...'' राजेशाक स्पश्टीकरण दिवपाक आयलें ना.

''बायल हांव तुजी लग्नाची,'' ल्हवूच ताच्या दंडाक चिमटो काडीत मिथिलान म्हळें.

''खरें गो. ना कोण म्हणटा? पूण तें अशें जाहीर करीत कित्याक भोंवपाक जाय? आमी सदचे भशेन चलुंया.''

मिथिला वाद नाका म्हूण वग्गी रावलें. पूण राजेशाली विचारसरणी ताका मानवली ना. मुखार वतकीर चार पांच तरी जोडपीं हातांत हात घालून वा खांदार हात घालून घश्टत चलतना पळोवंक मेळ्ळीं. आनी मेळिल्ले खेपेक मिथिलान राजेशाचें लक्ष ओडून म्हणिल्लें , ''एऽ, तांकां पळय.''

''तूंच पळय तें. हांव रुमार वतकीर दाखयतां तुका...'' राजेशानूय हांसत निश्ठून सांगिल्लें. आनी खऱ्यांनीच रुमार पावनाफुडें दाराक खिळी घालून ताणें मिथिलाक घट वेंगेंत घेवन अश्शें म्हणिल्लें - ''आतां हांव तुजो राजा आनी तूं म्हजी राणी.''

आनी खऱ्यांनीच पुराय हनीमून भोंवडेर राजेशान मिथिलाक खूब खूब सूख दिल्लें.

पूण, हय. त्या सुखांतूय इल्ली मिठाकणी उणीं पडिल्ली.

महाबळेश्वरांतली ती सांज. दोगांय आयस्क्रीम खावपाक गेल्लीं. राजेशान 'कॉकटेल आयसक्रीम' घेतिल्लें आनी मिथिलान चोकोबार.

''शी! बरें आसतलें म्हूण घेतिल्लें. सामकें बाबत!'' राजेशान तोंड वाकडें करून म्हळें.

''चोकोबार मात बॅस्ट आसा. पळय...'' अशें म्हणून मिथिलान स्टीक ताच्या तोंडा कडेन व्हेली.

''हँ! उश्टो मगो तो. तूं खा.'' तोंड फाटल्यान व्हरून राजेशान विटिल्ले वरी तोंड केलें.

मिथिलाक वायट दिसलें. बायलेच्या तोंडांतलें म्हूण उश्टें आसता?

''वा! दादलो जेवतकीर ताच्या ताटांत बायलेन जेवल्यार उपकरता. बायलेच्या

तोंडांतलें मात उश्टें?'' मिथिलान वाद घालीत विचारलें.

''ना, ना. उश्टें तें उश्टेंच. म्हगेली आई बाबाल्या ताटांत जेवताली तेन्ना हांव तिकाय तेंच सांगतालों. सामकी बुरशी पद्दत ती.''

ते राती कडेन राजेशाले वेंगेंत रिगतना ताणें आपणाचो उमो घेवचो अशें मिथिलाक बोमले देंठा सावन दिशिल्लें. ना तर आपणेंच फुडाकार घेवन ताचो ओंठ तोंडांत घोळोवन एक दीर्घ चुंबन घेवचें अशी खर इत्सा जाल्ली. पूण येदोळचो वाद येवजून 'फुडें केन्ना तरी' अशें म्हूण ताणें मन मारिल्लें.

हालिंच्या तरणाट्यांक हिन्दी-इंग्लीश सिनेमा पळोवन रोमान्स येवजता. पूण मिथिलाक आशिल्लें चुंबनाचें अप्रूप हें सिनेमा पळोवन उपराशिल्लें न्हय. उगडासांच्या करणांत थालें लावन बंद केल्ली एक याद केन्ना केन्ना उसळून भायर सरूंक पळयताली, आनी मागीर... राजेशान तसो आपलो उमो घेवचो अशें खरसाणीन दिसूंक लागलें.

ती यादूय तशी खूब पोरणी. मिथिलान निकतीच एस्.एस्.सी.ची परिक्षा दिल्ली. बापायक मुंबय कसलें काम आसलें. चार दीस मुंबय पळोवपाक म्हूण मिथिलाय बापाय वांगडा मुंबय गेल्लें. दादर मामागेर राविल्लीं तीं. मामालो चलो किशोर पवय आय.आय.टींत शिकतालो. मामीन कितलें सांगलें, मिथिलाक मातशें मुंबय भोंवडावन हाड म्हूण, जाल्यार क्लासीचें निमित्त्य करून ताणें ना म्हळें. मागीर मामी बराबर थोडें भोंवलें तितलेंच. शेनवारा सांजचो मात मामाले सांगणेन किशोर मिथिलाक नेहरू प्लेनेटोरियम दाखोवपाक घेवन गेलो. एका चल्या वांगडा एकलें भोंवपाची मिथिलाची ती पयलीच खेप. काळजांत म्हळ्यार खपखप म्हळ्यार हुरहूर शी जाणवताली. किशोर दिसतालोय बरो - स्मार्ट आनी बुद्दीमान. प्लेनेटोरियमांत तीं तेंकून बशिल्लीं. काळखे शिंयाळे रातीं उकत्या मळबा पोंदाक एका तरणाट्याक तेंकून बसलां ह्या विचाराच्या चेपणानच तें जडाविल्लें. किशोर एका सारको काना कडेन तोंड हाडून मळबांतल्या अप्रुपा विशींची फोडणिशी दितालो. फाल्यां लग्न जातकीर अशेंच आपूण घोवा वांगडा

भोंवतलें, असोच तोय कानांत फुतफुततलो, अशें चिंतून मिथिलाक खातखुतल्यो जाताल्यो. परतीं येतना रस्तो हुपपाचें नीब करून किशोरान दोन तीन खेपेक मिथिलाचो हात लेगीत धरिल्लो. किशोराले चलणुकेंत इतली सहजताय आशिल्ली की भायर सरतना तांचे मदीं आशिल्ली भीड-मुर्वत परतीं घरांत भितर सरतासर पुराय मेटिल्ली.

उबाळान तानेल्ल्या किशोरान उदक मागलें. आनी मिथिलान उदकाचो पेलो मुखार धरलो तेन्ना पेल्या वांगडा ताणें हातूय धरलो. ल्हवूच मिथिलाक ओडून बगलेंत घेतलें. किशोरान वेंगेंत घेवप आपणाक आवडलें काय ना हाचो निर्णय जावचे पयलींच मिथिलाक ताणें घट धरलें. स्वास उश्ण जाले. नकळटना मिथिलाचे ओंठ विस्कटले. आनी फुडल्या खिणाक किशोराल्या ओंठांनी मिथिलाचो ओंठ चोखलो. एक वेगळोच अणभव, आगळीच रूच... जिबेक जीब तेंकली आनी अचकीत फुडल्या दाराची लॅच उकती जाल्ल्याचो आवाज आयलो.

सट्ट करून दोगांय वेगळीं जालीं. किशोर 'कांयच पडूंक ना' अशे तरेन उदकाचो घोंट मारीत भायर गेल्लो. मिथिला मात भितरसून हालिल्लें. नकळटना आपल्या हातसून व्हडलो गुन्यांव घडलो हे भावनेन तें आकुळपिकूळ जाल्लें. किशोराची ताका तिडक मारिल्ली. आनी मामा-मामीलो आगरो मोडून दुसऱ्याच दिसा तें बापाय वांगडा गोंयां परतल्लें.

ल्हवू ल्हवू ती गुन्यांवकारी भावना मेटली. किशोर इंजिनियर जावन अमेरिकेक पावलो. नाय जाल्यार ताचे विशींचें खिणयाळें आकर्शण रोखडेंच सोंपिल्लें. पूण त्या दिसाचो तो अप्रूप अणभव घट मतींत उरलो. केन्नाय एकलें आसतना वा सपनावस्थेंत मिथिला तो उगडास काडून आपल्याच ओंठा वयल्यान जीब भोंवडायतालें, सकयलो ओंठ दांतां मदीं ल्हवूच दामतालें. अळंग चोखतालें... फाल्यां लग्ना उपरांत हो सर्गसुखाचो अणभव मेळपाचोच आसा ही आस्त बाळगून तो खीण घोळयतालें.

पूण प्रत्यक्षांत तशें घडलें ना. राजेशाले शिरंगाराचे संकल्पनेंत जशी कितें उम्याक सुवातच नाशिल्ली. लग्ना उपरांत वर्स सरलें तरी राजेशान केन्ना ओंठांक ओंठ तेंकयलो ना. निमाणें एक दीस मिथिलानच फुडाकार घेतिल्लो...

राजेश त्या दिसा मुंबयच्यान परतल्लो. सावदी अरेबियांत एके जर्मन कंपनींत चीफ इंजिनियरच्या पोस्टा खातीर दिल्ल्या इंटरव्ह्यूंत ताका वेंचून काडिल्ल्यान खूश आशिल्लो. ते राती दोगांयनी उत्सव मनयलो. खुशाल आसता तेन्ना राजेश चडच मुडांत आसता हें वळखल्ल्या मिथिलान राजेशाचे वेंगेंत रिगिल्ले कडेन ताच्या पोल्याक ओंठ तेंकयले आनी ल्हवूच ताचें तोंड घुंवडावन अळंग ओंठ ओंठांर दवरले. राजेश तोंड घुंवडावंक लागलो तेन्ना दोनूय हातांनी तोंड घट धरून मिथिलान ताचो सकयलो ओंठ ओंठांत घेतलो. ते बराबर नेट करून राजेशान ताका धुकल्लें. ''शी: कितें करता गो, मिठू?''

मिथिलाले उमेदीचेर विरजण पडलें. पूण नमलें जाल्यार तें मिथिला कसलें?

''शी कित्याक म्हणटा? म्हाका कीस दी मरे! प्लीज!''

जाल्यार मिथिलाच्या पोल्याक ओंठ तेंकोवन राजेशान 'च्यूक' करून आवाज काडलो. ''घे, पूण तें तोंडांत तोंड घालप म्हाका आवडना.''

''कित्याक? पळय तरी...''

''ना गो, म्हाका वीट शी दिसता. तो तोंडांतलो नितू...'' राजेशान नाक किल्शिल्लें आनी मिथिलाचें मनच मोडलें.

''तुगेलें म्हूण नाका जाल्लेंच. मोगान लागीं येतात तेन्ना तो नितू उरना. ताची गोडी वेगळीच आसता...''

मिथिलाक राजेशान मदींच तोडलें. ''तुका कशें कळ्ळें? तुवें केन्ना कीस घेतला?''

मिथिला वग्गी रावलें. राजेशाल्या उतरांनी दुबाव नाशिल्लो. 'तुवें केन्ना कीस घेवंक ना जाल्यार तुका कशें कळटलें?'अशा अर्थान तो उलयिल्लो. वाद वाडयल्यार मात राजेशाक दुबाव मारतलो अशें येवजून मिथिला तोंड बंद करून

राजेशाचे सुवादीन जाल्लें.

राजेश पयलीं एकलोच रियाधाक आयिल्लो. आनी तीन म्हयन्यांनी ताणें मिथिलाक हाडिल्लें. राजेशाच्या सांगातांत मिथिलान खूब सूख भोगिल्लें. बारीक सारीक किजिलां जालीं नात अशें न्हय. पूण नशिबाक दुशण दिवपा सारकें कांयच घडूंक नाशिल्लें. इतलें की बाबू वेळार बाळंटेराक म्हूण कुळारा गेल्लें तें लेगीत राजेशाच्या हुसक्यान बाबूक तीन म्हयन्यांचें घेवन रियाधाक परतल्लें.

केन्नाय तोंपतालीं ती रियाधांतलीं बंधनां. बुरखो घाले बगर भायर सरप ना. जुम्मा बगर सुटी ना. एकली बायलमनीस भोवंक जायना. घोवा वांगडा चलतना लेगीत घोवा फाटल्यान चलूंक जाय. गार्डनांत गेल्यार दादले एके वटेन जाल्यार बायलो दुसऱ्या अर्दान. भुरग्यां खातीर शाळा लेगीत चलयांक वेगळ्यो, चल्यांक वेगळ्यो. कांय कडेन तर मॉंटिसरी लेगीत अश्यो. धाकलो बाबू मॉंटिसरींत वता थंय मात चले चलयो एकठांय बसतात. फुडल्या वर्सा बाबू फर्स्टाक वतलो म्हणटकीर चल्यांच्या स्कुलांत. राजेशाक सांगूंक जाय, इंडियन स्कुलांत सांगून दवरुंया म्हूण.

बाबू आजून पावलो ना कसो म्हूण घडयाळ पळोवपाक आनी पीक पीक पीक हो वळखीचो हॉर्न कानार पडपाक एक जालें. मिथिला बेगबेगीन दारा कडेन आयलें. पूण दार काडपाक रावलें. नवेंच सावदींत आयिल्लें तेन्ना तें पयलो धडो शिकिल्लें. राजेशाची वाट पळयत दारांत राविल्लें. राजेश भितर सरिल्लो आनी फाटोफाट बेल वाजिल्ली. सावदीच्या धर्मीक पोलीस मुत्तवान राजेशाक स्पश्ट उतरांनी सांगिल्लें - बायलेक सांग, अशी उकत्या दारांत उबी रावन वाट पळोवप वा घोव भायर सरून वतना टाटा करप हें कायदया आड जाता. पर्थून अशें केल्यार कारवाय करची पडटली.

राजेशाल्या पावलांचो आवाज लागीं पावना फुडें बेलीची वाट पळयनासतना

मिथिलान दार काडलें.

''कळाव कित्याक केलो?''

''बेठोच उशीर जायत गेलो. पयलीं ऑफिसा भायरच ॲक्सिडँट जाल्ल्यान गाडी भायर काडटासर नाकापुरो जालें, आनी मागीर प्रत्येक सिग्नला कडेन रॅड - दोन दोन मिनटां रावचें पडलें.''

''आजूय न्हिदून पडलो?'' अशें म्हणीत मिथिलान राजेशाल्या हातांतसून न्हिदिल्ल्या बाबूक काडून घेतलो.

''जर्मनीच्यान कितें ई-मेल बी आयल्या?''

''ना मगो. हांवें आतां आशाच सोडून दिल्या,'' बूट काडीत राजेशान सांगलें.

''तूं एक फावट विचार तरी मॅसेज धाडून!''

''ना मिठू. तशें करप एटिकेटीक धरून जायना.''

''एटिकेट्स काय नेटिकेट्स?''

राजेशा कडल्यानच शिकिल्लें उतर मिथिलान शेंवटिलें.

''सोड ती खबर. म्हाका वाड पळोवया बेगीन. आतां सायटीर वचचें पडटलें. येवपाक उशीर जावं येता आं! हुसकेवं नाका.'' अशें म्हूण राजेश उठलो. मिथिलान बाबूक तसोच व्हरून हांतुणाचेर घालो, आनी राजेशाक पयलीं वाडलो.

राजेश वचना फुडें ताणें बाबूक उठायलो. कपडे काडले, न्हाणयलो जेवयलो आनी आपणेंय जेवन घेता म्हणसर अडेच वरां जालीं.

''आयज बाबूक कितें शिकयलें रे?''अशें म्हणीत मिथिलान तागेलो बोटवो उस्तिलो. जाल्यार स्कूलबॅगांत एक रंगीत चित्रांचो बूक मेळ्ळो. बाबूलो कांय न्हय.

''बाबू, हो बूक खंयचो रे? टिचरीन दिला?''

''ना, मम्मी. तो मगो नसलिनालो. ताणें दिला म्हाका.'' बाबू म्हाका 'गो'च म्हणटा - राजेशालें आयकून. तरी बरें 'मिठू' म्हणिना, मिथिलान मनांत म्हळें.

"बाबू, दुसऱ्याले बूक अशे घेवचे न्हय आं!"

"हांवें कादूं ना. ताने दिला माका."

"दिल्यार लेगीत - 'नो थँक्य' म्हणप आनी परतो दिवप, आं! कितें म्हणप सांग?"

"नो तांऽकू," बाबून म्हळें आनी आपणेंच खूश जावन ताळी मारली.

"आनी हें कितें रे?" मिथिलाक बोटव्यांत एक पत्रूय मेळ्ळें.

"तें मगे तिचलीन दिलां. पापाक आनी मम्मीक दी खीं..."

उकतें करून पळय जाल्यार प्रिन्सिपलाचें पत्र.

"Dear Parents, तुमच्या भुरग्याचो misbehaviour तुमच्या ध्यानांत हाडून दिवपा खातीर तुमी दोगांनी भुरग्याक घेवन फाल्यां दनपरां बारा वरांचेर स्कुलाच्या ऑफिसांत चुकनासतना येवचें," अशा अर्थाचें तें पत्र वाचून मिथिला अजापीत जालें.

"बाबू, तुवें कितें केलें रे स्कुलांत?"

"ए, बी, शी केली."

"आनी कितें केलें? कोणाक मारलो बी?"

"ना ममी."

"मागीर? टिचरीक बी कितें म्हळें?"

"ना ममी. तिचलीनच माका उलयलो."

"कित्याक तर? तुवें कितें केलें?"

"नसलिनाच्या दोयांत मगे भू गेल्लो. हांवें फूऽ केलें..."

"मागीर?"

"तिचर माका पयस बस म्हनता."

मिथिलान येवजिलें, बाबूक चड विचारचे परस फाल्यां टिचरीकच विचारिल्लें बरें.

हरशीं मिथिला टीव्ही पळयत वेळ सारता. पूण आयज टीव्हींत मनच रमना

जालें. राजेश बेगीन आयल्यार पुरो अशें येवजीत मिथिलान वेळ सारलो. पूण हरशीं तरी बेगीन येवपी राजेश आयज चडच उसरां आयलो. आयलो तोय तिडकून आयलो.

"पाडा पडूं ह्या सुरतांचें."

"कितें जालें राजेश?" हें आनी कसलें नवें संकश्ट अशें येवजीत मिथिलान विचारलें.

"सायटीर वतना हायवेचेर सायडलायट दिनासतना लेन बदल्ली म्हूण तालांव दिलो. पीकपीक दिल्लो हांवें म्हण सांगल्यार लेट दिलो म्हणटात."

"मागीर?"

"ह्या तांगेल्या राज्यांत आमच्यांनी जाप काडूं येता? पांचशें रियालांक पडलो तालांव."

"भरले?"

"ना. फाल्यां भरपाचे. म्हणटकीर फाल्यां ऑफिसाकूय लेट."

पांचशें रियाल म्हळ्यार थोडे दुडू न्हय. पांच हजार रुपये. दुडू सांठावपा खातीर म्हूण ह्या देशांनी कामां करप. म्हणटकीर अशे तरेन वगडावचे पडल्यार राजेशाक वितराग येवप सभाविकच.

राजेश येनाफुडें ताका त्या पत्राची खबर सांगून आपल्या मना वयलो ताण ल्हव करपाक तटिल्लें मिथिला राजेश हात-पांय धुवन पेपर घेवन बसऽ सर रावलें. मागीर सगळी खबर सांगून पत्र काडून दाखयलें. वाचून राजेशाल्या कपलार कितल्योश्योच मिरयो पडल्यो.

"काल तो मुत्तवा जालो. आयज हो सुरता. फाल्यां आनी कितें वाडून दवरलां काय?" अशें म्हूण राजेश जेवपाक उठलो.

साडेचार वर्सांचो बाबू गैर वागलो म्हळ्यार अशें केलें तरी कितें? पूण कळपाक मार्ग नासलो. बाबूक विचारपांत अर्थ नासलो. बाबून कितेंय केलांच आसलें जाल्यार तेंय अबुद्दीपणानच आसतलें. पूण कितें तें -?

सकाळीं राजेशान ऑफिसांत फोन करून अर्द दिसाची रजा घेतली. पयलीं वचून काल चलन दिल्लें तें फारीक करून आयलो. आयलो तो खुशाल जावन आयलो.

"एक बरें जालें. म्हगेल्या लायसन्साचेर रिमार्क आयलो ना. ना जाल्यार सदांकाळ नोंद उरपाची."

"जावं. दिसाची सुरवात तरी बरी जाली," मिथिलान आशेच्या सुरांत म्हळें.

दनपार येतासर सेकंद कांटो लेगीत जडाविल्ले भाशेन फुडें वतालो.

बारा पयलींच तिगांय स्कुलांत पावली. ज्युस्त बारांक प्रिन्सिपलान तांकां ऑफिसांत आफयलीं. माथ्याक गात्रा आनी आंगार अरबांचो तोप घाल्लो एक अरबाब थंय पयलींच बशिल्लो. कसलीच प्रस्तावना करिनासतना प्रिन्सिपलान दोगांकूय उद्‌देशून इंग्लीशींत सांगलें,

"We have a serious complaint about your son's misconduct."

राजेश आनी मिथिला गोंदळ्ळीं. काचाबूल जालीं. राजेशान अडेचो नेट काडून तोंड उगडलें. "What has he done, Sir?"

प्रिन्सिपलान खीणभर त्या अरबा कडेन पळयलें आनी गंभीर सुरांत सांगलें - "Your son has kissed Mr. Shabud'din's daughter Nasreen."

राजेश तटास जावन आयकुपाकच उरलो. साडेचार वर्सांच्या बाबून नसरीनाचो कीस घेतलो - म्हळ्यार पापो घेतली. इतलेंच मू! भिरांत दिशिल्ली, बाबून कोणाक भुरको बी काडलो काय म्हूण! वा कोणाक कितेंय अबुद्‌दीपणान तोपलें आनी रगत बी व्हांवलें काय म्हूण! फकत पापी घेतली मूं? पूण हो देशच असो. इतल्याच गुन्यांवा खातीर बाबूक बंदखणींत उडोवपाकूय फाटीं-फुडें पळोवचे नात. वा ताची ख्यास्त म्हूण आवय-बापायक पॅक करपाकूय उणे नात.

मिथिलाक मात तें पडून वचूंक नासलें. अचकीत माथ्या वयलें चेपण काडिल्ले वरी तें ल्हवपीक जाल्लें. तोंडार तर हांसो उदेवंक लागिल्लो. ल्हवूच मिथिलान

दोळ्यां वयल्यान वयर काडिल्लो बुरखो सकयल ओडलो.

निरागसपणान हें सगळें पळोवपी बाबूचो हात हातांत घेवन लक्तुबायेन दामलो. राजेशाचो पूत आसुनूय बाबून चार-चौगां मदीं नसरीनाचो कीस घेतलो. मात्त कसली पर्वा करिनासतना -

"We can rusticate your child for this act," प्रिन्सिपलान कडक उतरांनी सांगलें. ''पूण पयली खेप म्हूण वगी रावतांव. तुमी ताका समजायात. पर्थून ताणें असलो misconduct केलो जाल्यार आमी सोंसून घेवंचीं नात.''

राजेशाक धीर आयलो. "I assure you that, sir," आनी त्या अरबाबा कडेन पळोवन राजेशान माफीच्या सुरांत म्हळें, ''सॉरी. सर!''

सॉरी, माय फूट! मिथिलाक राजेशाचो राग आयलो. बाबूक घट वेंगेंत घेवन ताचें अभिनंदन करन दिसतालें, आनी हो त्या अरबाबाक सॉरी म्हणटा!

थोडे भितर सुटलीं हे भावनेन राजेश मिथिलाक आनी बाबूक घेवन भायर सरलो. हरशीं मिथिला बाबूक फाटल्यान बसयता. पूण आयज तें बाबूक घेवन फुडेंच बसलें.

''बाबू, तुवें त्या नसरीनाक पापी दिली मरे?'' मोटार स्टार्ट मारचे पयलींच राजेशान विचारलें.

''हय, पापा . पूण नसलीनान पयलीं माका दिली,'' बाबून निरागसपणान सांगलें.

''तशें करचें न्हय, वा पर्थून तशें करूं नाका,'' असलें सांगपाक राजेशान तोंड उकतें करचे पयलींच मिथिलान बाबूक वेंगेंत घेवन विचारलें, ''पापी गोड लागली रे बाबू?''

बाबू लजेलो आनी मानेनच हयकारलो.

''शाणो तो म्हजो.'' आनी मिथिलान ताका दुखऽसर मुड्डिलो.

''पुरो मिठू. तूं आनी ताची अपुर्बाय करता?'' गाडी स्टार्ट मारून राजेशान विचारलें. ''तरी वॉर्निंग दिवन सोडलीं म्हूण बरें! पर्थून केल्यार...''

''पर्थून करुंदीच. कितें करतले? चडांत चड स्कुलांतल्यान काडून उडयतले. ॲनीवे, आनीक तीन म्हयन्यांनी हांगाच्यान वचपाचोच आसा तो. आमी ताका एकदम इंडियन स्कुलांतच घालुंया.''

''ताका बरी देख दिवपाची सोडून तूं उरफाटो वाद घालता?'' राजेशान स्पीड घेत म्हळें.

''केन्ना केन्ना भुरग्यां कडसून जाणट्यांनी देख घेवपाची आसता, राजेश,'' मिथिलान म्हळें. पूण येरादारीच्या बोवाळांत ताच्या कानार पडलें नासुंये, वा ताका वाद घालपाचो नासुंये. गाडी फुडें वचत रावली.

घरा पावतासर बाबू न्हिदून पडिल्लो - सदचे वरी. लॉक काडचे पयलींच भितर फोन वाजतालो. दार उगडून राजेश फोना कडेन धांवलो आनी मिथिला बाबूक घेवन बेडरुमांत गेलें. बाबूक कॉटीचेर घालो आनी बूट काडून उठ्ठा थंय आसा, राजेश धांवत भितर आयलो. खोशी ताच्या मुखामळार भरून ओतताली. मिथिलाच्या हाताक धरून ताणें लागीं ओडलें. घट धरून आंगार उखल्लें आनी घुंवडायत सांगलें - ''गुड न्यूज मिठू - म्हाका फेलोशीप मेळ्ळी. फॅमिली सयत आफयला खंय. आतां आमी सगळ्यांनी जर्मनीक वचपाचें.''

मिथिलाय उचांबळीत जालें. खोशयेंत खोशी भरसली.

राजेशाक घट वेंग मारून मिथिलान म्हळें, ''कॉंग्रेटस् राज -'' आनी ताणें तकली ताच्या खांद्याक घश्टिली.

राजेशालेय हात मिथिला भोंवतणी आंवुळ्ळे.

''आनीक घट धर...'' मिथिलालीं उश्ण उतरां राजेशाले कानापाळयेक आफुडलीं. पोल्यांक पोले घश्टले. उश्ण स्वास एकामेकांत मिसळ्ळे. ओंठ नकळटना विलग जाले.

''म्हजो राज -'' मिथिलाल्या उतरां वांगडाच मिथिलाले ओंठ ताच्या पोल्यांर उदेले.

राजेशानय मिथिलाच्या पोल्यांक ओंठ तेंकयले. ओंठ निसरून ओंठांर

आयले. मिथिलान ओंठ चोखलो. नकळटना राजेशानय मिथिलाचो ओंठ घट धरलो. एक अप्रूप अणभव, एकअप्रूप शिरशिरी. दोनूय जिबो सळसळ्ळ्यो...

''ममी?''बाबू उठून विस्फारिल्ल्या दोळ्यांनी तांचे कडेन पळयतालो. दोगांय सट्ट करून कडसरलीं.

''ममी, कितें कत्ता?''

''अं! कांय ना रे शाण्या. पापाच्या दोळ्यांत मरे भू गेल्लो.'' मिथिलान सांगलें.

''पापा, तुवें ममीक पापी केली?'' बाबून चोरी धरिल्ली पळोवन राजेश गणमणलो. पूण मागीर हांसलो.

''हय. पूण पयलीं ममीन म्हाका केल्ली.''

आनी मिथिला तृप्त मनान हांसलें.

*****

# मनश्यांच्या गांवांत

रामनगर पावतासर आगळें अशें कांयच घडलें ना. सगले बैल बरे लायनींत चलताले. मदीं मदीं धांवताले. बुद्दूल्या गळ्यांतल्या घुंगरांच्या मधूर आवाजाच्या तालार हातांतली निगडयाची बडी वावडीत फाटसून हलसिद्धू धांवतालो.

आनीक एकच दीस. मागीर गोंयां. दरेका बैला फाटल्यान चाळीस तरी मेळटलेच. गोरवां एक फावट खतालाचे सुवादीन केलीं म्हणटकीर दुडू मेजून घेवपाचे आनी परती खातीर सामान घेवपाचें.

हाचे ताचे सांगणेन आयकल्लो पांचवोचार गोंयचो वाठार दोळ्यां मुखार आयलो. भुल्लशिल्ल्या हलसिद्धून हातांतली शिपटी चिम्म करून बुद्दूचे फाटीर ओडली. बुद्दू उडकी मारून धांवपाक लागलो तेन्ना फुडल्या बैलाच्या भोंकाक ताची तकली आपटली. फुडल्या बैलान शेंपडी वयर काडली आनी तो कुशीक धांवलो. तितल्यान फाटल्यान येवपी ट्रकान ताका फाटसून धपको मारलो. व्हडली हांबेट मारून बैल रस्त्यार आडवो पडलो. ट्रक रावनासतनाच गेलो.

सिद्धूचेर आकांत आयलो. आतां करप कितें? ताणें हेर बैलांक बेगबेगीन आमडून रस्त्याचे कुशीक उकत्या मळार देंवयले आनी तो परतो रस्त्यार आयलो. बैल काकुळटायणे नदरेन सिद्धू कडेन पळयतालो. ताच्या कमराचीं हाडांच मोडिल्लीं. फुडले पांय हालयत तो आपूण जितो आसां म्हूण दाखयतालो इतलेंच. सिद्धून थंयच ताचे कुशीक बसकण मारली.

वाटे वाटसुरे खीणभर रावताले. चुरचुरताले. आनी आपले वाटेन वताले. फाटल्यान येवपी एका ट्रक ड्रायव्हरान तर ट्रक खीणभर थांबोवन गाळ मारीत सिद्धूचेर धेंकणो घालो–ओडून कुशीक काड ताका. दिश्टी पडना, ट्राफिकाक आडखळ जाता ती?

घरा कडल्यान भायर सरचे पयलीं बापायन जायत्यो मोलादीक सुचोवण्यो केल्ल्यो. खतालाच्या मनशांनीय अनेक गजालींची शिटकावणी दिल्ली. पूण वाटेर असो अपघात जाल्यार कितें करपाचें तें सांगूंक नासलें.

हा ऊ करून येत्यावेत्याच्या हातापांयां पडून सिद्धून बैलाक ओडून रस्त्याचे कुशीक काडलो. बैल अर्दपोटार दीस काडून बडकेल्लो, तरी तिगांक भारी जालो. बैलाचे काकुळटायणे नदरेक नदर दिवपाचें सिद्धू टाळूंक लागलो. हेवटेन तेवटेन पळयलें. पयस एक खोंपूट शें घर दिश्टी पडलें. हेर बैलांक रस्त्यार पावचे नात अशे दवरून सिद्धू त्या घरा वटेन गेलो. एक जाणटेलो भायरच बशिल्लो. सिद्धून उदक मागलें. मागिल्लें बैला खातीर. पूण जाणटेल्यान वाडग्यांत दिलें. तें पियेवन सिद्धून बैलाची खबर सांगली. तेन्ना ताणें एक प्लास्टिकाची बाटली भरून दिली.

सिद्धून बाटली बैलाच्या तोंडांत रिती केली. पूण ताच्या पोटांत कितलें गेलें, काय सगलेंच भायर पडलें, कळ्ळें ना.

– गोंयां व्हरता बैलांक?

जाणटेलो बगलेक येवन उबो राविल्लो. सिद्धून मान हालयली.

– खताल कोण?

– काशीम.

– आतां कितें करतलो तूं?

सिद्धू वग्गी रावलो.

– म्हगेलें आयक. हो बैल आतां उबो जावचो ना. तो मरचे पयलीं कोणाय खाटकाक विकल्यार चार पयशे मेळटले. हांगाच्यान अर्द वराचे वाटेर करीम रावता. ताका आफोवं?

पर्थून सिद्धू वग्गी रावलो. बैलान तकली जमनीक लायिल्ली. पूण पडिल्ले कडेन लेगीत आपणाली काकुळटायणी नदर सिद्धू कडेन लावन पळयतालो. घडये 'सोंपय म्हगेल्यो यातना' म्हणटालो.

– काशीमाक हांव वळखतां. हांवूय पयलीं गोरवांक व्हरून पावोवपाचें काम करतालों. म्हगेलो खताल नबी. ह्या नबी कडेनच काशीम तयार जाला. गोंयां गेल्ले कडेन मेळटालोच म्हाका. आतां म्हज्यान जायना.

सिद्धू आपणाल्याच चिंतनांनी घुसपल्लो.

– आप्पा! खतालाक कितें सांगूं? तो म्हाका...

– काशीमाक सांग, दरग्या कडल्या अशरूमियांन सांगलें म्हूण आपणाक. येतलो तो हेवटेन. हांवूय सांगीन ताका. चूक तुजी न्हय. आनी अशीर रस्त्यांर अशें घडटा हें ताकाय बरें खबर आसा.

अशरूमियांल्या उतरांनी सिद्धूक थाकाय मेळ्ळी. करीम आयलो तेन्ना आमोरी जावन गेल्ली. तो येतना धाकलीशी ऑटो रिक्षाच घेवन आयिल्लो. ते येदे शे रिक्षेंत तो येदो व्हडलो बैल ताणें चेपून भरलो.

– त्रास जातले ताका. दुखतलें.

सिद्धू कळवळ्ळो तें पळोवन करीम कुच्छित्री हांसलो.

– पोसूंक व्हरना ताका. मारूंक व्हरतां.

करीम वचपाक लागलो तेन्ना सिद्धून ल्हवूच जाणटेल्याक विचारलें,

– आनी दुड्डू?

– तुवें दुडू मागल्यार तो मातयेमोलाक व्हरतलो. हांवें सांगलां ताका काशीमाकच दी म्हूण. काशीमाली सदची वाट ही. तोय वळखता ताका. काशीमाक सांग तूं, हांवें अशें सांगलां म्हूण.

सिद्धूक सूऽ जालें.

ती रात हलसिद्धूक थंयच सारची पडली. अशरूमियां कडेन मागून हाडिल्ल्या कद्यांत थोडी पेंड फुगयली. यल्लम्माचो प्रसाद वांटचो तशें तें कदें सगल्या बैलां मुखार भोंवडायलें. मागीर कद्यांत उदक ओतलें. एकामेकांक धोंगशीत बैलांनी मेळटा तितलें चाटून घेतलें. उपरांत बैलांक कंवडाळें करून बसयले. मदीं तागेलो बुद्दू बसलो रवंथ करीत.

आम्मान सिद्धू खातीर दिल्ली भुती लुगटाचे पोतयेंत धालून बुद्दूच्या शिंगांक खुंटयाळ्याक हुमकळावची तशी लायिल्ली. सिद्धून ती काडली. बैलाक पिवयिल्लेच बाटलेंत उदक घेवन आयलो. आनी कुशीच्या घोडगेरुखा मुळांत ताणें बस्तान मांडलें. बरोच फोंड पडिल्लो जावंये पोटांत. लसणीचे चेटणेक लावन तीन जोंधळ्याच्यो भाकऱ्यो खावन लेगीत आनेक खायन दिसली. पूण वानसा मारून ताणें भुती धांपली. तश्यो भाकऱ्यो आजून अर्द्यो उरिल्ल्यो. पूण परतीचे वाटेक पावोवन खावपाक जाय न्हय? उदक पियेवन धेंकर दीत तो घोडगेरुखा मुळांत लवंडलो.

असलोच घोडगेरूख तागेल्याय दारांत आशिल्लो. हाचे परस इलो व्हडच. पूण पोरूं शिंयाळ्यांत सगळो पतरो झडयले उपरांत आतां धा म्हयने सरले तरी आजून आंकरी धरूंक नाशिल्ली. पावसच ना ताका तो कितें करतलो? हजार खांदयो ताका, पूण आसबास काडून सुकिल्ल्यो. थंय सगलेभरच सुकाड पडिल्लो. हांगाच्या ह्या रुखाक काय बरीं पानां आसात पळय. आनी गोंयां वतकीर तर चोंयदिकांनी पाचवेंच पाचवें खंय!

– व्हड जातकच गोंयां वचून राव आनी मनीस म्हूण जिये.

आप्पून सिद्धूक सांगिल्लें. आप्पूक जमलें ना तें पुतान करचें अशी ताची

इत्सा आसली.

खानापूर काडून हाय वे कडसून सात मैल भितर आशिल्ल्या तांगेल्या गांवांत एक्क शाळा नाशिल्ली. आप्पूल्या बापायन खंय बाबासायब आंबेडकरालीं भाशणां आयकल्लीं. ताणें आप्पूक सांगिल्लें,

– शीक आनीक मनीस जा.

आप्पू शाळेक गेलो. मुळावें शिकप घेतलें. पूण तो मनीस जावपाक पावलो ना. उपरांत म्हारवाड्या वयलीं जायतीं भुरगीं शाळेंत गेलीं. हायस्कुलांतूय पावलीं. पूण गांवांत रावलीं तांतलीं कोण्ण मनीस जावंक पावलीं नात. खानापूरा-बेळगांवां गेल्ले भुरगे गांवच्यां परस बऱ्याक पावले. पूण आप्पून तेय परस वेगळें जग पळयलें. तागेले वळखीचे चौग गोंयां राबितो करून आशिल्ले. ते निमतान आप्पू चार वेळा गोंयां वचून आयिल्लो. थंयची जीण पळोवन आप्पून सिद्धूक सांगिल्लें,

– सिद्धू, चड शिकना जाल्यार जाता. पूण व्हड जातकच गोंयां वचून राव आनी मनीस जा.

गोंयां वचून रावतलों आनी मनीस जातलों हें सपन पळयत सिद्धू व्हड जाल्लो. पूण तें साकार जावपाचीं कसलींच चिन्नां दिसनासलीं.

खताल गांवांत पावलो तेन्ना सिद्धूले आशेक कोमरी फुटली. गांवांत दुकळ पडिल्लो. शेतकामत्यांलीं पोटां फाटीक तेंकिल्लीं. खात्यापित्या घरांनी लेगीत एकेच वेळेची रांदन पेट्टाली. मनशांची ही गत्त जाल्यार गोरवांची वासपूस कोण करतलो? जाणट्या गोरवांची गजाल सोडच. तरण्या बैलांचीं लेगीत हाडां मेजूंक मेळटालीं. तातूंत पावस पडटलो हे आशेन ह्या बैलांचे मानेर जूं दवरिल्ल्यान तांचे मानेक खिणां पडून चवनां जाल्लीं. हे गळो लागिल्ले बैल कोणाक उपकरा पडपाचे? पोरां भाशेन वाडयिल्लीं हीं गोरवां आतां जड जाल्लीं.

शेतकामती गळसणलो, हवालदील जालो म्हणटकच खतालांचें फावतालें. तांचें कामूच तें – अडिल्ल्या अडचल्ल्यांचीं गोरवां सवाय दरेन घेवपाचीं आनी पयसुल्ल्या गिरायकांक म्हारगे दरेन विकपाचीं. माथ्यार पगडी घालून खाडयो

कासीम गोंयच्यान मोटरसायकल घेवन झेतान गांवांत आयलो. पयलीं ताणें गांवच्या गरजेवंतांक जोखले आनी मागीर बैलांक मोलायले. हातार पडटा तें मोल लोकांनी चड मानून घेतलें.

सिद्धूलोय बैल आशिल्लो. सिद्धूक तो दिल्लो नाका आशिल्लो. आप्पू ताका कसोच दवरचो ना हेंय तो जाणा आसलो. पूण अजाप म्हळ्यार, आप्पूनच बैल दिवपाचो ना म्हूण सांगिल्लें.

खतालाक गोरवांक आमडून गोंयां व्हरपाक एका मानायाची गरज आसली. कासीम गांवांत आयलो तेन्नाच आप्पून तें पारखिल्लें.

– हो हलसिद्धप्पा! जिवान पळय कसो आसा. हो करतलो तें बैलकाराचें काम.

आनिकूय चौग जाण बैलकार जावपाक फुरफुरताले. पूण जुवान सिद्धूलो आंगलोट आनी ताची उमेद पळोवन खतालान ताकाच वेंचून काडिल्लो. उपरांत आप्पून सिद्धूक आपणाली येवजण सांगिल्ली... त्या खतालाक बैल विकचे परस ताणें घेतिल्ल्या बारा बैलां वांगडा बुद्दूकय सिद्धून गोंयां व्हरपाचो. कासीमाले बारा ताचे सुवादीन करतकच बरें गिरायक सोदून बुद्दूक थंयच लाटपाचो. थंय मोल दुपेटीन तरी मेळटलें... आप्पूली तकली काय बरी चलता तें पळोवन सिद्धू खूश जाल्लो. खतालान गोरवां-वैजा कडल्यान बारांचेच पेपर करून हाडिल्ले. पूण आप्पून म्हणिल्लें – बारा कितें आनी तेरा कितें! कोणाच्याच लक्षांत येवचें ना.

बैलांच्या खुरांक नाल मारून घेवप, तांच्या शिंगांक कुरवेचो पाचवो रंग सारोवप, वेटर्नरीचें सर्टिफिकेट तयार करप – हीं सगलीं कामां खतालाच्या मनशानच करून दिलीं. लोकांनी बैलांक खतालाचे सुवादीन करतना बैलाच्या गळ्यांतलीं घुंगरां, घांटी बी काडून दवरिल्ल्यो. सिद्धून मात बुद्दूल्या गळ्यांतलीं घुंगरां तशींच दवरिल्लीं. विकच्या वेळार मागीर काडचीं म्हूण.

आम्मान रासभर जोंधळ्याच्यो भाकऱ्यो थापिल्ल्यो. लसणीची झणझणीत

चेटणी तयार केल्ली. करतना तोंडान बडबडत आशिल्ली.

– सौंदत्ती येल्लम्माची जात्रा बगलेक पावल्या. पांच राती थंय रावपाक जाय. काम जायनाफुडें तुका येवचें पडटलें. जात्रेक ते अनशीकूय व्हरुंया येल्लम्माच्या पांयां कडेन. तूं परतुपाक कळाव करूं नाका. हे भोंवडेर बरे दुडू जोडले जाल्यार जात्रा उलगनाफुडें लग्न करून हाड अनशीक घरांत.

अनशीक सून म्हूण हाडपाचें निमाणें मानून घेतलें आप्पून आनी आम्मान हातुंतच सिद्धू खुशाल जाल्लो.

पोरूं येल्लम्माचे जात्रे पयलीं एक दीस मांगवाड्यार पाविल्ले कडेन दोनूय हातांनी शेणयो थापतना ताणें पयले खेपेक तिका पळयिल्ली. घागऱ्याचो कासाटो मारिल्लो. पिंदकऱ्या पोलकांतल्यान जुवानपण भायर उडकी मारतालें. पिसुडिल्ले केंस दोळ्यांर देंविल्ले. हलसिद्धूची खिळिल्ली नदर पळोवन ती सावचीत जाल्ली. शेणाच्याच हातांनी कपलार देंविल्ले केंस वयर काडटना पोल्यांकूय शेण लागिल्लें. तें पळोवन सिद्धूक हांसो आयिल्लो. आनी तें पळोवन अनशी लजेल्ली. उपरांत येल्लम्माचे जात्रेक दोंगुल्लेचेर राबितो करून राविल्ल्या वेळार ताणें पर्थून अनशीक थंय पळयिल्ली. पयलीं दोगांय दोळ्यांनीच उलयिल्लीं. निमणे राती सिद्धून तिका ओडून कडेक झिलींनी व्हेल्ली. घट्ट दामिल्ली आनी सांगिल्लें – तूं तुगेले आम्माक सांग. हांवूय घरा सांगतां.

पूण ताणें घरांत सांगलें तेन्ना आप्पान सट्ट करून म्हळें,

– अशें कशें जातलें? ती मांग. आमी म्हारां.

आम्मान फुडें ताणलें,

– मांग आमचे परस उणाक. पूण तीं मात आमकां उणाक लेखतात.

सिद्धून मर्मार बोट दवरिल्लें,

– बाबासायबान हेंच शिकयलां आमकां?

आनी सोयरगत जावन पडिल्ली. आतां चार पयशे गांठीक लागले म्हणटकच लग्न.

ट्रकान बैलाक मोखलो तेन्ना दिशिल्लें, आतां खतालाक वयल्यान हांवें फारीक करचे पडटले. जावं! हो अशरूमियां मेळिल्ल्यान माणसुकी. दर्ग्या कडलो अशरूमियां! आं, हांगा दर्गो आसा तर लागीं. फांत्यार उठनाफुडें दर्ग्यार वचून पांयां पडूंक जाय. पीर कोणूय आसूं. ताचे लागीं मागणें करूंक जाय – बेगीन लग्न जावंदी. अनशीक घेवन पांयां कडेन येतलों.

ते राती अनशीक घट धरीत सावन दर राती हें अशें जातालें... ताणें कूस परतिली. दोनूय पांय दोडून पोटा कडेन घेतले. दोनूय हात जांगडां मदीं घाले आनी पोशेत, सोंशेत रावलो.

चंद्रीम चकचकीत आसतनाच तो उठलो. दर्ग्यार वचून भायल्यानच पांयां पडून आयलो. गोठेल्ल्या बैलांक उठायले. शेणा-मुताचो वास नाकांत भरलो. गांवांत आसल्यार हें इतलें शेण पुंजायल्यार पंचवीस तीस शेणयो थापून जातासल्यो अशें येवजीत फांतें जावचे पयलींच ताणें बैलांक आमुडले.

गोंय लागीं पावता तसो वाठार पाचवो जायत वतालो. सिद्धू वरी बैलांकूय केन्ना काय गोंयां पावता शें जाल्लें जावंये. तांचीय चाल सडसडीत जाली. वाटेर अशीर मोडण आयलें जाल्यार सिद्धू चतरायेन गोरवांक कडेक काडटालो. इतलें आसुनूय फाटल्यान येवपी कांय ट्रक वेठेच स्लो करून दोन गाळी संवून वताले.

दनपार देंवता म्हणसर रस्तो तापलो. आप्पून दिल्ली जोत्यां पार बैलाच्या शिंगाक खोयिल्ली आसली. सिद्धून ती काडून पांयांत घाली. डांबरी रस्त्यांचेर चलपाची ताकाय संवय नासली आनी बैलांकूय. पूण बैलांचे पांय ह्या मार्गाचेर निसरचे न्हय म्हणून तांच्या खुरांक पयलींच नाल मारिल्ले. सिद्धू कडेन जोतीं नासलीं. ताका संवयूच नासली. आप्पू कडेन एक पार आशिल्ली. तीय चामड्याची. ती ताणें खंयच्या तरी देवळांतल्यान फारायिल्ली. तोय ती घाल नासलो. मात नेमान ती घासून पुसून तेल लावन दवरतालो. वर्सांतल्यान एक फावट केन्ना तरी घालून

मिरयतालो. हरशीं मागल्यार लेगीत सिद्धूक पातये नासलो. आतां मात ताणें आपूण जावन काडून दिल्ली. रस्तो तापता तेन्ना घाल म्हणिल्लें. पूण वरभर चलनाफुडें जोतीं लागूंक लागलीं. बैलां वयलें लक्ष घडये घडयेक जोत्यां कडेन वचूंक लागलें. तेन्ना ताणें जोतीं काडलीं. परतीं ते प्लास्टिकाचे पोतयेंत घालीं आनी पोती शिंगाक खोयली. कर्नाटकाच्या मेटार पेपर तपासले.

– कोणालीं? कासीम खतालालीं? बारा आसात न्हय? वच.

गोंयच्या मेटार प्रत्येक बैलाक वासिनां मारलीं. एक एक करून बैल मेजले. काशीमान बारांचेंच कमिशन खावोवन दवरिल्लें. तेरा आसल्यार घडये त्रासांत पडटलो आसलो. तो एक बैल मेल्ल्यान बुद्दू सुटलो.

जालें. पावलों गोंयां. हांगाच खंय तरी काम सोदूंक जाय. बिराड पळोवंक जाय. मनीस जावंक जाय.

आप्पून सांगिल्लें, खताल दितलो ते पयशे घेवन रितो येवं नाका.येतना त्या पयश्यांच्यो सोऱ्याच्यो बाटल्यो हाड. गोंयां सोरो सवाय. खानापूराक व्हरून विकल्यार दुडू दोबराद जातले.

आप्पूली वेव्हारी वृत्ती देख घेवपा सारकी. पूण थोडे पयशे खर्चुंकच जाय. आप्पू-आम्मी खातीर आनी अनशी खातीरूय कितेंय तरी व्हरूंक जाय गोंयच्यान.

कासीम खताल ताका तिस्कार मेळपाचो आसलो. मेटार सावन चार वरांची वाट म्हूण सांगिल्लें ताका. पावता म्हणसर मध्यान जायत येतली. तेपरस हांगाच खंय तरी रातीचो राबितो केल्लो बरो.

सिद्धून मार्गा कुशीक उकती सुवात सोदून काडली. पर्थून बैलांचें कंवडाळें घालें. मदीं बुद्दूक बसयलो. भुती सोडली. आनी मागीर कालचे वरीच पांय दोडून पोटा कडेन घेवन अनशीची याद काडीत न्हिदलो.

फांतें जावचे पयलींच बुद्दूच्या गळ्यांतलीं घुंगरां चालीच्या तालार किणकिणूंक लागलीं. चोंयवटेन पाचवोचार वाठार. वाटेवाटेर उदकांच उदकां. वाड्या कणकणी भौशीक नळ. अनशीक हांगा कसलोच त्रास जावचो ना. हांगचो लोक

खूब बरो खंय. हांगाच रावप. मनीस जावप.

एका देवळा कुशीक सभा चलिल्ली. कोण तरी सदरो घाल्लो फुडारी तावातावान भाशण करतालो. लोक ताळयो पेट्टताले. सिद्धून चाल उणी केली. वोत दोळ्यांर मारूंक लागिल्लें. पोटाक भूक लागिल्ली. हांगाच सोडोवंया भुती आनी खावंया एखादरी भाकरी? काय पावतकीर मागीर खावची?

कसली काय सभा? वेंचणुकेची काय?

– मोनजातीचो मोग करात. जनावरांक पिडापीड करूं नाकात. दुसरो करता जाल्यार आडायात. कायदो तुमचे वटेन आसा. लिपचोरयां कास करतात तांकां लावन दियात. जिबेचे लाड करतना जनावरांकूय दुखता हें आमी विसरतात. कुकडां–बोकडांक बळी दिवप बंद जावंक जाय. गायो–बोकडां मारून खातात ताकाय आळाबंद जाय.

सभेक आयिल्लो कोण तरी ताळो सरांटून आड्डलो,

– तेवटेन रस्त्यार पळयात. गोरवांक खाटीकखान्यांत व्हरतात!

मायकार उलोवपी फुडाऱ्याक नेट आयलो.

– पळयात. गोमातेक आमी देव मानतात. बैलाक नंदी लेखतात. हीं गोरवां आमचीं शेतां नांगरतात देखून आमकां पोटभर खावंक जेवंक मेळटा. आनी आमी? ह्या बैलांक मारूंक व्हरतात तें पळोवनूय हात कामरून वगी रावतले?

सिद्धूक तांची भास कळ्ळी ना. सभेंतले लोक चाळवल्ले वरी उठून धांवंक लागले. खंय धांवतात काय म्हूण पळयतासर ते रस्त्यार आयले. कोणें बडी घेतली, कोणें बेठोच बोवाळ घालीत गोरवांक आमुडलीं. बुद्दूय धांवंक लागलो तेन्ना व्हडा येत्नांनी सिद्धून ताका आडायलो. म्हणसर लोक धांवन आयलो. सिदधूक ओडून कुशीक काडलो आनी बैलाक धांवडायलो. बुद्दू धांवतना ताच्या शिंगाक लायिल्ली भुतयेची पिशवी शेंवटून सकयल पडली. सिद्धू पिशवी काडपाक धांवलो. पूण लोकांनी ताका ओडलो.

– बैलांक मारूंक व्हरता? तुमकां बुद्द शिकोवंकच जाय. सण्ण करून एक

थापट सिद्धूल्या कानसुलाचेर पडलें.

- गाय बैलों की कत्तल करता है? तुजी पयलीं करुंया.

पर्थून एकल्याली खोंट सिद्धूचेर पडली. मागीर दुसऱ्याली. चाळवल्ल्या म्होंवामुसां भाशेन लोक ताका पेटूंक लागले. मोनजातीचो मोग करपी ह्या लोकांनी सिद्धूक येतिश्ट पेटयलो.

सिद्धूक मात ह्या मनशांनी आपणाक कित्याक मार घालो हें निमाणे मेरेन समजलें ना.

*****

# कावळ्याच्या शिरापान...

देव-देवस्पणाचे वाटेक हांव केन्नाच गेलोंना. कारण, म्हजो ताचेर मात्त लेगीत विस्वास ना. बाबुसो मात साप उरफाटो. म्हजोच खासा बापोलभाव. आंतऱ्या-पयऱ्यान प्रसादांक धांवता, आनी तरिकूय भागना म्हूण घाडी-भगत करता. भोगचें पडटा मात म्हाका. कालच्यान म्हाका एक्क भाडें मेळ्ळें ना. हरशीं हो टुरिस्ट सिझन. प्रासार एक्क टुरिस्ट टॅक्सी बेकार ना. पूण, पयर मेळिल्लें पांचशीं रुपयांचें एक धाकटुलें भाडें सोडल्यार, म्हगेली गाडी मात बेकार.

'म्हाका खातरी आसा, ह्या बाबुशानच करून घाल्ली करणी ही.' बेजार जावन हांवें घरा परतुपाक दार उगडलें जाल्यार बेर्नादान म्हळें, "आनीक मातसो राव मुरे! कोणूय टॅक्सी सोदूंक येत जाल्यार कोणूय तरी आसललो बरो."

"सकाळच्यान आसां हांगा. एकलो तरी आयला म्हजे कडेन? बेजार आयलो आतां."

"जावं रे! सदीं सारकें आसता? आयज तुगेऽ वगत बरो ना. नशीब गाण्डू तर क्या करेगा पाण्डू?" हिन्दी उलोवपी टुरिस्टा कडल्यान शिकून घेतिल्ली ओंपार

मारून बेर्नाद आपणाचेरच खोशी जाल्लो पळोवन चडच वितरागून हांवें गाडी घरा दिकेन घुंवडायली.

नशीब-बिशीब हांव मानिना. नशिबाचेर भरवंसो दवरता तो शेणटा खंय. खरें, हात पांय हालोवंकच जाय. पूण म्हणून कितें नशीब अजमावचेंच न्हय? वेळ बरो आसल्यार कितल्या जाणांक प्रसन्न जाता! पयस कित्याक? बाबुशालेंच पळोवंया. ज्युस्त दिवाळे पयलीं मटको लागिल्लो ताका. पंदरा हजार रातयांत जोडले नात?

आं, मटको म्हळ्यार मटको. कल्याण आयलो आसतलो. गाडी वासूल्या गाड्यार व्हरून कुशीक उबी केली. दोन सिगरेटी घेतल्यो. थंयच फस्का काडी मारून एक पेटयतां पेटयतां क्लोज विचारलो. पयरच्या भाड्याचे पांचशींय रुपये हांव बत्तिसांचेर खेळिल्लों. फुटलो चौंसश्ट. धपक्याक पांचशीं गेले. भिरके सरशीं गाडी रेस करुनच भायर काडली. जाल्यार - 'कँ, कँ...' तितले भितर सुणें पाड पडिल्लें गाडये पोंदाक येवन बशिल्लें दिसता. आयस-पयसुल्ले म्हजे वटेन पळयताले. पूण रस्ताद सुण्याची काकुळट करपांत कसलें हाशील? तरी बरें, तो मोन्तेर हांगा ना. फाटल्या म्हयन्यांत एक फावट गाडी घरांतल्यान भायर काडून मोडणार मात पाविल्लों, वाटे वयलें एक माजर गाडये पोंदाक पडलें जाल्यार केदो आकांत केलो ताणें! 'पॅटा'चो वांगडी खंय तो. म्हाका समजलेंच ना. मागीर मंदारान सांगलें, तो मोनजात-मोगी म्हणून. 'तूं मोनजात-मोगी जाल्यार तुज्या घरा,' हांवें मनांत म्हणिल्लें. पूण तो बरोच तिडकल्लो. ''रस्तो विकतो घेयलो म्हूण समजों नाका. पर्थून तुजे गाडये पोंदा सुणें-माजर पडलें जाल्यार हांव सोडपार ना. आं - सांगून दवरतां.'' काम ना धंदो ताका. रिटायर्ड जावन हांगा घर बांदून रावता. शेजारी मेळ्ळ्यात ते लेगीत असले.

गाडी लॉक करून भितर सर जाल्यार शागोतेचो घमघम. आमगेर कांय आयज चिकन-मटण हाडूंक ना. बाबुशाले रांदनीर शिजता आसतलें. पयर एक दीस नलीन म्हणिल्लें, ''बाबुशाक आयजूय मटको फुटला दिसता.''

''कित्याक म्हणटा?''

जाल्यार नलीन म्हणिल्लें, ''आमोरेचेर हांवें बाबुशाक गांवठी कोंबो घेवन येतना पळयिल्लो. रोहिदासान ताका तोंडार विचारलें - मटको लागलो, कितें रे? जाल्यार देर मुरगुटत मुरगुटत भितर गेलो.''

बाबुशाचें चित्र काडूं नजऽ. मटको फुटलो म्हूण कोंबो हाडटा, काय देवस्पण करता, देव जाणा! दोळेफुटको खंयचो! चार कुडी दिल्यात न्हय तुका? राव सुखान! पूण ना. ताका खंय समान वांटो जाय. हांवें स्पश्ट सांगलां - हक्क जाय? वच कोर्टांत. हांव तुका आनीक सुवात दिवपाचो ना. हांव कायदो मानतां, आनी तुका फावता ताचे परस इल्लेंय उणें दिवंक ना. पूण बाबुशाक कायद्या परस घाडी व्हडलो दिसता.

हात-पांय-तोंड धुतकच मातशी ताजबाण आयली. नलीक उलो मारून च्याक उडोवपाक सांगलें आनी वल्तेरार बसलों. आज्यालें वल्तेर खंय हें. पुर्तुगेजां मुस्तींतलें. आजो म्हगेलो राटावळीकार. हाडाचो वेपारी. पयलीं घांटा वयल्यान लिपचोरयां लिंबू, कोथमिरे भाजी, संत्रां असलो वेपार हाडून गोंयां विकतालो. चार पयशे हातांत येतकच ताणें खंय वटावाचो धंदो सुरू केलो. मुंबय वा घांटा वयल्यान कोणूय आयल्यार तांचे कडल्यान इंडियन रुपये घेवन तांकां इश्कूद दिवप, आनी गोंयच्यान कोणूय भायर वचपाचो आसल्यार ताचे कडसून इश्कूद घेवन ताका रुपये दिवप. वटावाचो धंदो तेजींत चलपाक लागलो. दुडू घोळपाक लागलो तशें ताणें भांगराचें नेगोस सुरू केलें. गोंयचें सवाय दरेचें भांगर घेवप आनी आडवाटेन शीम हुंपून देडयेन विकप. आज्याक दोग पूत. व्हडलो म्हजो बापूय. ताचो आज्याक खूब आदार. बाबुशालो बापूय मात पयलीं सावन आज्याच्या विरोधांत . 'म्हाका नाका तो ब्लॅकाचो धंदो' अशें म्हूण पयस मिना खणीर सुपरवायझर म्हूण नोकरेक लागलो. हें घर आज्यान बांदिल्लें. पूण जमनी खातीर कोमुनिदादीच्या इश्क्रिव्हांवाक सागवादी धाडून गुठलावपा पासून पाख्याचेर नळे चडऽ मेरेन सगल्या बांदकामाचेर देखरेख आशिल्ली ती म्हज्या बापायलीच. बापायनच सांगिल्लें हें म्हाका - तेंय बाबुशा हुजीर. पूण बाबुसो सुवार्थी. घर

आज्यालें इतलेंच तकलेंत घेवन रावलो. बापोलयो म्हजो थंडी–भारकुणाचें नीब जावन मेलो तेन्ना बाबुशालें लग्न लेगीत जावंक नासलें. लग्न जालें आनी बाबुसो वांट्याक उबो जालो. ताका कित्याक म्हूण हांवें अर्दें दिवपाचें? म्हळें, एके कुशीच्यो त्यो चार कुडी तुका घे, आनी कर संवसार. सभाग्यान रागान मदलें दारच बंद केलें. नली तेन्ना बाळंटीण. कपील स म्हयन्यांचो जावचे पयलींच बाबुशान फुडल्यान दुसरें दार फोडून वेगळें एंत्राद केलें. हांवें म्हळें, बरेंच जालें. ताचें बरेपण घेवन म्हाका तरी कसलो फायदो? हांव जाणा, नलीन देवके कडले संबंद तोडले नात. दादल्यांक कळऽ नासतना तांचे मदीं गजाली चलतात. घरांत साकर, दूद, मिरसांग चड–उणें जाल्यार भायले भायर एकामेकांक पावतात. हांव आडनदर करतां. नली बाळंत जाल्लें तेन्ना देवकेनच बाळंटेर काडिल्लो, आनी माधुरीच्या वेळार देवकी बाळंत जाल्ली तेन्ना नलीच पाविल्लें तिका. हांवें इतलेंच म्हणिल्लें - अती जावपाक दिवं नाका.

"विमलाचो फोन आयिल्लो," च्याचें कप म्हज्या हातांत दीत नलीन सांगलें. "नंदिनीचें लग्न थारलां खंय."

"कोणाचें?"

"व्हडले धुवेचें. तुगेले भाचयेचें. आयतारा येतलें खंय. तुका घराच राव म्हूण सांगलां."

"हांव कितें सिर्विसेक वतां, आयताराचो घरा रावपाक?"

"तूं सांग ताका तशें -"

"तूंच सांग. ताका म्हणचें, ते वटेन पावतलों तेन्ना हांवच येवन मेळटां."

विमलाची खबर आयली आनी च्यावे वयली वानसाच गेली. लग्न जायसर विमल काय बरें चलतालें. इतलें घालून करून दिल्लें. पूण पयलें भुरगें जालें आनी परिस्थिती इबाडल्या म्हूण पयशे मागूंक आयलें. तिडक मारिल्ली. पूण गिळ्ळी. कितलीय जाल्यार भयण ती म्हजी. हांवें तोंड धांपून धा हजार ताच्या हातार दवरले. मात म्हळें, सगलें कायद्यान सारकें आसूंक जाय. वकिला कडसून

पेपर करून घेतले, आनी विमलाची आनी ताच्या घोवाचीय सय घेतली. शाणेपणच जालें तें. कारण बाबुशान कान फुंकले तांचे, तुमी वांटो मागात म्हूण सांगून. विमल घोवाक घेवन आयलें तेन्ना हांवें स्पश्ट सांगलें - "हें घर आनी फाटलो जागो बापायलो. ताचो पूत ह्या नात्यान हें घर आनी जागो म्हाका येणें." जाल्यार हें तणतणलें, "आज्यान गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं भांगराच्यो लडयो घेवन दवरिल्ल्यो. आईनच सांगिल्लें म्हाका. ताचो तरी वांटो दी मरे!"

"चार लडयो त्यो. तुका लग्ना वेळार भांगर-शिंगर घालां तें तांतलेंच."

"आनी आईच्या आंगार इतलें सगलें -"

"विमल, तूं म्हजी तकली खावं नाका आं! हांव ह्या घरचो व्हडलो पूत. आईच्या आंगा वयल्या वस्तींचेर तिगेले सुनेचो अधिकार. तुजे सासमायच्या भांगराचेर तुजो."

विमलाचो घोव कोर्टांत वचपाची भास उलोवंक लागलो तेन्ना मात फोडणिशी करचीच पडली. आपणालो वांटो पावलो म्हूण दोगांयनी सय केल्लीं कागदां दाखयलीं तेन्ना तोंडां बंद जाल्लीं. हे खबरेक धा एक वर्सां जातलीं. आतां धुवेच्या लग्नाचें नीब करून विमल पर्थून हात पातलायतलें. कितें सांगपाचें ताका? भाचयेक कानांतली वेड, वा कांय न्ही जाल्यार, नाका काडी तरी घालुंकच जाय. पूण तांच्या दोळ्यांत वतलें तें? आयज भांगर पावलां खंय!

मेजा वयलो मोबायल वाजूंक लागलो. हांवें उखल्लो ना. विमलाचोच आसतलो.

नली आयलें. "रिंग आयकत बसला सो? तें कितें संगीत शें दिसलें?"

फोन उखलनाका म्हूण सांगूंक वतालों. तितल्यान नलीन घेतलो लेगीत.

"घे. तुकाच. बेर्नाद म्हूण कोण उलयता."

फोन घेतलो. "कितें जालें बेर्नाद?"

"तुका सांगललें मुरे हांयें? हें चय, भाडें येयलां. लाँग डिस्टन्स. चान्स घे. बेगीन यो."

“कोण आयला? खंय वचपाचें?”

“चौग जाण येयल्याय. वयले टुरिस्ट. तेंकां बागोलकोट वचोंक जायें. तेंगे कोण मेला खूंय. आतां रातीन भायर सरोन फांतोड मेरेन थिंगा पावोवन येवपाचें. पांच हजार फारीक करूंक रेडी आहाय. चड मागल्यारूय घडये ॲग्री जायीत ते. वयता मुरे?”

अनमनलों. दोन दीस भाडें नासून वितरागिल्लों. पूण – फाटल्या शुक्रारा शिवा घाडयागेर पाविल्ले कडेन ताणें म्हाका शिटकावणी दिल्ली. “चार दीस सदची वाट सोडून पयस वचूं नाका. गाडयेक आनी जिवाकूय धोको आसा.” पूण हे गजालीक चार दीस उलगल्ले. मुळांतच म्हजो घाडयांचेर चडसो विस्वास ना. त्या चार दिसांनी कांयच घडूंक नाशिल्ल्यान घाडपणा वयलो विस्वास सामकोच उणो जाल्लो. पूण – घाडयाले चार दीस म्हळ्यार मेजून चारच कित्या वयल्यान? ते टुरिस्ट घांटी. रातीचो प्रवास. तोय गोंया भायर वचपाचो. फार्टी त्या बस्त्यांवाक वाटेर मारून उडोवन तागेली गाडी घेवन पळून गेल्ले ती याद जाली.

“सॉरी, बेर्नाद. आयज पावचों ना हांव. आनीक कोणाकूय सांग.” अशें सांगून फोन दवरलो.

हांव घाडया कडेन पावतलों अशें हांवें केन्नाच धरूंक नासलें. पूण बाबुसो हालीं कोर्टांत वचपाची तयारी करूंक लागत सावन मन आकूळपिकूळशें जाल्लें. निळकंठा कडेन मन उकतें केलें तेन्ना ताणेंच म्हळें, “शिवा घाडयाली करणी सामकी खर. बाबुशाक तो पेजेक लायले बगर सोडचो ना.” म्हळें, पळोवंया तरी!

लांब विस्कटिल्ल्यो जटा, पिंजर थापिल्लें रुंद कपल, गळ्यांत मोट्या मणयांच्यो आनी रुद्राक्षांच्यो माळो आनी गिरीगिरी घुंवपी तांबडेगुंज दोळे – शिवाचो तो अवतार पळयतकच मात म्हाका थोडीशी थाकाय मेळिल्ली.

“तूं रावता ती मठी कोणाची?”

“म्हजी.”

“वडिलांची. देखून तुजी.”

“हय सायबा.”

“घरा फाटल्यान जागोय आसा –” सांगता काय विचारता, कळनासलें.

“हय सायबा. वडिलांचोच.”

“भाव वांट्याक उबो रावला –”

“बापोलभाव.”

“तेंच तें. तो करणी करता –”

“हय सायबा.”

निळकंठान बी पयलींच सगलें सांगूंक ना मूं हाका?

“मठयेक मोल ना...”

“चड ना सायबा.”

“पूण जाग्याक आसा...”

“हय सायबा.” तो बिल्डर मोलावणी करता तेंय खबर आसा काय हाका?

“दुसरें घर थंय येवंक सोदता–”

“...”

“पूण भावाली करणी आड येता–”

“हय सायबा.”

“पयलीं भावाचो बंदोबस्त करूंक जावो –”

“हय सायबा.”

“कोंबो हाडून दी.”

“दितां सायबा.”

‘तूंच हाडून घे, हांव दुडू दितां’ म्हणपाचें जिबेर आयिल्लें. पूण घडये देवाक राग येत म्हूण ‘हाडटां’ म्हळें. आनी निरोपाची बिबूत हातार दितना ताणें ती शिटकावणीय दिल्ली – चार दीस पयस वचूं नाका, गाडयेक आनी जिवाकूय धोको आसा, म्हणपाची.

परततना वाटभर तेंच येवजून येतालें – 'दुसरें घर थंय येवंक सोदता.' शिवाक अंतर्ज्ञानान कळ्ळां आसत काय? पोरुंच्यान 'न्यू होम बिल्डर्सा'चो नोरोन्हा म्हजे फाटीक लागला. घरा सयत सगलो जागो मागता. रावपाक दोन फ्लॅट, आनी ते भायर पंचवीस लाख दितां म्हणटा. एक फ्लॅट बाबुशाक दिवपाची म्हजी तयारी आसा. पूण बाबुसो आयकून घेना. अर्दे दुडू आपणाक येवपाक जाय म्हणटा. हें अती जालें. एका फ्लॅटा भायर ताका कितेंच दिवपाची म्हजी तयारी ना. बाबुशाली करणी नव्या घराक आड येता खंय. ताचो बंदोबस्त करपाचें उतर शिवा घाडयान दिलां. आतां रोखडोच ताका कोंबो पावोवपाक जाय.

''त्या बेर्नादान फोन कित्याक केल्लो?'' मदींच येवन च्याचें रितें कप उखलीत नलीन विचारलें.

''भाडें मारता काय म्हूण विचारतालो. ना म्हळें हांवें. तें आसूं. एक सांग गो, बाबुशान कोंबो खंयच्यान हाडिल्लो काय?''

''तें म्हाका कशें कळटलें? कित्याक?''

''हरशींच. पूण म्हाका एक कोंबो जाय जाल्यार खंय मेळटलो?''

''म्हज्यान सोलूंक बसूंक जावचें ना, आं! पयलींच सांगतां. ते परस बाजारांतल्यान ब्रॉयलर हाड – कातरून मेळटलो.''

''खावपाक न्हय गो! पूण जाय म्हाका. मातशी खबर काड आं! मारुतीक सांगून दवर. जायूगेरूय मेळत. त्या फुलामेनाकूय विचार. तागेल्या दारांत कुकडां भोंवतात सद्दां.'' नली मुखावयलें कितें तरी विचारूंक वता शें पळोवन हांवें ताका शिटकायलें, ''आतां कांयच विचारूं नाका म्हाका, आनी कोणाक सांगुंकूय वचूं नाका. सांगतां तितलें आयक, समजलें?''

''समजलें. जेवपाक यो म्हूण सांगूंक आयिल्लें जाल्यार इतलें सगलें आयकून घेवचें पडलें.'' फणफणत नली भितर गेलें.

हरशीं कितेंय आसूं, नलील्या हातचें जेवण कितलें सुरबूस जाता म्हूण सांगूं? बांगडुल्यांचें हुमण, बांगडुल्यांचें सुकें आनी तळिल्ल्यो बांगडुल्योच. पूण धा

तरांचीं पक्वान्नां खाल्ले वरी जालें.

धेंकर दितां थंय आसा. शेजाराक बोब जाली.

"देवकेचो आवाज न्हय?" नलीन हुसक्याभरीत ताळ्यान विचारलें. म्हणसर माधुरी धांवत आयलें, "काका, डॅडीक कितें जाता पळय. मातसो यो न्हय!"

मदलें दार काडचें शें दिसलें. पूण दोर्शी वटेन खिळयो घाल्ल्यान भायरसून वचचें पडलें. पळय जाल्यार बाबुशान दोळे वरशे केल्यात. हांवें सोमतीच गाडी काडली आनी दोतोराक घेवनच आयलों.

"हार्टाचें आयलां. जाता तितले बेगीन हॉस्पिटलांत व्हरात."

१०८ क रावनासतना हांवें दोतोराच्याच आदारान बाबुशाचो फोपसो देह म्हजे गाडयेंत चेपलो. चड हालोवं नाकात म्हूण दोतोरान शिटकायिल्ल्यान सवकासायेन गाडी चलोवन हॉस्पिटलांत व्हेलो. वांगडा देवकी आशिल्लीच. बाबुशाक सोमतोच आयसीयूंत व्हेलो.

"चोवीस वरां वचूंक जाय. एक अॅटेक येवन गेला," डॉक्टरान सांगलें.

रार्ती नलीन माधुरीक आमगेर हाडिल्ल्यान देवकेक सू जाल्लें. सकाळीं नली हॉस्पिटलांत वचून आयलें. हांव गोंदळिल्लोंच उरलों. जो बाबुसो म्हाका दोळ्यां मुखार नाका आसलो ताचेच खातीर हांव बोवाळटालों.

दुसऱ्या दिसा सांजचो म्हळ्यार बाबुसो निवळपाक लागलो. डॉक्टरान 'घरच्यांनी ताका मेळूं येता, पूण चड उलोवपाक लायनाकात," अशें सांगलें. देवकेक सू जालें. मागीर नली माधुरीक घेवन भितर गेलें. बाबुशान माधुरीक जाप दिली, पूण नलीचेर नदर लेगीत घाली ना खंय. म्हजी मात्त इत्सा नाशिल्ली ताका वचून मेळपाची. पूण तिसऱ्या दिसा नाका तोंडा वयलो ऑक्सिजन मास्क काडून जातकच, वयलेचाराक तरी खबर घेवची म्हूण भितर गेलों. सोराच्यो बाटल्यो वयर हुमकळटाल्यो, आनी हाताक सुयो तोंपिल्ल्योच आसल्यो. दोळे धांपिल्लेच आसले. "आसूं, उठावं नाका" म्हूण सांगता आसतनाय देवकेन ल्हवूच बाबुशाच्या कानांत सांगलें, "देर आयला."

दोळे उगडून बाबुशान म्हाका पळयलो आनी ताची मुद्रा उग्र जाली. तोंड घुंवडावन ताणें दोळे धांपले. देवकेकूय तें मानवलें ना. कितें करचें तें म्हाकाय कळना जालें.

“अशें कितें करता?” देवकेन ल्हवूच ताच्या काना कडेन म्हळें. ते बराबर बाबुसो तिडकलो, “ताका सांग, वच हांगासरलो.”

हांव वचपाक घुंवलों.

“हांव जाणां, तो म्हजें मरण पळोवपाक आयला. पूण ताका सांग, हांव मेल्यार लेगीत ताची फाट सोडचों ना.”

हांव भायर सरलों. साबार वर्सां बाबुशाक वळखतां आशिल्ल्यान हीं ताचीं उतरां म्हाका अप्रूप दिसलीं नात. फकत हे आवतिकायेंतूय ताणें –

“रागार जावं नाका आं! तुवें इतलें केलें – पूण हो तसलोच. बरो ना म्हूण समजून विसर –” देवकी भायर येवन खालतेपणान उलयली.

तिडकून सो हांव घरा आयलों.

“कितें जालें?” नलीन विचारलें.

“जातलें कितें? कोणाच्या बऱ्याक वचचें न्हय इतलें खरें.”

घरांत माधुरी आशिल्ल्यान जावये, नलीन अदीक कांय विचारलें ना.

बऱ्याक गेल्यार वायटाक येता हो अणभव म्हजो पयलोच न्हय. पांचवेक माधुरीन शाळा बदल्ली, आनी नवे व्हडले शाळेंतूय वर्सुकी परिक्षेंत तें पयलें आयलें तेन्नाची खबर. नाय जाल्यार म्हाका माधुरीची इली चड अपुर्बाय. तेंय भुरगें लागोळें. हांवें मुजरत पाव किलो पेडे घेतले, आनी बाबुसो घरा नासच्या वेळार कपिलाक घेवन तेवटेन गेलों. पळय जाल्यार मुखारच बाबुसो.

“कितें काम काडलें?” दुबावी नदरेन बाबुशान विचारलें.

“माधुरी पयलें आयलें खंय? पेडे घेवन आयिल्लों,” अशें म्हणून हांवें पेड्यांचें बॉक्स माधुरीच्या हातांत दिलें. जाल्यार बेगोबेग बाबुशान तें ओडून घेतलें आनी उगडलें. मागीर तें उकतें बॉक्स कपिला मुखार धरून म्हळें, “तूं पयलीं घे.”

''ताका आसूं. पयलीं माधुरीक -'' हांवें म्हळें.

जाल्यार म्हजेर दोळे मांडून पळोवपाक लागलो. मागीर आपणेंच एक पेडो काडलो आनी कपिलाच्या तोंडांत घालो. कपिलान पेडो खायसर बाबुसो तस्सो उबो रावलो. कपिलाच्या तोंडाक पळयत. कपिलान पेडो खायना फुडें एक हुसकारो बाबुशाच्या हड्ड्यांतसून सुटिल्लो हांवें आयकलो. इतलें सगलें घडसर म्हज्या कपलांतच वचूंक नासलें, बाबुसो म्हजेर इतलो दुबाव खाता म्हूण. तेन्नाच्यान पयर मेरेन हांवें तागेर पांय दिवंक नासलो.

फांतोडेर हॉस्पिटलांतल्यान फोन आयलो. बाबुसो मेलो. कालचे घडणुके उपरांत बाबुशाचेर नदर घालचों ना अशें थारायिल्लें हांवें. पूण आतां 'लागणुकेक फाट करची न्हय' हें नलीलें सांगणें मानून घेवन हांव हॉस्पिटलांत गेलों. देवकेक घरा हाडली. बॉडी ताब्यांत घेतली. शेजारी-पाजारी येवन अंत्येश्टीची तयारी जाली. भटान येना फुडें विचारलें, ''क्रिया कोण करतलो?''

सगले म्हजेच कडेन पळोवंक लागले.

मर्दीच देवकेचो भाव उठलो, ''हांवें केल्यार उपकरता?''

''घरचो मनीस आसतना भायलो कित्याक?'' भटान म्हजे कडेन पळोवन म्हळें. मागीर हांवेंय 'ना' म्हळें ना. लोकिचारा खातीर तरी करचेंच पडलें ना?

बुडकुलो फोडलो आनी अचकीत म्हाका याद जाली. आयज शेनवार. काल हांवें कोंबो पावयतां म्हूण सांगिल्लें शिवा घाडयाक. विसरुनच गेलों ह्या बोवाळांत. आरेच्या! हांव आयलों ना देखून शिवान आपणेंच हाडून कोंबो मारलो काय कितें? भावाचो बंदोबस्त आपूण करतलों म्हणिल्लें ताणें. ताणेंच केलो काय? कारण कालच दोतोरान सांगिल्लें, बाबुसो निवळपाक लागला म्हूण. आनी शुक्रार उलगता थंय आसा, बाबुसो लवंडलो... चवकशी करूंक जाय.

''तीन दीस भायर सरूंक जायना.'' नलीन सांगिल्ल्यान रावचेंच पडलें घरा. तिसऱ्या दिसा सारी भरली आनी चवथ्याच दिसा शिवागेर गेलों.

''कोंबो गावलो ना?'' शिवान थोमण्यान विचारलें.

“तशें न्हय. पूण बाबुसो... बापोलभाव मेलो. क्रियाय म्हाकाच करची पडली.”

कांय खीण दोळे नळ्यांक लावन शिवा वग्गी रावलो.

“भाव तुजो आपल्या मरणान मेलो.”

“हय सायबा.”

“आपशींच?”

“...”

“पूण तूं सुटलो. हय काय ना?”

“हय सायबा.”

“तेचो बंदोबस्त जालो. कोंबो बेगीन पावय.”

“हय सायबा... पूण–”

“पूण कितें?”

“बाबुशान मरचे पयलीं म्हळें – मेल्यार लेगीत म्हजी फाट सोडचो ना.”

“भियेवं नाका. तें म्हजेर पावलें. हवन करचें लागतलें. ते खातीर हजार लागतले. मान्य आसा?”

“हय सायबा.”

“तेचो आत्मो शांत जावंक जावो. बाराव्याची कागूळ व्हयली काय ना तें सांग म्हाका.”

“हय सायबा.”

घरा परतलों. पूण मन हुसक्यार उरलें. मेले उपरांतूय म्हजी फाट सोडचो ना अशी धमकीच दिल्ली न्हय बाबुशान? धाव्या दिसा भटान सामानाची वळेरी दिली.

“भटा, बापोलभाव तो म्हजो.” हांवें अनमनत पूण स्पश्टच विचारलें. “हें इतलें सामान जायच व्हय? परवडपार ना तें म्हाका.”

“मेलेल्याच्या आत्म्यास शांती मेळावया हवी तर हें सगलें व्हावयाच हवें.”

‘‘इतलेंय करून आत्मो शांत जालो म्हूण कशें कळटलें?’’ हांवें दुबाव उकतायलो.

‘‘आत्मो कावळ्याच्या रुपान येतलो. कागूळ व्हरतलो तेन्ना समजतलें तुका.’’

बारावो हरवळ्यां तिर्थार करचो अशें बाबुशाल्या मेवण्यान सुचयलें तेन्ना हांवेंच म्हळें, ‘‘नाका, बारावो घराच करुंया.’’

चिंतलें, बाबुशालो आत्मो ह्या घराचे आशेन लागींच आसतलो. हरवळेंचो कावळो ताचो आत्मो कसो जावं येता! ताचो आत्मो हांगाच घुटमळटलो.

‘‘... मेल्यार लेगीत ताची फाट सोडचों ना...’’ आनी कावळ्यान कागूळ व्हेलीच ना जाल्यार? निळकंठान सांगलें, ‘‘अशें केन्नाच घडना. कावळो उशीर करता कागूळ व्हरूंक, पूण मागीर सांगणें, गाराणें करतकच आफुडटाच.’’... आनी कागूळ व्हेली कावळ्यांनी जाल्यार लेगीत तो आत्मो शांत जातलोच कित्या वयल्यान? घाडयान म्हळां खरें, ‘तें म्हजेर पावलें’ म्हूण. पूण देवस्पणांचेर म्हजो कुड्डो भावार्त ना. ते परस – ते परस, कावळ्याचो बंदोबस्त हांवेंच केल्यार–

दिनाले फार्मासीत वचून हांवें रॅटॉल घेवचे पयलीं ताकाच विचारलें, ‘‘फकत हुंदरांचेंच वीख हें? काय कावळेय मरतले?’’

‘‘हुंदीर, माजर, कावळे... खाल्यार मरतले. पूण पयलीं खावपाक जाय तांणी.’’ अशें म्हणून दिना कुछित्री हांसलो.

‘‘तेजीं फकाणां कित्याक करता रे? तेंगेर पयरच डॅथ जाला. कोण मेलो रे?’’ बोल्सांतलें प्रिस्क्रिप्शन दिना कडेन दीत मोन्तेरीन विचारलें.

‘‘बापोलभाव म्हजो.’’

‘‘सॉरी. माय सिम्पथीस टू यू.’’ अशें म्हूण मोन्तेरीन हात दिलो. तें पळोवन दिनानूय दिलो.

श्राद्ध वाडलें. भटपण सोंपतासर अडेच वरा जालीं. ब्राम्हण तिशठताले. ‘कृष्णार्पण’ म्हळें आनी कागूळ घेवन फाटले वशीन गेलों. पाडसार दवरचे पयलीं हेरांचे नदरे आड म्हगेलें काम हांवें चोख बरें केलें. नलीक लेगीत कांयच कळूंक

दिलें ना.

कावळे लागींच आसले. पूण आफूड नाशिल्ले. खातरीन तांतलो एक बाबुशाचो आत्मो आसुंये. 'खबरदार कोण हात लावशात तर' असो हेर कावळ्यांक धमकायतालो जावंये.

"व्हेली ना?" भटान विचारलें. ताणेंच मागीर देवकेक पाडसा कडेन आफयली आनी सांगणें केलें, "बाबा बाबुशा, कांयच काळजी करूं नाका. ही पळय बायल तुजी देवकी तुका सांगता – धुवेक कांयच कमी करची ना. धिरान घर संवसार करतली. तूं पयलीं तृप्त जा."

देवकेन ल्हवूच म्हळें, "हय सायबा."

आनी अजाप! आमी फाट करतात म्हणसर कावळ्यान झपय मारून कागूळ व्हेली. झपाझप उरिल्लेय कावळे धांवन आयले. म्हळें काळीज थाऱ्यार पडलें. शांत मनान हांवूय जेवपाक बसलों.

सकाळीं खुशाल मनान बाजारांत गेलों. एक गांवठी कोंबो घेतलो. शिवा घाडयागेर व्हरून दिलो आनी टॅक्सी घेवन स्टॅण्डार पाविल्लों मात, घरच्यान फोन आयलो.

"बेगीन घरा यो," नलीन सांगलें.

"कितें जालें?"

"तुका कोण सोदूंक आयल्यात. यो आनी तूंच पळय." भायर जीप पळोवनच मन दुबावलें.

"तुका पोलीस स्टेशनार येवचें पडटलें. तुजे आड कागाळ आसा."

थंयचे थंय इतलेंच कळ्ळें.

सात कावळे आनी दोन सुणीं मेल्लीं – पाडसा वयल्यान सकयल पडिल्लें खावन.

मोनजात मोगी मोन्तेरीन ताचे संस्थेचे वतीन एफ.आय.आर दर्ज केल्ली.

कागूळ दवरिल्लें पान आनी थंय मेळिल्ल्या उश्ट्याचें सॅम्पल पोलिसांनी

एकठांय केल्लें.

फार्मासिकाराचीय गवाय घेतिल्ली खंय.

“पूण – ते तर कावळे –”

पूण म्हगेलें आयकून घेनासतना ते बळयां म्हाका जिपींत बसयताले.

“कां –कां–”

हांवें वयर पळयलें. बाबुसो म्हाका पळोवन कुछित्रीपणान हांसतालो.

*****

# कथाकारान बरयिल्ली कथाकाराची कथा

तीन दिसांच्या साहित्यीक सेमिनारा खातीर दिल्लीक पावलों तेन्ना जानेवारींतलें शीं सामकें बुरके काडटालें. मुंबयच्यान सांजची फ्लायट धरिल्ल्यान गॅस्ट हावजांत पावतासर काळोख पातळिल्लो. रिसेप्शनाचेर चावी घेतना रजिस्टराचेर नदर मारली. सात-आठ वळखीचीं नांवां सोडून उरिल्लीं चडशीं नांवां अनवळखीच आसलीं. आजुनूय डेलेगेटस् येवपाचे आसले.

कॉरिडरांतच कन्नड लेखक के. जालप्पा मेळ्ळो. ''गुड इवनिंग, सर.बरें दिसलें तुमी परते मेळ्ळे म्हूण.'' जालप्पाक हात दिलो. ताचे सरीं एक चुडिदार घाल्ली तिशींतली बायलमनीस आनी थंयच एक साठींतलो फोपसो दादलो उबो आसलो.

''शी इज अ तमीळ रायटर, मीस जयममता -''

''हॅलो! आय ॲम दामोदर'' अशें म्हूण हांवें हात फुडें केलो, आनी तिणें हात जोडल्यात म्हणपाचें लक्षांत आयलें. तीय खीणभर अनमनली. पूण हांवें हात फाटीं घेवचे पयलींच तिणें हात फुडें केलो. हात थंड लागलो. दिल्लींतले

थंडेन म्हणचे परस ह्या साहित्यीक वातावरणांत नर्व्हस जाल्ल्यान जावंये अशें म्हाका दिसलें. हांवें प्रस्नार्थक मुद्रेन म्हऱ्यांत आशिल्ल्या लुंगी न्हेशिल्ल्या जाणटेल्या कडेन पळयलें तेन्ना तिणें म्हळें, ''ही इज माय अंकल, जे. सोमेश्वरम.''

तो घुम्म आशिल्लो. हांवें हात फुडें केलो. ताणें मख्ख तोंडान तो घेतलो. ताका इंग्लीश/हिंदी कळना हें म्हाका कोणें सांगनासतनाच कळ्ळें.

''तोय बरयता?'' हांवें तिका विचारलें.

''नो, नो. तो म्हजो गार्डियन म्हूण आयला.'' म्हाका तें अजापाचेंच शें दिसलें. पूण हांवें कांय म्हळें ना. केन्ना काय कपडे बदल्ल्यार पुरो अशें जाल्लें. बॅग उखलून हांवें 'मेळुंया मागीर' म्हळें आनी रुमा वटयां घुंवलों. कॉरिडराच्या दोशीं वटांनी लायनींत एकामेकां सामकार कुडी आसल्यो. २०५त हांव भितर सरलों. पयलीं हिटर ऑन केलो. इल्ली इल्ली ऊब कुडींत रिगूंक लागली. विमानांत खावप जाल्ल्यान भूक नाशिल्ली. वरभर वाचन करून हांव न्हिंदेचे सुवादीन जालों.

मॉर्निंग वॉक घेतां, न्हातां, कपडे घालतां म्हणसर आठ जावन गेलीं. फुडल्या सत्रांत वाचपाचो म्हगेलो पेपर चाळून काडलो. म्हणसर दारार वाजलें – ''मि. दामोदर!''

''यॅस!'' दारार जालप्पा आसलो.

''टायम फॉर ब्रेकफास्ट. या न्हय?'' हांव तयारच आसलों. भायर पळय जाल्यार ती तमीळ लेखिका आनी तिचो तो अंकल.

''गुड मॉर्निंग, सर,'' तिणें म्हळें.

''गुड मार्निंग – अं – नांव कितें म्हळें?''

''जयममता –'' जालप्पानच सांगलें आनी हांसून फुडें म्हळें, ''म्हळ्यार जया आनी ममता, दोनूय.''

''ओ! जाळवणदारांक टफ टायम दिना मूं?''हांवेंय फकाणां मारलीं.

''हिका पळयल्यार तशें दिसना. नांव सोडून कांयच कॉमन ना.'' तिका

वायट दिसल्यार पासून व्हरपा खातीर जालप्पान तशें म्हणिल्लें जावंये.

तिका पळयल्यार खऱ्यांनीच तिच्यांत कांयच अर्थ नासलो. रंग–रूप साधारण. तोंड निस्तेज. पोले मुमरेल्ले. लांब गळो. केंस गुठलावन घाल्लो आंबाडो. निळशा चुडिदाराचेर गुलाबी स्वेटर. सगलीच मुस्तायकी रंगसंगतीची जाण नाशिल्ले वरी. अस्तुरेक सोबत असली कसलीच सोबिताय तिचे हालचालींत नासली. काल पळयिल्ली तेन्ना तर सामकीच ढम्म कशी दिशिल्ली. पूण जालप्पालो कॉमँट आयकलो आनी अकस्मात सूर लागचो तशी ती उलयली, ''ना कित्याक? दे आर पॅशनेट अबाउट देअर कायण्ड ऑफ पॉलिटिक्स. आय ॲम पॅशनेट अबाउट माय लिटररी लायफ.''

''दॅट्स ग्रेट!'' हांवें थोडेंशें तोखणायेन म्हळें.

तिशींतली ती तमीळ लेखिका, चाळिशींतलो जालप्पा, पन्नाशींतलों हांव आनी साठींतलो तिचो अंकल अशे चार दसकांचे प्रतिनिधी, आमी मॅसा वटयां चलपाक लागले.मदींच अंकल तिका लागीं आयलो आनी फटफट करून कितें तरी उलयलो. निकतीच मुडांत येवपाक लागिल्ली ती लेखिका पर्थून बावकें तोंड करून ताचे फाटसून फुडें गेली.

''राखूंक आयला खंय तो तिका,'' जालप्पान सांगलें. इतल्यान फुडें म्हाका गिरीधर राय मॅसा वटयां वतना दिश्टी पडलो. जालप्पाक फुडें सरतां म्हूण सांगून हांव म्हज्या आदल्या इश्टाक मेळपाक चार धेंपां सडसडीत मारून फुडें सरलों. खबरी मारीत मॅसांत पावले तेन्ना पळय जाल्यार ती तमीळ लेखिका एका मेजार एकलीच बसून नाश्तो घेताली.

तिचे सामकार बसून तिची गिरीधरा कडेन हांवें वळख करून दिली – ''शी इज अ तमीळ रायटर – जयममता.''

''कॉल मी जयता. सिम्प्ली जयता.''

''वा! सुंदरच दिसलें हें नांव!''

''पॅन नेम तें म्हगेलें.''

इतल्यान म्हाका उगडास जालो, ''अंकल खंय तर तुजो?''

''तो पळय, गिळटा थंय आसा आजून.'' हांवें ते दिकेन पळयल्यार खऱ्यांनीच तो बकबकीत खातालो. तिणें फुडें म्हळें, ''खावपाक लागतकच ताका दुसरें कांयच दिश्टी पडना. आमी हांगा भितर सरलीं तेन्ना थंय एकच सुवात रिती आशिल्ली पळोवन तो थंय वचून बसलो म्हूण हांव सुटलीं. आतां खावन जायनाफुडें येतलो म्हाका अॅस्कॉर्ट करूंक.''

तिगेल्या उतरांतलो अंकला विशींचो तिरस्कार इतलो स्पश्टपणान जाणवलो की आयकतल्यांची थोडी कुचंबणाच जाली. आपल्याच काका विशीं – मागीर तो कसोय आसूं – तिरायतां मुखार अशे अनुद्गार काडले तें म्हाका मानवलें ना. इतले म्हणसर जालप्पा भितर सरलो आनी तिणें ताळी मारून ताका शेजारच्या सिटार बसपाक आफयलो. ती ताचे कडेन उलोवपांत गुल्ल जाली आनी हांव म्हज्या हिन्दी लेखक इश्टा कडेन.

इंडिया इंटरनॅशनल सॅंटरांत जावपी सेमिनाराक आमकां व्हरपा खातीर कोच येवपाचो आसलो. कंवळीं वतां आंगार घेत आमी वाट पळयत गजाली करताले. इतल्यान कडेच्या ग्रुपांतल्या एकल्यान जयताक विचारिल्लो प्रस्न म्हज्या कानार पडलो, ''ही तुजी पयलीच खेप खंय दिल्लीक? कशें दिसता तुका हांगा?''

''वा! पांदऱ्यांतल्यान मुक्त केल्ल्या सुकण्या वरी दिसता म्हाका. मेकळे हवेक आशेल्लें मन पांखां पातळावन वाऱ्यार हुबूंक सोदता. पूण... तोऽ पळय, गळ्यांत दोरी घालून एक पोंत हातांत घेवन राविल्लो म्हजो अंकल म्हाका उडूंक दिना. पांय जमनीर उरचे म्हूण पर्थून पर्थून हे वटेन पळयत म्हाका तेळटा –''

हांव कुशीक आशिल्लों. कुतुहलान हांवें ते वटेन नदर मारली. जालप्पा थोडो अस्वस्थ दिसलो. हेर सगळे खो करून हांसले. अंकल मात – कॉमॅंट आपणाचेर म्हूण ताका कळ्ळेंच नासुंये – मखख तोंडान पळयतालो.

कोच येनाफुडें जयता पयलीं चडली. जाणटेलो फाटल्यान उरलो. म्हजे मुखारच जालप्पा आसलो. सोळा वर्सांचे चलयेन तरनाट्या इश्टाक आफोवचो

तसो तिणें ताका, 'हांगा यो, जागो धरला तुका!' अश्या कुरवांनी आफयलो. वाटभर ती जालप्पाक गजाली सांगताली.

आय्. आय्. सी. कडेन देंवनाफुडें जालप्पा म्हजे सरीं आयलो.

"येदोळच्यान तुमचे कडेन उलोवंक सोदतां. ही फाटच सोडिना म्हजी. म्हजें एक काम आसा." अशें म्हणून हातांतलें एक पाकीट म्हजे कडेन दिवन म्हणूंक लागलो, "म्हगेली ही नवी कथा - अणकारीत. म्हज्या इश्टान हो हिंदी अणकार केला. कथा आनी अणकार दोनांय विशींचो तुमचो अभिप्राय जाय म्हाका, केन्नाय - तुमकां वेळ फावता तेन्ना - वाचून दवरात."

फाटीं 'लिटल मेगझीन'चेर तागेली कथा उजवाडाक आयिल्ली तेन्ना म्हजो विस्तृत अभिप्राय हांवें ताका कळयिल्लो. ताका तो खूब मानवल्लो. कथा म्हज्या फोल्डरांत दवरून हांवें 'आं' म्हळें. म्हणसर जयता आयली.

"कितें तें?"

जालप्पाच्या कपलार हयन्हयशी मिरी पडली.

"म्हाका सांगपाचें न्हय दिसता!" अशें म्हणून विरूस जाल्ले वरी तोंड केलें तिणें.

"सगलेंच तुका सांगचें अशें आसा काय कितें? चल या आमी भितर. पयलींच कळाव जाला." अशें म्हणून जालप्पा तिका घेवन फुडें सरलो. फाटोफाट अंकल आपली लुंगी सांबाळीत मख्ख तोंडान चलत रावलो.

उकतावणाचो दबाजो साहित्यीक नदरेन भोव सोबीत जालो. बीजभाशण इल्लें लांबलें. पूण कंटाळो आयलो ना. जेवणा उपरांत सेमिनाराक आरंब जालो. दुसऱ्या सत्रांत म्हजो पेपर आसलो. मुखार देशभरांतल्यान आयिल्ले ल्हान व्हड लेखक-प्रतिनिधी बशिल्ले. बारीकसाणीन पळय जाल्यार जालप्पा दिश्टी पडलो ना. सांजचो गॅस्ट हावजांत परततकीर ताणें दिल्ली कथा वाचून काडूंक जाय अशें येवजून हांवें सेमिनाराचेर मन केंद्रीत केलें.

कथा बरी आसली. हिंदी अणकारांत इल्ले दोश आसले. मूळ कन्नड कथा

सुंदर आसुंये. वाचून दवरतासर दार वाजलें. पळय जाल्यार जालप्पा.

''सॉरी सर, डिस्टर्ब केलें?''

''कितें जालप्पा? तूं जाणा, म्हाका 'सर' म्हणिल्लें आवडना.''

''सॉरी सर, आय मीन – सॉरी! हांव विचारूंक आयिल्लों – वांगडाच या न्हय जेवपाक? कितल्यांक वतले तुमी?''

''आठ ते साडेणव म्हळां तांणी. मॅस लागींच आसा. णवांक वतलों म्हणटां. उपकरना?''

''म्हाका उपकरता,'' आनी अनमनत सो उलयलो. ''एक विनंती आसली – वचचे पयलीं एक वरभर सुमार म्हजे कुडींत बसुंया?''

''जालप्पा, हांवें निकती तुगेली ही सुंदर कथा वाचून काडली. भोवच –''

''सर, आय मीन – दामोदर, आमी मागीर बसून स्वस्थपणान उलोवंया? हांव मातसो न्हावन बी तयार जातां.''

''तूं न्हावन हांगाच कित्याक येना?''

जालप्पा खीणभर अनमनलो, ''म्हजे कडेन आर.सी. आसा. ह्या शिंयांत एकेक पेग मारून जेवपाक या म्हणटालों हांव.''

म्हाका व्हिस्कीची व्हडवीक ना. आनी कोणेंय आफयलो म्हूण हांव पियेवपाक बसप्यांतलो न्हय. पूण जालप्पाक विरूस करप म्हज्या जिवार आयलें.

''हांव दोनशें आठांत आसां. आठ मेरेन येयात,'' अशें म्हणून जालप्पा ताकतिकेन गेलो.

आठांक हांव भायर सरून जालप्पाल्या दारार मारतासर फुडले वटेनचें दार उकतें जालें. म्हजे कुडी सामकार आसली ती जयताली कूड दिसता. ती थंय रावन म्हाकाच पळयताली. तिका हांवें हात केलो. इतल्यान जालप्पान दार उगडलें. मातशी फुडें येवन तिणें थंयसुनच विचारलें – ''कांय प्रायवेट न्हय जाल्यार हांव येवं?''

हांव 'बरं भशेन' म्हणपाक वतालों. म्हणसर जालप्पान बेगबेगीन म्हळें, ''ना,

ना. आमकां प्रायवेट उलोवपाचें आसा.'' आनी म्हाका भितर घेवन ताणें दार धांपलें.

''अशी तोडली कित्याक तुवें तिका?'' नकळटना तिचे विशीं सहानुभुती म्हज्या उतरांनी भरसल्ली.

''ना, सर. तुमकां कल्पना येवची ना. ती सामकी आंगार पडटा. म्हाका जाल्यार तिची भिरांत दिसपाक लागल्या. तुमी जाणात? म्हाका सेमिनारांतलें एक उतर धड आयकूंक दिलें ना तिणें! तुमच्या पेपराच्या वेळार तर ती खट कशी लागली म्हजे फाटल्यान 'भायर व्हर' म्हूण. आपणाले सँडल्स तुटल्यात, नवे घेवपाक जाय म्हणूंक लागली. वाट कळना, हिंदीय कळना म्हूण तिचे काकुळटेक गेलों. जाल्यार ही म्हाका घेवन करोलबाग गेली. सँडल्स घेनाफुडें परतुंया म्हळ्यार 'प्लीज, प्लीज' करीत म्हाका कपड्यांच्या दुकानार व्हेलो. थंय वरभर काडलें. मागीर हिका तान लागली. ज्यूस घेवंया म्हणटासर स्नॅक्स मागयले. निमाणें परतता म्हणसर दिसाची कार्यावळ सोंपिल्ली. तातूंत तिगेलो तो अंकल! आय. आय. सीं.त वांगडाच परततना येद्दे दोळे करून आमकां पळयतालो. शीः! लज शी!''

''जावं, जालप्पा! ती बाबडी पयलीच दिल्लीक आयल्या. भोंवचेंशें दिसलें जाल्यार कितें चुकलें? समजून घे तिका.''

पूण जालप्पाक तिचो विशयच नाका जाल्लो. ताणें मोन्यांनी आर.सी.चे दोन पेग ओतले आनी उदकाची बाटली काडली.

कथेचो विशय येनाफुडें मात जालप्पालें खुमणें फुल्लें. जालप्पाले कथे वयल्यान कन्नड कथेंतले नवे प्रवाह, साहित्यीक मळा वयल्यो घडामोडी, नामनेच्या साहित्यिकां मदलें राजकारण अश्यो खबरी मारतां मारतां णव वरां जावन गेलीं. 'उठुंया आतां म्हणीत हांव उबो रावलों तरी 'वन फॉर द रोड' म्हणून जालप्पान आनीक अर्दो अर्दो पेग ओतलोच.

आमी मॅसांत पावले तेन्ना चडशे जाण जेवन उठिल्ले. जयतालो अंकल निकतोच आंवपाक गेल्लो आनी जयतालेंय जेवण सोंपत आयिल्लें. जालप्पान

बळयां पयल्यानचें मेज सोडून काडलें. जयताले नदरेंतल्यान तें सुटलें ना. ती निमाण्यो उंडयो बेठ्योच घोळयत जेवता अशें दिसलें म्हाका.

जालप्पा गजाली मारीत जेवतालो. म्हजें लक्ष मात नकळटना तिचे वटेन वतालें.

ती जेवन उठसर जालप्पा जेवीत रावलो. मॅसांतल्यान परतुपी आमी निमाणे. गॅस्ट हावजाच्या कॉरिडरांत पळय जाल्यार जयता उबी.

''तुमकांच रावतालीं. म्हाका घरा मातसो एस्टीडी करून येवपाक जाय. तुमी म्हाका कंपनी दिवशात?'' ती उलयताली आमकां दोगांकूय उद्देशून. पूण जालप्पान आपणा वांगडा येवचें अशें तिका दिसतालें.

'तूं चल तिचे वांगडा' अशें जालप्पाक म्हणूंक वतालों. म्हणसर ताणेंच तिका विचारलें, ''घराच फोन करपाक जाय जाल्यार अंकलाक घेवन कित्याक वचना?''

''यू नो, आय हेट हिम. तो न्हिदूंक गेलो सो पळोवन हांव परतलां. चलात न्हय म्हजे वांगडा, प्लीज!''

म्हाका तिची काकुळटच दिसली. ''कमॉन जालप्पा! दिवंया तिका सांगात. पयस कांय ना.''

''सॉरी सर. म्हाका पुरो जालां. तुमी चलात. हांव वतां न्हिदूंक.'' आनी जालप्पा गेलोच. खीणभर तो गेलो तेवटेन पळोवन ती म्हजे सरीं आयली. ''थँक्यू सर!''

हांवें 'येतां' म्हणचे पयलींच तिणें दिनवासून सोडिल्लें. ''प्लीज, सर म्हणूं नाका म्हाका,'' हांवें म्हळें.

''तुमी इतले सिनियर लेखक – हांव नांवान कशी उलो मारूं?''

''पिरायेचे ज्येशठते परस कलेचे श्रेशठतेक मान दिवचो. हांव पिरायेन व्हड आसन. पूण तुजे वरीच एक लेखक. नांवान उलो मारल्यार आवडटलें म्हाका.''

चलत चलत पब्लीक फोन बुथा कडेन वतना तिणें पयलो प्रस्न केलो –

“म्हाका टाळून येदोळ तुमी असल्यो कसल्यो प्रायव्हेट गजाली करताले?”

“कांय खास न्हय. ताचे कथे विशीं –”

“हांव जाणां, तुमी म्हज्योच खबरी करताले,” तिणें दुखाविल्ल्या ताळ्यान पूण निश्टून सांगलें.

“प्लीज बेठोच गैरसमज करून घेवं नाका.” इतल्यान म्हाका बरें नीब येवजलें. “खरें सांगूं? आमकां ड्रिंक घेवन बसपाचें आसलें. थंय तुका कशी आफोवपाची? कळ्ळें तुका?”

खीणभर ती अनमनली. विस्वास दवरचो काय न्हय?

“तुमी ड्रिंक घेतलां?”

“हय. विस्वास बसना?”

“आं करून दाखयात!” तिणें हट केलो, आनी भुरगेपणां शीं हांवें आं करून वास घे म्हळें. तिणेंय बगलेक येवन हुंगून घेतलें. तिणें लायिल्ल्या चेराचो वास घम्म करून म्हज्या नाकांत भरलो.

“म्हाका मात्त आवडना,” तिणें म्हळें.

“तुका कोण घे म्हणटा तर?” हांवें परती जाप दिली.

“आय मीन, म्हाका ड्रिंक घेवपी आवडनात.” तिगेली स्पश्टोक्ती आयकून हांव गणमणलों. तिच्याय तें लक्षांत आयलें. तिणें रोखडीच मखलाशी केली, “तुमचे विशीं म्हळें ना हांवें. आय लायक यू.”

हांव अदिकच गणमणलों. “तसो हांव पियेना. केन्नाय कोणाकूय कंपनी दिवची पडल्यार ग्लास हातात घेतां, इतलेंच.”

नकळटना हांव स्पश्टीकरण दिवंक लागिल्लों. ती हांसली. “हांवें कित्याक म्हळें जाणा? म्हजो बापूय सोरो पियेता आनी मागीर नाका जाल्लें बडबडटा. म्हाका तिडक मारता... पूण ह्या असल्या शिंयांत ड्रिंक बऱ्याक पडटा खंय न्हय?”

कँपसाचे गेटी कडेन पावतासर शुभदा वांगडा खबरो मारीत परतुपी बलराजान

म्हाका हडकिलो. ''हॅलो दामोदर, नायट वॉक?''

''यॅस. तुमी परततात आनी हांव वतां, इतलोच फरक.''

''वॅल, बरी जावंदी पासय - यंग कंपनींत -'' आनी साठींतल्या शुभदा वांगडा बलराज फुडें कडसरलो.

''बंगाली लेखिकेच्या सांगातांत पंजाबी लेखकाक पिरायेचें जाणटेपण जाणवलें दिसता.'' जयताल्या कॉमॅंटान म्हाका हांसो आयलो, आनी तिचे विनोदबुद्‌दीची तोखणायूय दिसली.

चलतां चलतां जयता लागीं आयली. ''शिंयान जीव कुडकुडटा सामको...'' पयलींच दिल्लींतली ही शिंया रात. तातूंत सुमाराचो सो वारोय सुटिल्लो. ''दामोदर, यू मायण्ड? हांव मातसो हात धरूं तुमचो?''

आनी जापेची वाट पळय नासतना जयतान म्हजो हात हातांत घेतलो. सामको थंड जाल्लो खरो तिचो हात. हांवें तिचो हात म्हज्या दोनूय हातां मदीं धरलो आनी घसघशीत चोळ्ळो. तितलीच हूनसाण तयार जाली.

''थॅंक्यू, दामोदर. बरेंऽ दिसलें.'' अशें म्हळें खरें. पूण हात सोडयलो ना. एका हातांत म्हजो हात धरून चलत रावली.

''तुजे येदें चली आसा म्हाका.'' हांवें अशें कित्याक सांगलें, म्हाकाच कळ्ळें ना. तिणें सट करून म्हजे नदरेक नदर दिली.

''सो वॉट?''

हांव पर्थून गणमणलों. म्हणसर टेलिफोन बुथ आयलो. ती घरा कडेन फोन करून कितलोसोच वेळ उलयत रावली. बील वाडटा तें पळयतालों हांव. बील णव्वदांचेर पावलें तेन्ना तिच्या लक्षांत हाडून दिवचें म्हूण हांवें कुरवेन तिका इंडिकेटर दाखयलो. पूण ती उलयत रावली. हांवेंय घरा फोन करून खबर घेतली. म्हगेलें बील सोळा जाल्यार तिगेलें एकशें सव्वीस रुपया जाल्लें.

''बिलाची हांव पर्वा करिना. म्हज्या घोवा कडेन पयसो कुसता.'' परततना तिणें सांगलें.

"कितें करता घोव तुजो?" हरशीं लेखकाले खाजगी जिणेंत लक्ष घालप म्हाका मानवना. पूण हांगा जयताच आपणाली खाजगी जीण उकती करून दाखयताली. तिचो घोव एक बिल्डर आसलो. ते भायर मांवालो हार्डवॅयरचो धंदो आसलो. बंगलो, मोटारी आसल्यो, दोन भुरगीं आसलीं. एकलें उटीक बऱ्या म्हारगेल्या बोर्डिंगांत आसलें, एक आजून माँटेसरींत वतालें. मांय मांव घरांत आसलीं. सगलीं सनातन विचारांचीं. जावं घरा जावं कुळारा - साहित्यीक वातावरण मात्त पूण नाशिल्लें. धूव लेखन करता हाचें आवय-बापायक कौतूक नासलें, आनी सून बरयता हाची मांय-मांवाक-घोवाक तोखणाय नासली. जयता बरयता हें मांव-मांयक आवडनासलें. पूण घोव म्हणटालो, जे मेरेन तिगेलें बरोवप घरच्या कामां आड येना, आनी जे मेरेन दुसऱ्यांक त्रास जायना ते मेरेन तिका बरोवंदी. म्हणटकीर सकाळीं उठून घरचीं कामां करून भुरग्याक शाळेक धाडून, दनपारचें रांदून दवरून मागीर फुरसद काडून जयता बरयताली.

"म्हगेलें घर म्हळ्यार म्हगेली बंदखण. फकत कागद पेन आसा म्हूण हांव जियेतां."

"म्हाका तुगेल्यो कथा वाचूंक मेळत? हाडल्यात तुवें?" म्हजें कुतुहल जागें जालें.

"हय. पूण तमीळ भाशेंतल्यो कथा तुमी कशे वाचतले? अजून इंग्लीशींत वा हिंदींत तांचे अणकार जावंक नात."

"तुजी एकादरी कथा सांगशीत म्हाका?" हांवें विचारलें.

"म्हजी इंग्लीश तितली बरी ना. हिंदी तर येच ना."

"नासूं. तुज्यान जाता तशी सांग."

"आतां?"

'आतां."

"खंयची सांगूं?"

"तुका आवडटा ती - खंयचीय."

आनी तितल्यान जयतान सांगपाची तयारी केली. गॅस्ट हावजाच्या कॉरिडरांतल्या एका बांकार आमी बसलीं. साडे धा जावन गेल्लीं. घुसपत घुसपत तिणें कथा सांगपाक सुरवात केली.

''मूळ कथा फर्स्ट पर्सनांत आसा. तशीच सांगूं?''

''सांग.''

''सार सांगतां – जाता तशें.''

हांव ल्हान आसतना बापायन म्हाका एक बावली दिल्ली. म्हाका ती खुब्ब आवडटाली. हांव सद्दां तिका म्हऱ्यांत घेवन न्हिदतालें. पिराय वाडून हांव वयार आयलें आनी म्हजेर बंदनां आयलीं. एस्.एस्.सी. जातकच शाळा सोडून घरा बसपाक लायलें. म्हाका खेळपाक उलोवपाक इश्ट–इश्टिणी नाशिल्ल्यान हांव एकमुळें जाल्लें. आनी एक दीस अकस्मात म्हाका होलमलें – ती बावली म्हळ्यार एक चलो भुरगो आशिल्लो. म्हजेच पिरायेचो. पयलीं पयलीं हांव लजूंक लागलें. पूण मागीर ताका म्हऱ्यांत घेवन गजाली करपांत एक आनंद मेळूंक लागलो. रातीचें लेगीत ताका म्हऱ्यांत घेवन न्हिदूंक लागलें. ताच्या सांगातांत म्हाका भोव सुरक्षीत दिसूंक लागलें. एक दीस शेजारचे एके ल्हान चलयेन बावली खेळपाक मागली. आवयन दिवपाक काडली लेगीत. हांव तिडकलें. ''आगो, तूं आतां व्हड जालां बावल्यांनी खेळपाक. आतां ताका दी ती खेळपाक.'' हांवें म्हळें, ''तो म्हजो. ताचेर दुसऱ्याचो हक्क ना.'' आवयन अजापान भिंवयो वयर केल्यो. ''तो तुजो म्हणजे? बावली मगो ती!'' म्हजी चोरी धरिल्ले वरी जालें म्हाका. पूण हांवें पासून व्हेलें – ''तो बावलो म्हण वा ती बावली म्हण – म्हाका म्हजी वस्त दुसऱ्या कडेन शेअर करूंक आवडना.'' आनी हांव बावली घेवन भितर गेलें. ते रातीं तो बावलो चडच खुशाल जावन म्हजे वेंगेंत रिगिल्लो हांवें अणभवलो... म्हजी एक मावशी चार कोंस पयसुल्ल्या गांवांत रावताली. तिका भुरगेंबाळ नासलें. ती म्हजी खुब्ब माया करताली. म्हाकाय ती खूब आवडटाली. एक दीस ती आमगेर आयली. आवयक म्हणूंक लागली, ''हालीं म्हज्या जिवाक

बरें दिसना. एकलेपणूय सतायता. बायेच्या लग्नाचें थारऽसर तूं ताका आमगेर दवर. म्हाका खूब बरें दिसतलें.'' आवयन बापायक विचारलें. तोय तयार जालो म्हाका धाडपाक. म्हाका कोणेंच विचारलें ना. तरी हांवें 'ना' म्हळें. ''फाल्यां घोवागेर वचपाकच जाय. तितलीच पयस रावपाची संवय जावंदी.'' आवयन म्हळें. मावशेगेर रावपाक वचपाक म्हाका नाका आसलें अशें न्हय. पूण त्या बावल्याक सोडून वचपाक नाका आसलें. ताका वांगडा व्हरचो म्हूण हांवें बॅगेंत भरलो लेगीत. पूण आवयन 'लोक हांसतलो तुका' अशें म्हणून ताका भायर काडलो. हांवेंय चिंतलें – मावशेगेर वतकीर ताका म्हऱ्यांत घेवन न्हिदपाक मेळटलें कशें? हांवें ताका म्हजे आलमारींत म्हज्या साडयां मदीं दवरलो, आनी हांव मावशेगेर गेलें. मावशी म्हाका जीव करताली. मागता तें खावंक दिताली. वांगडा भोंवक व्हरताली. म्हजी जुवान कूड आतां घसघशीत जाल्ली. कोणाचीय नदर लागत म्हूण मावशी दिश्ट बी काडटाली. मावशेलें तें गांवांतलें घर. एके रातीं म्हाका न्हीद पडनासली. बावल्याची याद येताली. पोट फुगून आयलें म्हूण हांव मागीलदारांत गेलें. फाटलें दार काडून पोरसांत न्हाणी आसली. हांव वचून परतलें. पोरसूं शितळ चान्न्यांत न्हातालें. मंद वारो व्हांवतालो. त्या प्रसन्न वातावरणांत हांव रमलें. इतले म्हणसर कोणाचो तरी हात म्हज्या खांद्यार पडलो. पळय जाल्यार मावसो. म्हणसर ताणें म्हाका वेंगेंत घेतलें, आनी कितें जाता तें कळचे पयलींच ताणें थंयच म्हजो भोग घेतलो. म्हजी इत्सा नासून. हांव रडटां तें पळोवनूय. आनी तितल्यान मावशी थंय पावली. मावसो बेगबेगीन उठलो आनी भितर गेलो. हांव तश्शें रडत आशिल्लें. मावशेनच म्हाका उखल्लें. म्हजें न्हेसण सारकें केलें. भितर व्हेलें. उपरांत मावसो तिका आपणा परीन सांगतालो – हांवेंच खंय ताका भायर आफयिल्लो आनी – पूण मावशी सगलें समजल्ली. दुसऱ्या दिसा मावशेन म्हाका समजायलें. चूक मागली. भायर कोणाक सांगूं नाका म्हळें. रोखडेंच म्हाका हाडून आवयगेर पावयलें, आनी मावशी परती गेली. म्हजें मन विटिल्लें. पूण कशें वागूंक जाय तें कळपा इतलें हांव शाणें आसलें. कांयच

घडूंक नाशिल्ले वरी हांव वागलें. भितर वचून पयल्यान पयलीं हांवें आल्मारींत हात घालो. पळय जाल्यार 'तो' ना. हांव गळसणलें. आवयन कोणाक दिवन उडयलो ना मूं? तिका विचार जाल्यार तिणें सांगलें, आपणें ताका माळ्यार उडयला. हांवें थार नाशिल्ले वरी माळो उस्तिलो. म्हजेच एके पोरणे साडयेच्या पालवा पोंदा मेळ्ळो बावलो. ताका घेवन हांव म्हजे कुडींत आयलें. दार घालें आनी – पळय जाल्यार ती बावली एक चली मनीस जाल्ली. निकतीच वयार आयिल्ली. हड्ड्यार बोंडां फुलिल्ली. म्हाका पळोवन हांसली. हांव तटास जालें. पूण मागीर हांवें येवजिलें, जर हांगा 'तो' आशिल्लो जाल्यार ताका हांव खंयच्या तोंडान म्हाका कितें भोगलां तें सांगतलें आसलें? ते परस 'तिका' सांगप सोंपें. मन मेकळें करूंक मेळटलें. ती म्हेळी आसली. म्हूण हांव तिका घेवन मान्न्यांत गेलें. आनी – पळय जाल्यार रगत! ती रुतुमती आसली. हांवें तिका घट वेंगेंत घेतली. म्हाका हुंडके फुटूंक लागले. तिणें म्हजे दोळे पुशीत म्हळें – ''ओगी पिशा, आमी बायलेच्या जल्माक आयल्यांत. आमकां हे भोग चुकनात.''

जयता थांबली. हांव तटास जावन आयकतालों. ही अरवळ, बडबडी आनी थिल्लर दिसपी बायल आनी इतली सुंदर कथा? म्हाका उतर फुटना जालें.

''आवडली ना न्हय? म्हगेलें सांगप सारकें जालें ना. मूळ तमीळ बरी जाल्या.''

''जयता, कथा भोवच सुंदर आसा. मूळ कथा निश्चीत अप्रतीम आसूंक जाय. ग्रेट! हॅटस् ऑफ टू यू. म्हाका तुज्यो आनिकूय कथा आयकुपाची इत्सा आसा. पूण आतां रात जाल्या, चल या आमी.''

आमी बशिल्लीं थंयसुनच हांवें पळयलें, जालप्पा दार उगडून भायर आयलो. आमकां बांकार बशिल्लीं पळयलीं आनी परतो भितर वचून दार घालें. खरें म्हळ्यार जालप्पा हांगा आसूंक जाय आसलो. कथा आयकून ताचें जयता विशींचें मत घडये बदलतलें आसलें. हांवें चिंतलें. फाल्यां ताका सांगूंक जाय अशें येवजीत

हांव उठलों.

जयता जड जाल्ले वरी उठली.

"दामोदर, इफ यू डोन्ट मायण्ड – आमी एक वॉक घेवंया?"

"आर यू मॅड, जयता? शिंयान कुडकुडटा पळय तूं!"

"तुमी वांगडा आसल्यार शिंयाची कसली पर्वा!"

हें मात चड जालें जयतालें. हांवें निर्धारान म्हळें, "सॉरी, रात चड जाल्या. तुका इत्सा आसा जाल्यार सकाळीं स वरांचेर हांव मॉर्निंग वॉकाक वतलों, यू कॅन ज्यॉयन मी."

"नो सर. आय ॲम अ लेट रायझर." अशें म्हणत ती आपणाले कुडींत वचपाक घुंवली. खीणभर रावली. हात फुडें केलो. "थँक्यू दामोदर फॉर युअर अटॅन्शन! ॲण्ड गुड नायट."

सकाळीं मॉर्निंग वॉक घेवन परतलों. म्हणसर दार वाजलें. दोनूय हातांत दोन कप च्या घेवन जालप्पा भितर सरलो. एक कप हातांत घेवन हांवें मनस्पुर्वेक म्हळें, "च्या हाडून सकाळची सुरवात भोव बरी केली तुवें जालप्पा."

"थँक्स." आनी मनांतलें ओंकून उडोवचें तशें ताणें सडसडीत विचारलें, "काल बरी रात मेरेन उलयताली ती, न्हय? कशी लागली?"

"अप्रतीम –" हांवें कथेच्या संदर्भांत म्हळें.

"यू मीन – तुमी बोअर जाले नात?"

"नॉट ॲट ऑल. जालप्पा, तुवें तिगेली एक तरी कथा वाचल्या?" हांवें प्रतिप्रस्न केलो.

"ना."

"यू शुड जज्ज अ रायटर बाय हीज रायटिंग्स. नॉट बाय हीज ऑर हर बिहेवियर."

"पूण सर, तुमी जाणात? सायकियाट्रीक केस ती. वखदां घेता म्हूण सारकी आसा. म्हाका जाल्यार थर्त भंय दिसता तिचो – बशिल्ले कडेन स्कँडलाय्जड्

जायत म्हूण -''

''तुका कोणें सांगलें ती सायकीक म्हूण?'' हांवें विचारलें.

''तिणेंच सांगलें.''

''मागीर, तिच्या मनमेकळ्या सभावाची तोखणाय करपाची सोडून तिका दुशण दिवप योग्य न्हय. आपूण सायकीक हाची तिका जाणविकाय आसा हें खूब जालें.''

जालप्पाक पटलेंच ना. 'ती दुसऱ्यांक पिशी करीत' अशें बडबडत जालप्पा गेलो. तिणें जालप्पाचेर कसलीय अतिताय वा आगळीक बी केली ना मूं असो विचार म्हज्या मनाक आफुडले बगर रावलो ना.

गुड मॉर्निंगच्यो सलामी दीत-घेत हांव नाश्तो घेवपाक मॅसांत पावलों तेन्ना जयता आनी तिचो अंकल दोगांय एकामेकां सामकार बसून गंभीरपणान कितें तरी उलयतालीं. हांव कडेचें रितें मेज धरून बसलों. पावाक बटर सारयतां म्हणसर जालप्पा आयलो.

''गुड मॉर्निंग सर, आय मीन, दामोदर - म्हाका दिशिल्लें, आयज जयता तुमची फाट सोडची ना.''

''कित्याक? हांव कांय तुमचे भाशेन भुरगो न्हय!'' पावाचो कुडको तोडीत हांवें म्हळें.

''ती? तिका कोणूय जाता.'' जालप्पा उलोवन गेलो. मागीर ताकाच जाणवलें - ''आय ॲम सॉरी सर. तुमी म्हळ्यार 'कोणूय' अशें म्हणपाचें नासलें म्हाका. आय मीन - शी इज सच अ बोअर! कोण्ण तिका लागीं करना. येनाफुडें तिणें त्या शर्मा कडेन लगट केली. मागीर म्हाका सांसपून पळयलो. आतां-''

''आतां ती म्हाका लागीं येता अशेंच मूं?'' हांवें स्पश्ट विचारलें.

''तशें म्हणिना. पूण ती -''

''हें पळय जालप्पा, दुसऱ्याचेर अशे जजमॅंट दिवप म्हाका आवडना. ती एक लेखिका म्हूण हांव तिचो आदर करतां.''

“जरूर सर. पूण ती विचारिनासतना आपले खाजगी जिणे विशीं सांगूंक लागतकीर कितें करप? डार्लींग कशी गळ्यांत पडटा तेन्ना कितें करप?”

“आयकून घेना ताका ती कशी सांगतली? एक दोन प्रयत्न करतली आनी सोडून दितली... म्हजे पुरतें विचारशी – हांव आयकून घेतलों. समजून घेतलों... घडये तातूंतल्यानच नवे कथे खातीर म्हाका एक पात्र मेळुंये!”

सेमिनाराक वचपा खातीर कोचांत वचून बसलों. जयता बसींत चडली आनी “गुड मॉर्निंग, दामोदर” म्हणीत म्हजेच म्हऱ्यांत येवन बसली. फाटोफाट अंकल वयर सरिल्लो तो वचून निमण्या सिटार एकलोच बसलो. जालप्पा चडलो आनी आमकां एकठांय बशिल्लीं पळोवन ‘पळयलें? हांव जाणाच आशिल्लो’ अशे तरेन हांसलो.

“जालप्पाक म्हजो राग आयला?”

“हें म्हाका विचारता? ताका विचार,” हांवें सांगलें.

“आयज म्हाका ल्हव ल्हव दिसता. चेपण काडिल्ले वरी. कित्याक जाणा?”

“कित्याक?”

“आय हॅव स्ट्रक अ डील विथ माय अंकल. हाचे फुडें तो म्हजेर लक्ष दवरचो ना.”

“कित्याक?” म्हाका हरशीं ह्या विशयांत मज नाशिल्ली. पूण तिका नाउमेद करची न्हय म्हूण विचारलें.

“हो अंकल म्हळ्यार एक नंबरचो आशाधशी. म्हगेल्या घोवाचो काका तो. व्यसनां करून ताणें आपणाली इस्टेट वगडायली. आतां म्हज्या मांवाचे आनी घोवाचे दयेचेर जगता. ताका म्हजेर लक्ष दवरपाक धाडला. जाणा? हांव पयलेच खेपे घरांतसून भायर सरलां. हाचे पयलीं म्हाका राज्य पांवड्या वयलो पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना लेगीत तांणी म्हाका धाडलें ना. ही परिशद कितली प्रतिशठेची हें समजावन सांगतकीर ‘फकत हेच खेपेक! पर्थून खंयच धाडचीं नात.’ अशें निक्सून सांगून हांगा धाडलां. तेंय ह्या म्हाताऱ्या वांगडा. ताचे कडेन खर्चा

खातीर वीस हजार दिल्यात.''

''आनी तुजे कडेन दिवंक नात?'' मदींच हांवें विचारलें.

''दिल्यात. घोवान वीस हजार दिल्यात. जाय तें घे म्हळां. मांवान ता कडेन दिल्यात ताचो ताणें हिशोब दिवंक जाय. हांगा आमकां रावपाचे फारीव करचे पडनात. जाल्यार ताणें म्हाका सांगलें, दिसाक एका रुमाक एक हजार प्रमाण दोन रुमांचें भाडें फारीक करचें पडलें म्हूण सांगशी जाल्यार तो म्हाक भोंवपाची मेकळीक दितलो. हांवें डील मान्य केलो. देखून तो मोन्यांनी वचू फाटल्यान बसला पळय.''

सेमिनार चलतनाय जयता काना कडेन नाका जाल्ल्यो गजाली सांगताली लोकांकूय डिस्टर्ब करताली आनी म्हाकाय. हांवें तान लागिल्ल्याचें नीब केलें उठून उदक पियेवन आयलों आनी फुडल्या कदेलार बसलों.

जेवणाक उठलीं तेन्ना जयता उचांबळीत जावन आयली. ''दामोदर, मातसे म्हजे बराबर यो न्हय.''

''खंय?''

''करोल बाग. काल हांवें सँडल्स घेतिल्ले ते लागतात म्हाका. ताणें बदलू दितां म्हळां. प्लीज, वचून येवंया न्हय?'' म्हज्या कोटाचो स्लीव धरून ओडीत जयतान विनयलें.

हांवे तिचो हात सोडयलो आनी निबरसाणीन सांगलें, ''हें पळय जयता हांव सेमिनार अटँड करपाक आयलां. सेमिनार चुकोवन भायर भोंवप म्हाक मानवना. तुका जाय जाल्यार तूं वचून यो.''

येदेंशें तोंड करून जयता गेली.

त्या दिसाचें निमाणें सत्र सोंपोवन आमी भायर सरताले. इतल्यान जयत ऑटोंतल्यान देंवली. मित्राचो पेपर कसो अप्रतीम आशिल्लो हाचेर बलराज उचांबळीत जावन उलयतालो. जाल्यार पेपर आजून कसो बरो जावं येतालो हाचेर सुश्रुती मतां मांडटाली.

“हॅलो दामोदर, हांव एकलींच वचून आयलीं.” पराक्रम केल्ले वरी जयतान सांगलें. तिणें अशें मर्दी तोंड घाल्लें म्हाका मानवलें ना. कोणाकूच आवडलें ना. पूण आतां मेरेन जयता फकाणांचो विशय जाल्ली.

“कितें हाडलें?” मित्रान विचारलें.

“सँडल्स. सयशें पन्नास सांगतालों. हांवें पांचश्यांनी करून दोन पॅयर्स घेतल्यो.” अशें म्हणून जयतान सँडल्स दाखयल्यो. मातशें वांटपण करून देडश्यांनी मेळटात तसल्यो सँडल्स. सगल्यांक कळ्ळें. पूण कोणेंच कांयच म्हळें ना.

“तुमकां आवडल्यो नात?” जयतान म्हाका विचारलें.

“घालतली तूं. तुका आवडल्यार पुरो.” हांवें वेळ मारून व्हेलो.

कोचांत चडटकीर विक्रमा सरीं सुवात आसा ती पळोवन हांव ताका तेंकून बसलों. असल्या परिशदांनी चडांत चड लेखकां मर्दी घोळपाक म्हाका आवडटा. थोडे दोगां-तिगांचीं जुंवीं करून  भोंवतात तांतलो हांव न्हय. विक्रमा कडेन उलयतनाच जयता वयर चडली. हांव विक्रमा सरीं बशिल्लों पळोवन सोंड वांकडें करून फाटल्यान वचून बसली. हांवें तिका टाळ्ळी अशें दिसून तिका वायट दिसलें जावंये. पूण तिचें एक बरें. ती रोखडीच विसरून वताली. देंवतना ताकतिकेन म्हजे सरीं आयली.

“दामोदर, तुमचे कडेन उदक आसा?”

“ना. तान लागिल्ली जाल्यार कॉन्फरन्स हॉलांत घेवचें न्हय?”

“यादूच उरली ना. आज हांव गुळी घेवपाक विसरलीं. तुमी मातशे येतात म्हजे वांगडा? मॅसांत वचून येवंया.”

“चल या. आयज अंकल खंय तुजो? दिश्टीच पडलो ना सकाळ उपरांत?”

“जाण कोण! दुडू सुगूर जाल्यात न्हय आतां तागेले? वचून न्हिदला आसतलो आपल्या रुमार.” आनी रोखडोच विशय बदलून जयतान उचांबळीत सुरांत म्हळें, “हांव एकली करोल बाग भोंवन आयलीं - तुमी एका उतरान लेगीत कांयच विचारलें ना.”

''सॉरी. पूण एकली कशी गेली?''

''ऑटो घेवन.''

''एकली? तुका पयलीं हिंदी कळना. तातूंत एकली, तीय परकी रिक्षाचेर वचपाची रिस्क कित्याक घेतली?'' हांवें हुसको दाखयलो.

''तुमी ना कित्याक म्हळें तर?'' तिणें फुगोवन दाखयलें. पूण दुसऱ्याच खिणाक ती पर्थून उचांबळीत जाली. ''पूण तो ड्रायव्हर मात मनीस एकदम बरो आं! हांव कर म्हणटां तें करतालों. तोच म्हजे वांगडा सँडल्स बदलपाक आयलो. ताकाच घेवन हांवें पर्फ्यूम आनी दोन ब्रा घेतल्यो. म्हाका हिंदी कळना. पूण तो वांगडा आशिल्ल्यान काम सोप्पें जालें.''

हांव आयकुपाकच उरलों. घडये जालप्पाक घेवनूय ती ब्रा घेवपाक गेल्ली जावंये. देखून घडये तो असो पिकार जाल्लो.

''तीन साडे तीन वरां आमी भोंवलीं जाल्यार ताणें दुडू कितले मागचे?''

''कितले?''

''साठ दी म्हणटालो. हांवें देडशें दिले ताका. खरेंच बरो आं! कसलीच ॲडवाण्टेज घेतली ना ताणें.''

''आनी घेतिल्ली जाल्यार?'' हांवें तिडकून विचारलें.

''हांव नकळं! तुमी ना म्हळें म्हूण म्हाका वचचें पडलें एकलें.''

मॅसांत वचून तिणें उदक मागून घेतलें. पर्सींतली एक गुळी काडून घेतली. परततना तिणेंच विचारलें, ''गुळी कसली जाणात?''

''म्हाका कशें कळटलें?'' हांवें परतें विचारलें.

''तुमकां संवंयच ना विचारपाची. कोणेंय - चड करून इश्टांनी - कन्सर्न दाखयतकीर बरें दिसता म्हाका.''

''बरें तर, विचारतां, कसली गुळी?''

''सायकियाट्रीक ट्रीटमेंट...'' अशें म्हणून ती ओग्गी रावली.

म्हजे कडच्यान प्रस्नाची अपेक्षा आसुंये.

“दोन वर्सां फाटीं म्हगेली धाकली भयण भायर पडली. तिचेर जीव आशिल्लो म्हजो. खूब मायेस्त आशिल्ली.”

“कितें जालें तिका?”

“न्युमोनियाचें निमित्त. आठ दिसां भितर गेली. शॉक बसलो म्हाका. खूब डिप्रॅशन आयलें. हॉस्पिटलांत लेगीत दवरचें पडलें म्हाका. आजून वखदां घेतां.”

“माय सिंपथीस टू यू, जयता. पूण इतलें मनाक लावन घेवप न्हय. संवसारांत अनेक भोगस्ताळे काडचे पडटात. गळसणून उपकरना. भयण कांय परती येवची ना. आवय-बापाय कडेन पळोवन तरी तुवें सोंसूंक जाय.” हांवें म्हजे परीन समजिकायेचीं चार उतरां सांगलीं.

“आवय-बापाय कडेन पळोवनच हांव चाळवलें. आमचे थंय मर्णा उपरांत म्हयन्याचो विधी आसता. घरच्यांक, लागिंच्यांक आफयतात. देवसपण करतात. पक्वान्नांचें जेवण वाडटात. त्याच दिसा म्हजें चाळवलें – आवय रांदपांत गुल्ल आसली. दुखख करपाक कोणाकच वेळ नासलो. आनी अप्पा? अप्पा कुडींत बसून आपणाले पिकिल्ले केंस डाय करतालो. हांवें विचारलें, अप्पा आयज श्राद्ध मनयतना तरी नाका हे शिरंगार करूं, जाल्यार म्हणटा कसो – “सोयरीं येतलीं तांचे मुखार जड्डो जावन वचूं? तूंय चल बरे बरे कपडे घाल.” म्हज्यान सोंसूं नजऽ जालें. सोयरीं येतलीं म्हूण खुशाल जाल्लो अप्पा. पद गुणगुणटालो. हांव किचनांत गेलें आनी सुरी हाडली. घरच्यांनी आडायलें म्हूण सुटलो अप्पा. ना जाल्यार –”

जयतालो स्वासोस्वास वाडिल्लो. हांवें नकळटना तिचो हात धरलो – “काम डावन, जयता. आसतात अशीं मनशां संवसारांत. असलीं मनशां आमकां मेळटात म्हणुनच आमी लेखक जावंक पावतात न्हय?”

“यू नो दामोदर, हांवें ह्याच विशयाचेर कथा बरयली. अश्या अश्शी बरयली. आनी कथा खूब गाजली. संपादकान खासा पत्र बरोवन वाखाणली.”

“आनी बापायन ती वाचून कांयच म्हळें ना?”

‘‘घरांत कोण्ण वाचनात म्हज्यो कथा . वाचताली ती फकत भयण म्हजी. तीच गेली. आतां म्हाका कोण्ण मित्र ना.’’ तिच्या उतरांतलें कंपन म्हाका जाणवलें.

‘‘जयता तुजो घोव आसा तुजो मित्र –’’

‘‘ना. तो म्हजो मित्र न्हय. तो फकत घोव.’’ अचकीत तिगेलीं उतरां कठोर जालीं. ‘‘हय. म्हजे कडेन सगलें आसा. घर आसा. घोव आसा. भुरगीं आसात. खूब दुडू आसा. जाय तें घेवं येता. पूण – पूण म्हाका मित्र नात.’’

जयता विशींचे अनुकंपेन म्हजें मन भरून आयलें. लेखिका म्हूण काल पळयिल्लें तिचें रूप म्हाका खूब भाविल्लें. अजून ती कथा मनाचेर प्रभाव घालून आशिल्ली. आनी आयज तिच्या मनाचें हें दुसरें रूप पळोवन हांव अजापलों. चक्रावलों. कितें म्हणप हिका? अरवळ? थिल्लर? सर्जक? भावूक? मनोरुग्ण?

गॅस्ट हावजा कडेन पावलीं. तिगेलो अंकल आपल्या रुमाच्या दारा कडेन रावन आमकांच पळयतालो. पूण तिणें ताचेर नदर घाली ना.हांवें तिचो निरोप घेतलो. पूण ती तशशी रावली. ‘‘दामोदर!’’ तिचो आवाज घोगरो जाल्लो. ‘‘तुमकां हांव मित्र मानूं?’’

तिच्या दोळ्यांतली अपेक्षेची भावना म्हाका जाणवली.

‘‘ऑफ कोर्स! जरूर मान. बाऽय!’’ आनी हांवें फाट केली. तरिकूय तिणें आख्ख्या संवसाराक उद्देशून म्हणिल्ले वरी मोठ्ठ्यान म्हळें, ‘‘आय ॲम सो हॅपी टुडे! थँक्यू सो मच!’’

हांवें बेठोच नर्व्हस जावन हे वटेन ते वटेन पळयलें. मख्ख उबो अंकल सोडून कोणूच भायर नाशिल्लो. हांवें म्हजे कुडीचें लॉक काडलें आनी भितर सरून दार घालें.

फाल्यां सेमिनाराचो निमाणो दीस. सकाळच्या चर्चा सत्राच्या पॅनलाचेर हांव आशिल्लों. विशयाची थोडी तयारी केली. ल्हानशें टिपण तयार केलें आनी ज्युस्त पावणे णवांक डिनराक वचपाक उठलों. दार उकतें करून फुडें पळय

जाल्यार जयता आपणाले कुडीचें दार उकतें दवरून कदेल दारांत ओडून बसल्या. म्हाका पळयनाफुडें सडसडीत उठली. कदेल भितर धुकल्लें आनी दाराक कुलप घालून धांवट म्हजे सरीं आयली.

"अंकल खंय तर?"

"तो आयिल्लो म्हाका आफोवपाक. हांवें म्हळें - तेन्नाच विक्रम वतालो - ताचे वांगडा चल म्हूण. हांव म्हळें तुमचे वांगडा येतलीं." कॉरिडर मात हुपिल्लो. ती थंयच उबी रावली. फुगून म्हणूंक लागली, "तुमी सामके अ-रसीक! हांव कशी दिसतां, सांगात न्हय!"

फार्टी सरून पळय जाल्यार जयतान टायट लांब पँट घाल्ली. वयर हातकापो टॉप घाल्लो. तोय इतलो लो कट आशिल्लो की हड्ड्याची खळी सकयल मेरेन नदरेंत आसपावताली. मुळांतच जयताचें रूप सामान्य. पोले बसके आनी मुमरेल्ले. गोमटे सकलीं हाडां वयर सरिल्लीं. आंगलोटूय सुमार. तातूंत हे कपडे घालून म्हाका जाल्यार विदूरुपच दिसली.

"कशी दिसतां?" अशें म्हणून ती मुरगुटली.

"खरें सांगू?" म्हगेल्या उतरांतलो सुको सडो तिका जाणवलो जावंये. बावक्या तोंडान तिणें म्हळें, "खरेंच सांग."

"म्हाका म्हगेले चलयेन असले कपडे घाल्ले मानवचें नासलें."

"आनी बायलेन?"

"बायल घालचीच ना केन्ना."

"खूब जाणांक आपले बायलेन असले कपडे घाल्ले मानवनात. पूण दुसऱ्यांल्या बायलांनी घाल्यार उपकरता - न्हय, आवडटा."

"हें पळय जयता, वाद नाका. भायर शीं आसा. ह्या कपड्यांनी तुज्यान शीं सोंसूंक जावचें ना." ताचेर 'तूं वांगडा आसतना', असलें ती उलयतली हें वळखून हांवें रोखडेंच फुडें सांगलें, "आनी तुका जर म्हजे वांगडा येवपाचें आसत जाल्यार बेगीन परती वच आनी वयर फूल स्वॅटर घालून यो. वांगडा शालूय घे."

जयता मोन्यांनी गेली, आनी स्वॅटर घालून शाल घेवन आयली. वांगडा चलतना मर्दींच लार्गी आयली.

"खरें सांगूं दामोदर, तुमी म्हजेर अधिक़ार गाजयलो तें म्हाका खूब आवडलें."

मनांतल्या मनांत कपलार हात मारलो हांवें.

मॅसा कडेन पावलीं तेन्नाच अंकल धेंकर दीत भायर सरतालो. जयताक पळोवन रावलो.

"तूं जेवन यो. ते मेरेन हांव रावतां हांगाच."

"नाका नाका. तूं चल. म्हाका मागीर फोनूय करपाचो आसा. ते येतले म्हजे वांगडा."

तमीळ कांय म्हाका समजली ना. पूण दोगांयली बॉडी लँग्वेज पळयल्यार तांचे मदलो संवाद असोच जालो आसुंये. फुडलें उलोवणें मात म्हजे समजिकाये भायरें आसलें. एक फोगेट्यां माराण पेटचो आनी मागीर सगलें शांत जावचें तशें तांचें 'क्विक फायर' उलोवणें सोंपलें. अंकल धोलत धोलत गेलो, आनी आमी मॅसांत भितर सरलीं.

जयताक घेवन हांव जालप्पा जेवंक बशिल्लो थंयच वचून बसलों. पूण फकत मान हालोवन दखल घेवपा पयल्यान तो तिचे कडेन कांयच उलयलो ना.

"तुमचें पॅनल डिस्कशन आयकुपाक म्हूण रावलां हांव. पूण साडे बारांची फ्लायट धरूंक जाय म्हाका. म्हणटकीर सगलें आयकुपाक मेळतच म्हणपाची खातरी ना."

"गोंयां आयल्यार मेळ," हांवें म्हळें.

"खातरीन. पूण ते पयलीं बेंगलोराक म्हजो नवो कथां–झेलो रिलीज जावपाचो आसा . आमंत्रण येतलें तुमकां. तुमी आयल्यार खोशी जातली म्हाका."

"फावल्यार येतांच," हांवें म्हळें.

"म्हाका आफोवचो ना दिसता?" जयतान तोंड उगडलेंच.

खीणभर अनमनून जालप्पान म्हळें, ''आफयल्यार येतली? घरचीं खंयच धाडनात म्हणी न्हय तूं?''

''तेंय खरें.'' अशें म्हूण बाविल्ल्या तोंडान जयता जेवंक लागली.

जालप्पा रोखडोच जेवन उठलो. 'सकाळीं मेळटां' म्हूण सांगून गेलो.

''सारको जेवलो काय कोण जाणा!'' म्हज्या मनांत आयिल्लें. पूण उलयली जयता. आनी म्हाका पळोवन खो करून हांसली.

जेवन भायर सरलीं. शीं आनी वारो कुडकुडो हाडटालो. जयताले तर दांत लेगीत आपटूंक लागले. हांवें म्हळें, ''चल. केन्ना काय रुमांत वचून हिटरा म्हऱ्यांत बसन शें जालां.''

जयतान तोंड वांकडें केलें. ''फोन करून येवंया न्हय?''

अश्या कुडकुड्याच्या शिंयांत खरें म्हळ्यार दार उकतें दवरून भितर बसपाक लेगीत नाका दिसपाचें. रस्त्या वयल्यान चलप म्हळयार शिक्षाच ती. पूण जयतालें मन दुखोवपाक नाका शें दिसलें. दुसरें म्हळ्यार, तिगेल्या कथाविश्वा विशीं चड जाणा जावन घेवपाचीय इत्सा जागी जाल्ली. आमी टेलिफोन बुथा वटयां चलपाक लागलीं.

''म्हगेली काल सांगिल्ली कथा तुमकां बुरशी दिसली?''

''बिल्कूल ना. म्हाका खूब आवडली ती.''

''ही कथा वाचून खूब जाणांनी म्हाका प्रस्न केलो, तुका ती कशी येवजली काय म्हूण! हांवें कोण्णाक खरी खबर सांगली ना. पूण –''

''पूण कितें?''

''म्हाका दिशिल्लें, तुमी म्हाका विचारतले – तुजे जिणेंत अशें घडिल्लें काय म्हूण.''

''बरें आसा! आतां विचारतां – सांग.''

''हय, म्हजीय एक बावली आसली... म्हजीच कथा ती.'' आनी तिणें म्हजो हात घट धरलो. कारण नासतना.

“आज मेरेन कितल्यो कथा बरयल्यात तुवें?”हांवें विचारलें.

“खूब. यू नो, स्त्री-पुरूश संबंध विशय म्हाका चड भूल घालता. मागीर हांव मनाक येता तशें बरयतां. थोडे वाखाणटात. पूण चडशे म्हणटात, हांव मर्यादा सोडून बरयतां. बायलांनी सॅक्साचेर बरयतना मर्यादा राखूंक जाय खंय. तुमकांय तशेंच दिसता, दामोदर?”

“अर्थांत ना. लेखक - मागीर तो दादलो आसूं वा बायल - बरयता तें कलात्मक आसचें इतलेंच. विशय हिंसाचार आसूं वा मुक्ताचार. इरॉटीक तें दादल्यांनीच बरोवचें अशें खंय आसा?”

“थँक्यू!” अशें म्हणून हात सोडून तिणें म्हजो दंड घट धरलो.

“जाणा दामोदर, म्हजे तकलेंत एक कादंबरी घोळटा. लैंगीक हिंसाचाराचेर. पूण म्हाका भिरांत दिसता. हो पुरूशप्रधान समाज म्हाका पिसडून खातलो. पूण - तुमच्या उतरांनी म्हाका धीर आयला. हांव बरोवं, न्हय?”

“अर्थांत - बरय. तुका जर प्रेरणा आयल्या, कोणाच्यान तुका आडावं नजऽ”

उलयतां उलयतां जयता कडकडूंक लागली . दांतार दांत आपटूंक लागले. म्हाकाय कुलकुलो खातालो. अचकीत जयता थारली. म्हाका ओडलो आनी दोनूय हातांनी म्हाका घट धरलो.

“सोंसूं जायना म्हज्यान हें शीं. घट धर म्हाका.” जयता आपट्टल्या दांतां मदल्यान उलयली. खीणभर हांव तटास जालों. कोण पळयना मूं म्हूण नदर भिरभिरली. मागीर म्हजी म्हाकाच लज जाली. शिंयान कुडकुडपी हो जीव उबे खातीर म्हाका लागीं आयला जाल्यार हांव असो कितें येवजितां? हांवें जयताचे दोनूय हात सोडोवन म्हज्या हातांत घेतले. पोशेले, चोळ्ळे, आनी तिच्या खांद्यार हात घालून तिका म्हन्यांत ओडून म्हळें, “आतां फोन-बीन आसूं. सडसडीत चल. भितोडेक पावतकीर बरें दिसतलें.”

आज्ञाधारक भुरग्या वरी जयता चलूंक लागली. मदींच शिंयाचो कुडकुडो

खावन ती थरथरताली. हांवें चाल वाडयली. गॅस्ट हावजांत पावसर आमी उलयलीं नात. तिच्या दारांत पावतकीर हांवें म्हळें, ‘‘आतां रुमार वच आनी हिटरा कडेन बस.’’

‘‘तुमी येयात न्हय वांगडा. म्हाका एकली रावपाक नाका दिसता,’’ जयता काकुळटायण्या उतरांनी उलयली.

‘‘जयता, डोन्ट बी सिली. तूं जाणा, हांवें तुजे कुडींत येवप, तेंय ह्या वेळार, समा न्हय.’’

‘‘तशें जाल्यार हांव तुमच्या रुमार येतां. प्लीज. म्हाका एकली सोडूं नाका न्हय!’’

‘‘बरें आसा. हांव तुज्या अंकलाक उठयतां. तो तुका सांगात दितलो.’’

‘‘नाका, नाका. ते परस मेल्यार उपकरता म्हाका –’’ अशें म्हणून ती धांवट आपले कुडींत गेली आनी रागान दार आपटिलें.

ते रातीं खूब वेळ मेरेन म्हाका न्हीद पडली ना. ती सादेपणान करता काय बळयां तशी वागता? जालप्पान शिटकावणी दिल्ली आसतनाय हांव तिका लागीं रावलां ही म्हजी चूक बी न्हय मूं? हांव तिचे कडेन ती एक सर्जनशीळ लेखक म्हूण पळयतां, काय म्हजे फायचे कथेंतलें एक पात्र म्हूण तिका समजून घेवंक सोदतां? काय तिगेले विकृतीक हांव साथ दितां?

सकाळीं मॉर्निंग वॉका सावन परतलों जाल्यार ही च्या पियेत आपल्या दारांत उबी.

‘‘गुड मॉर्निंग, दामोदर,’’ तिणें प्रसन्न मुखान शुभेच्छा दिल्यो.

‘‘गुड मॉर्निंग, जयता. लेट रायझर आयज बेगीन शी उठली?’’

‘‘उठली खंयची? रातभर न्हिदलीच ना,’’ तिणें हांसून म्हळें.

चड उलोवप नाका म्हूण हांव म्हजे कुडीचें दार काडूंक लागलों.

‘‘दामोदर, नाश्त्याक वतना म्हाका आफय आं!’’ आनी म्हजी जाप येवचे पयलींच ती भितर गेली.

न्हावन धुवन पेपर चाळ्ळो. म्हगेले नोटस् वाचले. कपडे घालून दारांत येवपाक मिसेस सकलानी जयताचे कुडीचें दार ओढून घेवन सैरभैर जाल्ले वरी कितें तरी पुटपुटत भायर येता ती पळयली. म्हाका पळोवन म्हणूंक लागली, ''धिस वूमन – शी इज सोऽ''

''कित्याक, कितें जालें?''

''कितें सांगू, हांव आयज वतां म्हूण हिका सांगपाक म्हूण वच जाल्यार दार पासाक आनी ही – आसूं. बरें तर. हांव वतां आतां. सकाळची गाडी म्हजी. बाऽय मि. दामोदर.'' अशें म्हणून सकलानी गेली.

एक नदर जयताल्या दाराचेर मारून हांवें खांके फांफुडले. विक्रम आनी जालप्पा वांगडा नाश्तो घेतलो. आमी उठपाक जयता आयली.

''प्लीज. कीप मी कंपनी नो! हांव नाश्तो घेसर बसात न्हय!''

चड जालें हिचें! ''सॉरी, जयता. आमचो नाश्तो जालो. यू कॅरी ऑन.'' अशें म्हणून आमी भायर सरले.

फाटोफाट जयता भायर आयली. विक्रमान विचारलें, ''कितें जालें, जयता? नाश्तो ना?''

''आसूं! एक दीस नाश्तो घेतलो ना म्हूण मरचीं ना हांव.''

सगलेच बुचकळ्यांत पडले. म्हाका जाल्यार रागच आयलो. पूण जयताक तोडून दिवपाक जिवार आयलें.

''चल तर. हांव दितां कंपनी,'' अशें म्हणून हांव परतो मॅसांत गेलों.

''चड जालें जयता. तूं म्हाका ब्लॅकमेल करता –''

''आसूं. मोगांत सगळें माफ.'' हांव बशिल्ले कडेन अस्वस्थ जालों. इतल्यान जयतालो अंकल भितर सरलो, आनी कुशीचें मेज आडावन बसलो.

''तो उलयना तुजे कडेन?''

''उलयता तर! आतांच सांगतालो – काल आनी पयर रातची हांव तुमचे वांगडा पासयेक वचून आयलीं तें जाणा तो. तुमी पिरायेन जाणटेशे म्हूण कांय

म्हणिना, ना जाल्यार आपूण खंय वचुंकच दिवचो नासलों खंय."

इतल्यान म्हाका सकलानीची याद जाली.

"सकाळीं कितें जालें मिसेस सकलानीचें?"

ते बराबर जयताक खो करून हांसो फुटलो. हांसतां हांसतां नाकसुरें गेलें. वेटर लेगीत पळोवपाक लागले. हांवें उदकाचो पेलो फुडें धरलो.

"मजाच जाली. हांव न्हावपाक गेल्लें. कुडीचें दार उकतेंच उरलें दिसता. हांवें बाथरुमाचेंय दार ओडून घेतलें ना. आंगाक साबण लायिल्ले कडेन ही भितर सरली आनी हांव कुडींत ना म्हूण बाथरुमांत तकली घाली. आनी मागीर – किळांच मारपाची उरिल्ली तिणें."

कोचा कडेन वतना जयतान विचारलें, "आयज सेमिनाराचो निमाणो दीस. आमी फाल्यां कितें करुंया?"

"आमी? हांव आयज वतलों म्हगेल्या सोयऱ्यांगेर."

"यू मीन – फाल्यां सायट सिइंगाक येवचे नात?"

"ना. हांवें पळयलां सगळें."

केदो वेळ जयता वग्गी रावली. अचकीत हात धरून म्हणूंक लागली. "प्लीज, फाल्यांचो दीस आमी वांगडा सारुंया न्हय!"

हांवें हात सोडयलो. "पळय, जयता. सारकी वाग!"

"सारकी वागल्यार तुमी रावशात?"

म्हाका हांसो आयलो. "ना. म्हजो सोयरो सांजचो म्हाका व्हरूंक येतलो. म्हाका वचुंकूच जाय."

"पर्थून केन्ना मेळटलीं तर आमी?"

"तूं यो गोंयां – घोवाक बी घेवन यो."

ती किण्ण हांसली. "हांवें सपनां पळोवपाचें सोडून दिलां."

"तशें जाल्यार हांव मद्रासाक पावल्यार येतां तुमगेर."

"हांव तुमकां आमगेरूय आफोवंक शकना. कोणाक आवडचें ना तें."

मर्दीच थांबून तिणें विचारलें – ''तुमकां याद येतली म्हजी?''

''मित्रांक हांव सोंपेपणी विसरना.'' हांवें म्हळें, ''तूं?'' म्हज्या प्रस्नाक जाप दिनासतना तिणें विचारलें – ''तुमी चॉकलेट चाबून खातात काय चोखून?''

''अर्थांत चोखून.''

''हांव चाबून खावपी. म्हाका येता तो खीण झोमून रोखडो भोगपाक आवडटा. तुमी चोखून खावपी. म्हाका दिसना, तुमी केन्ना आंबो फातरायला. आंबो पिकून होटयेंत पडसर रावतात तुमी –''

हांव चडूच अस्वस्थ जालों. इतले म्हणसर बलराज मेळ्ळो. आनी तितलें नीब करून ताचे वांगडा हांव कडसरलों.

चारांकच सेमिनाराची सांगता जाली. एकामेकांक निरोप दीत सगले फापसले. आयोजकांनी दुसऱ्या दिसा दिल्ली आग्रा दाखोवपाचो कार्यक्रम दवरिल्लो. नवेच दिल्लींत आयिल्ले तितले रावले. उमेश म्हाका व्हरपाक आयलो. रुमार वचून हांवें बॅग काडली. भायर सरपाक मुखार पळय जाल्यार जयता वाट आडावन रावल्या.

''यू आर चिटिंग,'' तिणें रागान म्हजे कडेन पळयत म्हळें.

''हाय जयता! से गुड बाय विथ अ स्मायल, प्लीज. आनी उमेश, धिस इज माय रायटर फ्रँड, जयता.''

''तुमी हांगेर रावतले तर! तुमचो फोन नंबर दिवशात? गरज पडल्यार आसल्यार बरो.''आनी हांवें कितेंय सांगचे पयलींच उमेशान नंबर दिलो.

वाटेर हांवें उमेशाक जयताची खबर सांगली.

''तशें जाल्यार फाल्यां तुका फोन येतलोच तर!''

''फाल्यां? आयजच येतलो. पळोवशी तूं.''

पूण ते रातीं फोन आयलो ना. घडये, फोन करपाक वचपाक तिका योग्य सांगात मेळ्ळो ना जायत. दुसऱ्या दिसा सकाळी फुडेंच फोन – ''हॅलो, दामोदर! आय मिस यू.''

‘‘दोन दीस. मागीर विसरतली,’’ हांवें म्हळें. आनी तिणें फुडें कितेंय सांगचे पयलींच विचारलें, ‘‘आयज तुमी सायटसिईंग करपाचीं आसात न्हय? हॅव अ नायस टायम.’’

‘‘म्हाका मूड ना वचपाचो. पूण अंकल मुडांत आसा भोंवपाच्या.’’ आनी मागीर हांवें फोन तोडऽसर भरभरत रावली. दनपरां जेवन आड पडिल्लों मात, जयताचो परतो फोन.

‘‘आय ॲम लॉस्ट हियर इन वृंदावन. हांव हांगा कृष्णाच्या वृंदावनांत भोंवतना वाट चुकलें. आनी आतां पळय जाल्यार बस म्हाका सांडून गेली.’’ जयतालीं तीं रडकुरीं उतरां आयकून म्हज्या दोळ्यां वयली झेम नाच जाली. ‘‘काम डावन, जयता. तूं कांय फॉरेनांत ना. बस तुका थंय सोडून वचची ना . तूं राव थंयच.’’ उलयलों. पूण म्हाकाय हुस्को जालो.

‘‘प्लीज, दामोदर, तुमी येयात न्हय म्हाका व्हरपाक –’’ जयता काकुळटेक आयली.

‘‘तें शक्यच ना, जयता. पूण तूं भियेवं नाका. वरभर वाट पळय. आनी कोण मेळ्ळो ऩा जाल्यार बस–टॅक्सी बी कितेंय धरून दिल्लीक परती यो. अडचण आयल्यार म्हाका फोन कर.’’

परतो आनी फोन आयलो ना. आयल्यार बरें जातलें आसलें. हांव हुसको करीत उरलों.

सकाळीं उठ्ठनाच फोन आयलो, ‘‘हांव आतां भायर सरतां. प्लीज, म्हाका गाडये कडेन मेळपाक येयात न्हय!’’

‘‘काल मागीर कितें जालें? कशी आयली?’’

‘‘बस म्हाका सोदीत परती आयली.’’

‘‘मागीर म्हाका फोन करून सांगचें तरी आसलें! हांव हुसको करीत रावलों.’’

‘‘म्हजो हुसको जालो तुमकां? आय ॲम सो हॅपी!’’

पाड पडूं हिचें म्हण दवरपाक जयतान पर्थून सांगलें, ‘‘प्लीज, येयात न्हय

गाडये कडेन...''

''पिशें लागलां तुका? हांवूय आज वतां. म्हाका धांची फ्लायट धरपाची आसा.''

''तशें जाल्यार वतां वतां स्टेशनार म्हाका मेळून वचात न्हय! प्लीज.''

हांवें सोंपो उपाय सोदून काडलो. ''बरें, येवपाचो येत्न करतां हांव.''

अर्थांत हांव पावलों ना.

जयतान म्हज्या साहित्यीक मनाक धोंगशिल्लें. खातखुतल्यो केल्ल्यो. चिमटो काडिल्लो आनी चुरको लायिल्लो. जयताचेर एक कथा बरोवंकच जाय अशें हांवें थारायलें.

थारावप आनी करप हाचे मदीं खूब अंतर आसता. देड वर्स जालें. गोंयच्या तमीळ संघान नामनेचो लेखक प्रो. जयकृष्णन हांकां एके कार्यावळीक मुखेल सोयरो म्हूण आफयिल्लो. ताचो म्हाका फोन आयलो. हांवें ताका आमगेर जेवणाकच आपयलो. जेवन खबरो करतना म्हाका जयताचो उगडास जालो. हांवें विचारल्यार ताणें म्हळें, ''हय, हय. बरीऽ बरयता. वाचलां हांवें तिचें.'' म्हाका बरेंऽ दिसलें. हांवें म्हळें, ''हांवें तिची ती गाजिल्ली बावलेची कथा आयकल्ली. खुबच सुंदर.''

''खंयची ती?''

हांवें थोडे भितर ती बावल्याची कथा सांगली. जयकृष्णनान म्हळें, ''तुमची कितें तरी चूक जाल्या. ही कथा अप्रतीम खरी. पूण ती जयताची न्हय. ती प्रमिलाची गाजिल्ली कथा.''

''खातरी आसा तुमकां?''

''अर्थांत! हांव शिकयतां ती विद्यार्थ्यांक.''

''जयता ही फ्रॉड बी न्हय मूं?'' हांवें विचारलें.

''हांव कांय वळखना तिका. पूण बरी बरयता. हालींच तिची एक नवी कथा वाचली हांवें. एका जाणट्या पूण लंपट लेखका वांगडा आयिल्ल्या

संपर्काचेर-"

हांव तटास जालों. "थोडे भितर सांगशात, प्लीज!"

"नाय जाल्यार ती लेखिका मातशी इरॉटीक आनी सदळच बरोवपी. कथा फर्स्ट पर्सनांतली. एका सेमिनाराक गेल्ले कडेन एक जाणटो लेखक कसो तिका लागीं येवपाक सोदता. वता थंय तिची फाट सोडिना. रातीं फोन करपाक सांगात दिवपाचें निमित्त करून तिचे वांगडा वता. शिंया-थंडेचें नीब करून हात धरता. ती न्हातना दार उगडून भितर पळयता. आनी निमाण्या दिसा कुडकुडो खाता म्हूण तिका वेंग मारता. सोंशीकपणाची शीम जाता तेन्ना ती ताका धुकलून तोडटा. तो वितरागून गॅस्ट हावज सोडून वता. निमाण्या दिसा लज नाशिल्ले वरी तो गाडये कडेन तिका मेळपाक येता आनी थंय - ही गॅटस् अ पीस ऑफ हर मायण्ड - ही अखेर बरीऽ केल्या तिणें."

हांव आयकुपाकच उरलों!

*****

# ज्युरामेंत

आयज इलें चडच जाल्लें. काजार जाल्ल्याक पयली खेप. काजरा पयलींय म्हण तो केन्ना चड पियेनासलो. पूण केन्नाय बॅचलर्स पार्टी बीन आसल्यार घेवप जातालें. ममीक मानवना हें तो जाणा आसलो. आनी ताकाय म्हूण पियेवपाचें अप्रूप नासलें. पूण आयज फ्रँकीन चडच आगरो केल्लो आनी ना म्हणूंक जड गेल्लें.

तशी चड रात जावंक नाशिल्ली. णव जावन गेल्लीं. बाजार निकतोच बंद जावपाक लागिल्लो. बायक स्टॅण्डार काडून भितर सरता थंय आसा – जेनिफर आनी ममी दोगांय लागलीं तापूंक. नाय जाल्यार काजारा फाटल्यान चारेक म्हयने सरता म्हणसर दोगीं मदीं पेटूंक लागिल्लें आनी सिल्वेस्टर घरा पावतकच ताका बायल–मांय दोगींलेंय आयकून घेवचें पडटालें. पूण आयज दोगीय एकामेकांचेर न्हय तर सिल्वेस्टराचेर तापतालीं.

"रात केदी जाली! एक फोन करप ना?"

"तुका ना हुसको – आमकांय ना?"

''केशें कळपाचें – आक्सिदेंत जालो काय –''

''मोबायलार फोन केल्यार तोय घेना. कितें म्हुणोन सजमुपाचें आमी?''

मोचे काडटां काडटां सिल्वेस्टरान सगली खबर सांगली. फ्रँकीक प्रमोशन मेळिल्ल्यान ताणें फ्रॅण्ड सर्कलाक पार्टी दिल्ली. मोबायल वाजिल्लो आयकलो ना. फुडले खेपेक चुकनासतना फोन करून पयलीं कळयतां म्हूण सांगना फुडें ममीन गरड घाली –

''फुडले पासा? सायबा भगस. काजरा आदीं केन्नाच खूंय पियेवपाक बसपी न्हूं म्हुगेऽ चेडो. हे भाशेन जातोऽ म्हूण कळ्ळोऽ जाल्यार तेका काजारच जावं नाका म्हुणटासलीं.''

तें आयकून वगी बसल्यार तें जेनिफर कसलें?

''काजार जावन फटवलें तें हांव. मांय-पायन बरीऽ खबर काडून केन्ना सोरो पियेवपी न्हूं, देखून काजार करून दिललें हेजेच कोडेन. आयज हो पियेवन येयला आनी फाल्यां आनकोडेन वयतलो म्हुणटा.''

''आगे सायबिणी, गुन्यांव भगस म्हाका. फाल्यां आनकोडेन सोरो पियेवच्याक वयतलों अशें म्हुणलो ना हांयें. फुडल्या पासा ऑफिसांत वगत जालो वा बस चुकली जाल्यार फोन करून घरा कोडेन सांगतलों – इतलेंच म्हुणलां हांयें.''

आनी तितल्यार उजो पालवलो. पूण धग न्हिवलो ना. रातीं जेनिफर कशेंच वेंगेंत येना जालें. कितलें फुसलायलें, विनयलें.

''ममीगेलीं उतरां आयकलीं मुरे तुयें?''

''आयज आनी कितें केलें तिणें?''

आयज तरी कागाळ आसची ना शें दिशिल्लें येदो वेळ.

''कान फुटल्याय तुगेले? तुयें आयकोंक ना? म्हुकोऽ काजार जावन तूं पियेवच्याक लागलो ॲशें म्हुणों ना तियेन?''

''ना गो. तियेन म्हाका म्हुणलां – पियेवपाक बसतलो जाल्यार काजार कित्याक जालो – ॲशेंच म्हुणलां तियेन. हांव बेबदो न्हूं गो. आयज फ्रँकीन

फोर्स केलो देखून-''

''आनकोडेन पियेवपाक ना मुरे?'' जेनिफरान गोपांत येवन समजिकाय दाखयली आनी उपरांत रात परमळूंक लागली.

सकाळीं बायक स्टार्ट मारून भायर सरता थंय आसा, दारा मुखाल्यान जॉनी हातांतलो सोऱ्याचो पाव बोल्सांत लिपयत हांशिल्ले भाशेन करीत पासार जालो. सकाळीं फुडें सोरो लागता असल्या बेबद्यांची सिल्वेस्टराक तिडकच मारता. ह्या जॉनीक घरचींय वगी रावतात बरीं. ताका आपणाले ममी सारकी मांय वा जेनिफरा भाशेन बायल मेळिल्ली जाल्यार थाऱ्यार उरतासलो.

बाजारांत बायक दवरून बसींत चडसर कालचोच विचार सिल्वेस्टराचे तकलेंत घोळटालो. खंयूय पार्टेक, काजाराक गेल्यार बियर घेवप आनी दुसऱ्या दिसा आयतार असल्यार व्हिस्केचे एक थंय दोन पेग मारप हातूंत नवें कांय नासलें. काजार जाल्ल्याक बारांत बसून पियेवपाची मात ही पयलीच खेप. ममीक पयलीं सावन सोंसनासलें. ताका रजांवूय आशिल्लें. सिल्वेस्टराचो पाय सोऱ्याक लागून बेगीन सोंपिल्लो. तेन्नाच्यान मांय ही अशी. सिल्वेस्टर खंयचेय पार्टेक वा काजाराक बी वतना सतरा फावटी ताका चतराय दिताली - ''चड पियेवं नाका. म्हाका मानवना.'' जेनिफराकूय मानवना तर! बरें जालें. सिल्वेस्टराकूय मुळांत सोऱ्याचें व्हडलेंशें आकर्शण नाशिल्लेंच. आयज वेळार घरा परतुवप. पूण! तातूंत तरी सूख आसा? फाटले सात आठ म्हयने मांय-सुने मदीं पेटलें ना असो एकूय दीस वचूं नासलो. ताका लागून घरा परतुपांतली ओडूय उणी जाल्ली.

ऑफीस सुटना फुडें रोखडीच बस मेळ्ळी. आयज घरा सदचे परस बेगीन पावतलों तर! पूण - बेगीन पावप हाचो अर्थ, ममी-जेनिफराल्यो कागाळी चड वेळ आयकप. तरी बरें! बस बाजारांत पावचे पयलींच तिचो टायर पंक्चर जालो. तितलींच वीस मिनटां वतलीं.

''बॅड लक! हांव वतां. येता?'' सुकुमारान विचारलें.

''खूंय?''

"लॅफ्ट-रायट."

आठ धा मिनटांची वाट चलून सिल्वेस्टर बायका कडेन आयलो. घरा यो जाल्यार ममी आनी जेनिफर पासयेंतल्या कदेलांचेर बसून गजाली करतात. सिल्वेस्टराक पळयनाफुडें दोगांलींय मुखामळां फुल्लीं. आयज तो पिये नासतना बेगीन घरा परतलो म्हूण? जावं. घरांत अशीच शांतिकाय नंदल्यार पुरो अशें म्हणीत सिल्वेस्टर भितर गेलो.

पूण तागेली आस्त अल्पजिवी थारली. दुसऱ्या दिसा तो भितर सर जाल्यार वातावरण तापिल्लें.

"चय सिल, ममीक तूंच सांग. म्हुगेऽ चाडी लोकां कोडें करुंनाका म्हुणोन."

"हांयें चाडी केल्या गो ? तें लुर्दीन येयललें तेन्ना हांव शीत रांदतालीं. सर्दींऽ रांदितां म्हूण सांगल्यार तितूंत कितें जालें?"

"तें लुर्दीन विंचात्ता– सून ना गे घारांतु? आनी वगी बरी आयकोन घेता."

"आनी कितें करपाचें? हांयें तुका कितें म्हळां?"

"तुज्यान सांगों जायनासलें – निसतें उजरावपाचें, कडी करपाचें काम सून करता म्हुणोन? फकत शीत रांदून अशें जेवण रांदपाचें सगलें क्रॅडीट घेता ती – ते परस सगलेंच रांद आनी घे क्रॅडीट!"

"म्हाका नाका तें क्रॅडीट-बिडीट. सिलू, तूं सांग तियेक, रांदूंक जायना जाल्यार जायना म्हूण सांग. हांव रांदितां."

सोंसूं जायना जालें तेन्ना सिल्वेस्टर भितर गेलो आनी मोट्ट्यान टिव्ही लावन बसलो.

दुसऱ्या दिसा घरा परतलो जाल्यार फुडलो अवेसर.

"जाणा मुरे सिलू, काल लुर्दीन येयललें तेगेल्या नातवागेलो आयज बाल्तीम आहा म्हुणोन आफोवंच्याक. हे भाशेन वोसनासतना रावप बरें दिसोता?"

"हांवें आडायलली? वोस म्हुणलो ना तुका?" जेनिफरान परती जाप दिली.

"म्हुज्यान एकलेच्यान वोसों जायना देखून दोगांय या म्हुणलो हांयें."

''दोगांय गेल्यार घर बंद करूंक पडटासलें. आयज गॅस येवपासलो. देखून हांयें म्हळें, तूं वोस नाजाल्यार हांव वयतां.''

''म्हाका एकली राव म्हुणटा? आनी ते गॅस घेयन येताय ते केसले मुनीस कळटा? म्हाका कितेंय करून तेणी -''

''पुरो आतां'' अशें म्हणून सिल्वेस्टर तिडकून उठलो आनी भायले भायर वचून आलेक्सागेर बसलो. तकली थंड जायसर. रातीं आठ जावन परतलो तेन्ना दोगांय वग्गी आसलीं. उजो धुंगरेता दिसता म्हूण सिल्वेस्टर मोन्यांनी भितर गेलो. बेसिनाचेर वचून तोंडार उदक मारलें जाल्यार ममी टॉवेल घेवन बगलेक आयली. बेडरुमांत वचून मुस्तायकी देंवयली जाल्यार जेनिफर लागीं येवन घुटमळपाक लागलें. मागीर ताणें ल्हवूच विचारलें, ''सिलू, बारार बी गेल्लो कितें रे?''

''पुरो. जेयच्या दी आतां.''

जेवता आसतना जेनिफरान कुरवेनच 'ना' म्हूण ममीक सांगिल्लें तें सिल्वेस्टराचे नदरेंतल्यान सुटलें ना.

फुडलो दीस आयतार. सकाळीं मीस आयकून सिल्वेस्टर काँफ्रारीचे बसके खातीर म्हूण फाटल्यान रावलो आनी जेवणा वगतार परतलो. आमोरेचेर उठलो आनी पर्थून आलेक्सागेर गेलो. आलेक्सान दिल्ली बियर नाका म्हळी ना. बरो वेळ खबरो मारून उसरां सो परतलो. जेवन रोखडोच न्हिदलो. जेनिफराची वाट पळयनासतना.

सोमारा सांजेर बसींतल्यान देंवन बाजारांत टायमपास केलो. सांगात सोदतां सोदतां ताका आलेक्स दिश्टी पडलो.

''आरे आलेक्स, काल तुयें बियर दिल्ली मुरे! यो, आयज हांव तुका दितां.''

दोगूय बरो वेळ गजाली करीत बियर पियेले. रातीं घरा यो जाल्यार ममी आनी जेनिफर हुसक्यान सालांत बसल्यांत. सिल्वेस्टर भितर सरना फुडें दोगांयली बातेरी सुरू जाली.

''आयज परतोय तूं पियेवन येयला? आमगे नांव पिड्डयार करतलो एसोऽ

करण्यांनी!'' ममी ताणशेली.

''हांयें चिंतूंक लेगीत नासललें - तूं आनी पियेवंच्याक लागतलो म्हूण.'' जेनिफर तणतणलें.

''हांव पियेतलों म्हुगे जिवाक. तुमकां लागना. जेयच्याक दी आतां.'' अशें म्हणून सिल्वेस्टर कुडींत गेलो. फाटसून ममी आनी जेनिफर फुतफुततालीं तें ताणें पळयलें. पूण देखनाशिल्ले भाशेन वचून तो जेवणा मेजार बसलो.

मंगळारा बसींतल्यान देंवलो तेन्ना तो सांगात सोदूंक गेलो ना. थोडो वेळ भोंवलो आनी मागीर बारांत वचून बसलो. फोन वाजलो पूण घेतलो ना. बियरीचो वास तोंडाक येता, तो व्हिस्की परस चड आसता हें ताणें आयकल्लें. एक बियर घेवन बरो वेळ बसलो. निमणी घोंटभर बियर आपणाल्या लेंसार ओतली. आनी दारांत पावतकच त्या लेंसान तोंड पुसून भितर सरलो. आयजूय ममी, जेनिफर सालांत बसून वाट पळयतालीं.

''चय मुगे ममी, आयजूय सिलू पियेवन येयला. तो वाट लायतलो मुगे तेजे बलायकेची आनी आमगेऽ फामिलीची.'' जेनिफराक उलयतां उलयतां हुंडके फुटले. ममीन म्हऱ्यांत वचून सुनेक वेंगेंत घेतली. ''आरे सिलू, बायलेची इदी तरी काकुळट कर मुरे. आनी तिये खातीर न्हूं जाल्यार भुरग्या पासोत तरी पियेवपाचें सोड.''

''कोणा पासोत? झेल खायत भितर सरिल्लो सिल्वेस्टर निट्ट उबो जालो.

''तुगे भुरग्या पासोत. जेनिफर एस्तादाचेर आहा. आतां तरी-''

''आनी म्हाका खबर ना?'' सिल्वेस्टरान अजापीत आनी उचांबळीत जावन विचारलें.

''तुका केशें कळटलें? चार दीस जाले तूं पियेवन येता. केन्ना सांगतलें तें तुका?''

सिल्वेस्टर नाटक विसरलो. जेनिफराक आपणाशीं ओडून ताणें विचारलें, ''खरें जेनिफर, तूं मांय जातोलें?''

‘‘हय. आनी तूं पाय.’’ जेनिफरान दोळे पुशीत म्हळें. ‘‘पूण सिलू, प्लीज, हेचे फुडें सोरो - ’’

‘‘सोड रे म्हुगे पुता.’’ ममीन वाक्य पूर्ण केलें.

‘‘ममी, इतू बरी खबर जेनीन दिल्या. हांव हेचे फुडें बारांत केन्नाच वोसपार ना.’’

सट् करून जेनिफरान सिल्वेस्टराचो हात ओडून आपणाल्या पोटार दवरलो. ‘‘तुगे भुरग्याचो ज्युरामेंत दिवन सांग.’’

‘‘बायल-भुरग्या सयत घर बरें उरोंक जायें. सिलू दी ज्युरामेंत.’’ ममीन आगरो केलो.

सिल्वेस्टर तटास जालो. हीच संद. ‘‘घेतां. पूण तुमीय दोगांनी दिवंक जायो.’’

‘‘आमी? आमी सोऱ्याक आफुडटांव तरी?’’

‘‘सोरो हांव सोडटां. किजिलां-केस्तांवां तुमी सोडपाचीं.’’

ममीन जेनिफराक पळयलें. जेनिफरान ममीक पळयलें. दोगांय हांसलीं. आनी तिगांय एकाच गोपांत रिगलीं.

*****

# विज्मीत

दीसभर उश्णतायेन ह्या रेंवट वाठाराक पिडले उपरांत सूर्य आतां क्षितिजा आड गेला.

रात ऊब सोडून थंड जावंक सोदता.
सगली सृश्ट शांत न्हिदल्या –
धर्तरेच्या भरवंशार.
पूण धर्तरी थतरवितर जाल्ली आसा.
कितले दीस जाले, पोटांत धवळटा.
आंगार शिरशिरी हाडटा.
श्रांत जावन सुस्तावपाचे बदला
धर्तरी भिरांतेन कुळकुळ्ळ्या.
केदचाय खिणाक –
पोटांत उमळून येतलें.
घडये – ओंकारे...

सगलीं शिरंतरांच चाळवल्यांत.
रगत तिचें सोरो पियेल्ले वरी व्हाळेता – दिकाहीन.
लातूर, भूज वाठारा उपरांत वाऱ्यार विरून गेल्ली बोब ह्या इराणांत येवन खंय
तरी लिपून बसल्या काय?
आकूळपिकूळ धर्तरी.
हें संकश्ट निवारचें कशें?
हें संकश्ट निस्तरतलें कशें?
सायबा, वाटाय हें भोंवतण.
लोक कसो सुस्त न्हिदला पळय – म्हजेर पातयेवन.

पोटांतले फातर आनी तळपां मळब पळोवंक आशेल्यांत.
थार धरात रे मातसो
फांतें तरी जावं दी.
कोणूच आयकुपाचे आवतिकायेंत ना कसो?
धर्तरेचें मन थतरवितर
आनी काया सकयल–वयर
आनी आकांताचो थरथरो –

हाजी–पाळणेंतल्या त्या लाकडी पाखाट्याच्या घरांत तीं सुस्त न्हिदल्यांत.
बापूय खाटल्यार.
आवय धुवेक कुशींत घेवन सकयल रजयेचेर.
ती साखरन्हिदेंतल्या म्होंव्या सपनांत आसतनाच
कुशींतलें बाय हुळहुळ्ळें.
बायेन 'उंवां' करचे पयलींच

न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी तिणें ताका ओडलें.
थानाक धरलें.
चिंवेक चिंविल्ले फावटीं एक आगळी-वेगळी सूखसंवेदना.
एक शिमे भायरें खोशेचें ल्हार.
कितलो वेळ जालो!
पोट भरलां आसतलें बायेचें.
पूण कुशीक काडपाक गेल्यार पर्थून चींव ओडली.
फाटले सात म्हयने हें अशेंच चल्लां.
बाय चींव सोडूंक तयार ना.
बायेन चींव सोडची अशें आवयक दिसना.
बापायन मर्दींच तकली वयर काडून पळयलें.
बायेचे दोळे तृप्त-धादोस
तरी वोंठांर वसवसो.
आवयचे दोळे न्हिदसुरे
आनी मुखामळार मुमुरखो म्होंवा-हांसो.

अचकीत -
खंय तरी अरिश्टांचो रूक हुमटलो काय?
कसलो कान-फोडणो भिरांकूळ आवाज हो?
घडये -
झाड ह्या घराचेरूच?
नकळटना आवयचे दोनूय हात
कुशींत मोमो लुंचतले बाये भोंवतणी आंवुळ्ळे.

वयल्या वाड्या वयल्या नव्यानूच बांदिल्ल्या

त्या चिऱ्यांच्या घरांत
फांत्या पारार तो भितर सरलो
तेन्ना हुसेनाची उम्म, रांदचेकुडींत बोवाळटाली.
फांत्यार घरा परतुपी घोवा खातीर गावा करताली.
तो आयज चडूच खोशी आसलो.
हेरां खातीर आदली रात कशीय सरूं
ताचे खातीर भोवच बरी गेल्ली.
मेटा वयली ड्युटी ही अशीच.
कडक तपासणी ज्यारी दवरल्यार पुरो –
भरपूर जोड.
ते राती गाडयो आदले परस चड गेल्ल्यो.
जोडूय देडयेन जाल्ली.
वरिश्टांक पावोवनूय उरिल्लें काळींग बरेंच जड जाल्लें.
खोशये भरशीं तो सदचे परस चिके बेगिनूच
दीस उजवाडचे पयलींच परतल्लो –
हुसेन आतां मदरसांत वतलो.
ताच्या फुडाराचे तयारेक लागलां हांव,
घरकान्नीक सप्रमाण दाखोवन दिवपाक जाय.
बोल्सां खुळखुळायत तो सोंपण चडलो.
भितर सरता थंय आसा –
ताचो तोल गेलो.
पांयां पोंदची शेंदरी ओडची तसो तो लकलो.
म्हणसर पडझड सुरू जाली.
फळयां वयलें सामान आपटता म्हणसर
जनेलां गडगडलीं.

तो भायर धांवंक वतालो.
वारांदाचो खांबो कोंसळिल्लो.
घरकान्न भितर रांदचेकुडींत.
पळय जाल्यार ती भितर धांवताली
न्हिदिल्ल्या हुसेनाक उठावपाक.
म्हणसर उबी आल्मार तिचे मुखारूच आडवी जाली.
तरीकूय ती भितर वचूंक सोदता तें पळोवन
ताणें कळाव केलो ना.
ताका अदमास आयिल्लोच –
"या अल्लाऽ!"
धरली तिच्या हाताक
आनी भरभरीत ओडून भायर काडली.
"म्हजो हुसेन..." ती किळांचली.
"हांगाच राव," ताणें फर्मायलें.
भितर धांवपाक ताणें पांय उकल्लो.
पूण कळाव जाल्लो.
तो थंयच खिळावलो.
आख्खी वणत तांगेल्या बाबुल्याचेर आड जाल्ली.

"कोणूय तरी पावात रे, वांचयात रे म्हगेल्या हुसेनाक!"
कोणें कोणाक पावपाचें?
चुकून माकून वाटावन उरिल्ले
सगलेच धांवताले – कोण हेवटेन, कोण तेवटेन.
थोडे दोळे बिटबिटायत फुड्यांतलो सांवार पळयताले.
"म्हाका आदार करात,"

सदां-गरजेवंत शेजाऱ्या कडेन ताणें मिनयलें,
"मागतां तितले दितां,"
बोल्सांतल्यो सगल्यो नोटी दाखोवन म्हळें.
पूण गरजेवंताली विवंचना ताचे परस व्हडली.
सगलेच बोब मारताले.
हांगेली आरड आयकुपी कोण कसो मेळत?
अवघे खीण -
कांय सेकंदांतूच सबंद भोंवतण आरत्याचें परतें
आनी आशिल्ल्याचें ना शें जाल्लें.

त्या वाठारांतले वाटावल्ले भूंयकांपग्रस्त
भुरुभुरू करून लागीं आयले.
इतल्यान कोनशाचो आबू-जाफर धांवत आयलो.
"म्हजी बायल भितर शिरकल्या. मातसो आदार करात."
चौग जाण धांवले.
खिळखिळें जाल्लें जनेल
नेट लायनाफुडें फास्के सयत भायर आयलें.
भितर खाटे पोंदा लिपिल्ली धूव
ताणें उलो मारनाफुडें धांवत भायर आयली.
पूण तागेली बायल आनी पूत चिड्डून सोंपिल्लीं.
"आजुनूय आडकल्ले-शिरकल्ले लोक आसतले,"
लोकांनी दुकां पुसलीं.
पेंगट बांदून सोद घेवंक लागले.
हूसेनाच्चीं आवय-बापूय दुकां गाळटालीं.
भुंयेचो थरथरो थारलो.

पूण हुसेनाचेर आडवे पडिल्ले वणटीचेर चल्ल्यार
बाबू अदीक चिड्डतलो ही भिरांत.
कडेक रावन तीं सैमाक खेपत रावलीं.

कोणेंच सांगिनासतना लोकांचे पंगड तयार जाले.
''मियाँ, आख्खो काळ पडला – मेल्ल्यां खातीर रडपाक,
यो, कोण उरल्यात जाल्यार पळोवया.''
मेटार जोडिल्ल्या दुडवांनी
पुताक वाटावंक मेळ्ळो ना.
या अल्ला! कसलो हो सांवार!
कितले जाण? कितलीं भुरगीं?
बाबडो हुसेन!
आनी तांणी दुकां पुसलीं.
पयलीं उम्मान ओडणी खोयली.
ताणेंय फैरनचे हात दोडले.
हेर लोकां मर्दी तींय भरसलीं...

आशिल्ल्याचें ना जाल्लें खरें
पूण अल्लान आदाराचो हातूय रोखडोच दिलो.
खंयच्या खंयच्यान आपवावुरपी आयले.
वैजकी पंगडांनी तंबू उबे केले.
जेवणा–खाणाचीं पाकिटां येवंक लागलीं.
खबरेपत्रांचे प्रतिनिधी आनी टिव्ही चॅनल.
वाऱ्यार गजाली – कितल्यो खऱ्यो? कितल्यो फट?
चाळीस हजारां वयर लोकांक मरण

संवसारभर दुख्खाचें सांवट
आंतरराष्ट्रीय मदतकार्य झुजा पांवड्यार
मड्यांचो विलो – व्हड समस्या.
अठ्ठावीस हजार मडीं धर्तरेच्या पोटांत धुकल्ल्यांत.
आनिकूय येत आसात.

भासाभाशेक नेट आयलो.
विज्ञानिकान म्हळें,
"मनीस पर्यावरणा कडेन अती खेळटा,
ताचो हो परिणाम."
देवभावार्ती मौलवीन म्हळें,
"धर्तरेचेर पातकांचो भार चड जाला,
अल्लान दिल्ली ख्यास्त ही."
झुटये वयल्या नेत्यान म्हळें,
"हे खेपेक आमी बेसावध उरले,
फुडले खेपेक असो विध्वंस जावपाक दिवचे नात."

पडझडीचे राशी पोंदा अदींमदीं जिवीं मनशांय मेळटालीं.
हो वावर अल्लाच्या दरबारांत रुजू जातलो
हे भावनेन हुसेनाचीं आवय-बापूय नेटान वावुरतालीं.
फातरां पोंदा, मातये पोंदा, राशीं पोंदा...
अडचल्ल्यांक भायर काडपांत आपलें दुख्ख विसरून गेल्लीं.
मेल्ल्यांक तो ओडून काडटालो.
उम्म वेंचून वेंचून भुरग्यांक भायर काडटाली-
कांय मेल्लीं, कांय जिवीं.

कोणूय दुखाविल्लें जखमी भुरगें सांपडल्यार
धांवताली ताका घेवन वैजकी पंगडा लागीं –
आपलो हुसेनूच जाल्ले वरी.

दीस सरलो, रात सरली.
दुसरो दिसूय सरत आयलो.
आतां मेळटालीं तीं सगलीं मडींच.
"आजून कितलीं घरां उरल्यांत हांगचीं?"
दोगांय गळसणून गेल्लीं.
"तूं बस आतां," ताणें म्हळें.
"हे पाळणींतलें हें निमाणें घर. मागीर पुरो."
जतनायेन पावल घालतनाच 'ती' दिश्टी पडली.
पाटये पोंदा चिड्डल्ली.
तो आनीक दोगां वांगडा पाटी कुशीक काडूंक लागलो.
ती मेल्लीच.
वरशे दोळे पळयतनाच कळटालें.
मेल्ल्यांक आनी कितें आदार करपाचो?
अशें म्हूण ती कुशीक सरताली
म्हणसर
तिची बारीक नदर
त्या सानुल्याचेर पडली.
थानाक लुंचून न्हिंदिल्लें बाय शांत पडिल्लें.
ओंठांर दुदाचे दोन थेंबे सुकिल्ले.
हुसेनाची याद येवन हुंडको दीत
तिणें एक हात बायेचेर दवरलो.

अं? अशें कशें जावं येता?

ऊब? हाताक जाणवली.

हुस्वास? नाका कडेन धरिल्ल्या बोटांनी सांगलें.

ती शिटकावली.

वैजकी टीम लागींच आसली.

धांवत आयली.

स म्हयन्यांचें बाळक दोन दीस जितें उरलें!

सैमाची करणी!

आवयच्या दुदाची करामत!

विज्मीत!

अशेंय घडूं येता?

तिणें घोवा कडेन पळयलें.

सैमाक होरायत दोगांय आपल्या घरा कडेन धांवलीं.

सगली शक्त एकवटावन ती वणत कुशीन काडूंक.

घडये – हुसेन –

*****

# वेव्हार

दोना पावलाच्या तेमकार आग्नेलिया रेलिंगाक धरून उबें आसलें. सकयल दर्या मंद खळखळटालो. फाटले वटेन टुरिस्टांचो बोवाळ चलिल्लो. मुरगांवच्यान येवपी लाँच दिश्टी पडटाली. लाँच धक्याक लागऽसर जर तो आयलो ना जाल्यार आनीक आनी रावप ना असो मनांत नित्शेव करून आग्नेलिया रेलिंगाचेर भार घालून देगेदेगेचेर पातळिल्लीं तळपां पळोवंक लागलें.

फाटलीं सतरा मिणटां तें विनोद जिवानीची वाट पळयतालें. वगीच आपूण थारायिल्ल्या वेळार आयलें म्हूण आपणाकूच दुशण दितालें. भायलेचाराक शांत आसलें. पूण मनांतल्या मनांत फडफडटालें. मोट्या मनशांचें हें अशेंच. तांकां हेरांची पर्वा नासता. जाका गरज ते सोंसतले, गरज ते वाट पळयतले हें तांगेलें गणीत.

पूण... तशें जाल्यार... आग्नेलियाक विनोदाची गरज आसा अशें जालें ना?

गजाल खरी. गरज आग्नेलियाकूच आसली. पूण तशें विनोदाक दिसूंक

फावऽ नासलें. तशें ताका दिसूंक दिलें ना देखुनूच आग्नेलिया विनोदाल्या काळजांत आपणा खातीर सुवात निर्माण करपाक पाविल्लें.

तशो विनोदाचेर जीव उंवाळपाक कितल्योश्योच चलयो तयार आसताल्यो. पूण सोंपेपणी मेळटात त्यो वस्ती जल्मभर मिरोवपांत गिरेस्तांक मजा नासता. आग्नेलिया हो वेव्हार पुरायेन वळखून आशिल्ल्यानच ताणें विनोदाक जाय तितलो लागीं येवपाक दिवनूय जाय तितलो पयसूय दवरिल्लो. आतां विनोदाक आग्नेलियाची गरज दिसूंक लागिल्ली. आग्नेलिया खातीर तो पिसो जाल्लो. ताचे खातीर कितेंय करपाची विनोदाची तयारी आसली. आनी तरिकूय साडेपांचांक मेळटा म्हूण सांगिल्लो विनोद पावणे स जावन गेलीं तरिकूय अजून येवंक नासलो.

''हाय स्विटीऽ'' एका टुरिस्ट तरनाट्यान आग्नेलिया एकलें आसा शें पळोवन आमटाण कल्लावपाचो येत्न केलो. खंयच्या तरी गिरेस्तालो पिलो आसतलो. भोंवडेर म्हूण येतात आनी हांगा जणेक वस्त आनी व्यक्ती ही आपणा खातीर दवरल्या अशे भाशेन वागतात. आग्नेलियान एक तीख नदर मोखना फुडें ताणें थंयसून कूस मारली.

मुरगांवची लाँच धक्याक लागून लोक देंविल्लो पळोवन आग्नेलिया उबगलें... आतां आनीक हांगा तिश्टुवप ना अशें म्हूण तें घुंवलें. इतल्यान पयस मोडणार विनोदाली मर्सिडीझ घुंवतना ताणें पळयली.

आग्नेलिया सडसडीत सकयल देंवलें, आनी सिटी बसी कडेन वचून उबें रावलें.

''हाय, नेलिया –'' विनोदान पयसुल्ल्यानच उलो मारलो.

आग्नेलियान ताका पळयलोच नाशिल्ले वरी केलें. विनोद टुरिस्टां मदल्यान वाट काडीत लागीं आयलो.

''नेलिया,'' बगलेक येवन ताणें उलो मारलो.

''आरेच्या! तूं केन्ना आयलो?'' अशें अजाप मुद्रेर हाडीत आग्नेलियान

शीण काडलो, ''ओह विनोद, I am bored! कितलो वेळ तुका? I am tired of waiting. हांव आतां घरा वचूंक वतालें.''

''सॉरी, नेलिया! भावाक लागून कळाव जालो म्हाका. अर्द वरा भितर येतां म्हूण सांगून गेल्लो विराट देड वरान परतलो. म्हाका भायरूच सरूक मेळना जालें.''

आनी मागीर अडेचो फुगडो सोडून आग्नेलियान विनोदाच्या हातांत हात घालो. विनोद उलय उलयत ताका घेवन वयर तेमकार गेलो. सूर्य निकतोच उदका आड गेल्लो. पयस बोटी नांगरून बशिल्ल्यो दिश्टी पडटाल्यो. फाटले वटेन टुरिस्टांची खेट जाल्ली. धक्या वाटेन स्पीड बोटी भोंवड्यो मारताल्यो. मुरगांवा वचपी लाँच निकतीच सुटिल्ली.

रेलिंगाक धरून दोगांय उर्बी रावलीं. फुडल्यान सैमाचें अप्रूप रूप पातळिल्लें. ल्हारां तळपांक आपटून फुट्टालीं.

विनोद उलयतां उलयतां मर्दींच थारलो. सकयले वेळेक एकतांक पळयत उबें आशिल्ल्या आग्नेलियाक ताणें विचारलें, ''कितें पळयता गो? फातर मेजता?''

''ना. ल्हारां मेजतां'' आग्नेलियान म्हळें.

विनोद खो खो करून हांसलो. ''ल्हारां मेजूंक मेळिल्लीं जाल्यार जिवानी आनी कंपनी र्ती बँकेंत भरची नाशिल्ली?''

विनोद सत्य तेंच उलयिल्लो. आजो मदनभाय जिवानी वरशे खांके घेवन गोंया आयिल्लो, आनी फातरांचो वेव्हार करून मिनेर जाल्लो. फुडें मिनाचे दीस फाटीं पडले. तेन्ना विनोदाच्या बापायन बाबूभायन गोंयचे वेळेदेगेर फायव्ह स्टार हॉटेलां बांदलीं, आनी खऱ्यांनीच जर ल्हारां मेजूंक मेळिल्लीं जाल्यार विराट आनी विनोद त्या ल्हारांचोय धंदो करूंक उणे नाशिल्ले.

''एक्सक्यूज मी!'' कोणतरी भोंवडेकारान तांकां हडकिलीं. दर्याचो फोटो काडपाक तांकां मातशीं कुशीक सरपाक तो विनयतालो. बेठोच मूड इबाडिल्ले

वरी जालो.

म्हणसर आनीक भोंवडेकार वयर आयले. विनोद उबगलो. आग्नेलियाचो हात ओडून ताणें म्हळें, "आमी आनीक खंयूय या. ह्या टुरिस्टांचो कुलकुलाट सोंसूं नजऽ."

"खंय या?"गाडी स्टार्ट करून विनोदान विचारलें. तागेली ही सदचीच संवय.

"As you please" आग्नेलियाची सदची जाप.

खरें म्हळ्यार खंय वचप हें म्हत्वाचें नासता. सांगातांत वचप म्हत्वाचें.

"बीच नाजाल्यार हॉटेल – तिसरें कांय येवजच ना –" विनोदान म्हळें.

आग्नेलियाक याद जाली. अमेरिकन बीट ग्रूप गोंयचे भेटेर आसा. तांचो एक प्रोग्राम आयज मडगांवां जावपाचो आसलो. पूण आतां कळाव जाल्लो.

"If only you were to come in time! कांय बरो बीट शो पळोवपाक वचूं येतालें. पूण आतां खूब लेट जालें."

"फकत ह्या विराटाक लागून –" भावाचेर फडफडत विनोदान म्हळें.

"पूण टायम जायना फुडें तुज्यान भायर सरूं येतालें. तूं नासतना तो भायर सरना?" आग्नेलियान शीण काडलो.

"Of course, he is the boss! तो कितेंय करूंक शकता. पूण ताणें म्हाका आपूण येसर राव म्हळां आसतना जर हांव भायर सरिल्लों जाल्यार ताका राग येवचो नासलो?"

"हय तर! तुका तोच हुसको. म्हजें भोव पडलां तुका." आग्नेलियान मारिल्लो थोमणो विनोदाक लागलो.

"प्लीज, try to understand me, नेलिया. ताणें कितें म्हाका बेठोच बसोवन दवरूंक नासलो. ताका भायर वचपाचें काम आसलें, आनी मुंबयच्यान एक अर्जंट मेसेज येवपाची आसली. केन्नाय खिणाक फोन येतलो म्हूण म्हाका राव म्हणिल्लें." विनोदान मखलाशी केली, आनी वयल्यान वितरागून म्हळें,

“एक मात खरें, विराट प्रत्येक खेपेक म्हाका आडमेळीं हाडटा.”

आग्नेलियाक फाटल्या म्हयन्यांत जाल्ल्या आपणाल्या बर्थडेची याद आयली. नाका नाका म्हणटना विनोदानच पार्टी दिल्ली. आग्नेलियाच्या फ्रँडसां परस विनोदाले इश्टच चड आसले . त्या दिसाचे विनोदाले चलणुकेन तांगेले संबंद आनी फुडाराची येवजण इश्टां मेरेन पावयिल्ली. आग्नेलियान येवजिल्ले वाटेवयलें तें आनेक पावल जाल्ल्यान आग्नेलिया खुशाल आशिल्लें. आनी तातूंत भर म्हूण विनोदान एक भांगरान बांदिल्लो मोतयांचो नॅकलेस आग्नेलियाक भेट म्हूण दिल्लो. आग्नेलियाक तो नॅकलेस भोवच आवडिल्लो. पंदरा हजारां परस उणें मोल आसुंकच फावना इतलो मोलादीक.

“ओह विनोद, हाउ ब्युटिफुल!” आग्नेलियान काळजा थावन म्हणिल्लें.

“पूण खरें सांगू? I'm sad, म्हज्या मनांतली वस्त हांव प्रॅझॅंट करूंक शकलों ना म्हूण!” आनी मागीर विनोदान आग्नेलियाक कुशीक व्हरून फोडणिशी केल्ली, “हांवें फाटीं बूक केल्ली मारुति कार पयरच आमकां पावली. तीच तुका प्रॅझॅंट म्हूण दिवपाची म्हाका इत्सा आसली. पूण विराटान म्हाका आडमेळें हाडलें. तो म्हणटा, “मनशाचें मोल करपाक पयलीं शीक, मागीर वस्ती भेट दी!”

मोट्या मनशांलीं उतरां आनी मोट्या मनशांल्यो करण्यो सामान्य मनशाचे नदरेंतल्यान पळयल्यार तिडक हाडटात. पूण आग्नेलिया ह्यो गजाली मोट्या मनशांच्या पांवड्या वयल्यान पळोवपाक शिकिल्लें. ताका लागून विराटान कितें म्हळें तें ताच्या मनाक लागलें ना. पूण ताणें विनोदाक आडायलो तें मात बरें केलें अशें ताका दिसलें.

खऱ्यांनीच विनोदान जर ताका मारुति भेट म्हूण दिल्ली जाल्यार आयज पेट्रोल आनी मॅण्टेनन्स आपणाक तांकतलें आशिल्लें?

विनोदाक तशें सांगलें जाल्यार विनोद खो खो करून हांशिल्लो. “आगो

पिश्याऽ, हो विनोद जिवानी आसतना तुका पेट्रोलाचो हुसको? तूं जाणा जिवानी आनी कंपनीच्यो कितल्यो गाडयो आसात त्यो? म्हाका लेगीत सारकें खबर ना. इतल्या गाडयां मदीं तुगेली एक.''

अर्थांत, विनोदाच्या नांवार पेट्रोल घालूं येतालें. पूण अशें कितलें दीस?

अशें कितलें दीस? आग्नेलियाक हुसको दिसतालो. मोट्या मनशांचें कितें सांगू येता? तातूंत इंटर रिलिज्यस! आयज विनोद सिरिअस आसा. फाल्यां नेलिया सदचेंच जावन उबगण आयली जाल्यार? मागीर तो निमित्त्यां सोदतलो.

धर्माचें निमित्त्य तो सांगचो ना. ताणें पयलींच फोडणिशी केल्ली. "Jeevanis know no religion! दुडू होच आमचो देव.''

''तशें जाल्यार तुमकां गिरेस्तालेंच चेडूं जाय आसतलें -'' आग्नेलियान बारीकसाण घेतिल्ली.

''तूं म्हगेली बायल जालें की म्हजे इतलेंच गिरेस्त जालें ना?'' विनोद हांसपाच्या मुडांत आसलो.

''तुजी खबर नाका म्हाका. I mean, तुगेल्या घरच्यांक -''

''घरांत कोण? आवय म्हजी ल्हानपणांतच मेल्ली. बापूय गेल्यार चार वर्सां जालीं. भाव म्हजो भोव वेव्हारी. ताका लागता तो एकूच धर्म - दुडवांचो! तो म्हाका नाका म्हणचो ना. उरल्यो त्यो भयणी. तूं जाणा? व्हडली मेनका एका सरदारजी लागीं लग्न जाल्या. आनी धाकली डिंपी अमेरिकना वांगडा लग्न जावन अमेरिकेंतच रावता. आमकां धर्माच्या नांवान आडमेळें येवपाक कारणच ना. अर्थांत तुगेल्या घरचीं-''

"Forget it! तूं जाणा, म्हाका घरचीं कोणूच नात,'' आग्नेलियान समादानान म्हळें.

पूण दीस सरत आशिल्ले. खऱ्यांनीच विनोदाले जिणेंत फाल्यां दुसरी कोणूय आयली जाल्यार, दादलो मनीस तो, बदलपाक कळाव नाका.

गिरेस्ताल्या घरांत सून म्हूण वचपाचें आग्नेलियालें सपन साकार जावपा कडेन पाविल्लें. तें मर्दीं तुटूंक फावना. ताकतीक मारुंकच जाय. फाटीक लागुंकूच जाय.

ताजांत जेवन परतीं येतना आग्नेलिया येवजीत आसलें.

"डार्लींग, तूं वगी कित्याक?" बडबड्या विनोदान विचारलें.

मातशें अनमनून आग्नेलियान तोंड उकतें केलें, "विनोद, how long will this go on? म्हाका तूं जाय... आनीक कितले दीस हांव एकलें रावं?"

आग्नेलियाचीं फकाणां मारपाक विनोदान तोंड उकतें केलें. पूण तागेल्या तोंडा वयलो गंभीर भाव वळखून ताणें सूर बदल्लो, "नेलिया, म्हाकाय तूं जाय. I'm only waiting for an opportunity."

"पूण कितले दीस, विनोद? खऱ्यांनीच तुवें हाचेर सिरियसली विचार केला?"

"दीसरात तोच विचार करतां हांव. पूण–"

"पूण कितें?"

"तूं जाणा, विराट म्हजो व्हडलो भाव. ताचेंच अजून लग्न जावंक ना. ताका लागून म्हज्या लग्नाचो प्रस्न काडप म्हाका जड वता."

हुसकारो सोडून आग्नेलिया वग्गी रावलें. तो हुसकारो विनोदानूय आयकलो. तो सकयल वयर जायत रावलो. पावऽसर.

आग्नेलियाक देंवयतना विनोदान ताचो हात दामून म्हळें, "नेलिया डार्लींग, प्लीज, थोडे दीस राव, हातूंतल्यानूय वाट काडुंया. And it won't be long! आतां, a smile, please!"

आग्नेलिया हांसलें. 'गुडनायट' करून देंवलें. गाडी पयस वचऽसर थंयच उबें रावन ताका 'बाय बाय' केलें. आपणाल्या फ्लॅटांत आयलें आनी सूऽ करून सोफ्याचेर आड पडलें.

विनोदान म्हणिल्लें - it won't be long तशें जाल्यार थोडेच दीस, आनी मागीर तें गिरेस्ताली घरकान्न जावन बंगल्यांत रावपाक वतलें. पॉश जीण जियेतलें. हुसक्यामेकळें दुडू मोडटलें. नवी जीण - जंय फायचो हुसको आसचो ना.

भूतकाळाचे फाटभुंयेर फायची जीण चडच परजळीत कशी दिसताली.

तें भुरगेपण-

कोणाक सांगून खरें दिसचें ना-

आग्नेलियाक बापायची सारकी याद जायना. फिलीप कुवेत वचपाक गेल्लो तेन्ना तें इकरा वर्सांचें आसलें. हय-न्हयशी याद जाता ती बापूय वतना आवय कडेन झगडिल्लो ती. आवयक सांगिनासतना ताणें तिगेलीं दोन भांगरा कांकणां विकून वचपा खातीर दुडू उबे केले. आवयन मागीर आकांत केल्लो. फिलीपान पयलीं समजावन सांगिल्लें, "वचपाक दुडू जाये, देखून कांकणां मोडलीं. परतो येतरीच दोनाचीं चार कांकणां करतां...'

पूण आवय मानून घेवपाचे आवतिकायेंत नासली. निमाणें फिलीपान तापसाणेभरशीं झां करून एक थापट बायलेच्या कानसुलार मारिल्लें. ती याद मात आग्नेलियाच्या काळजाक घट दसून उल्ली.

बापूय कुवेत वतकीर घरांत जो बदल घडून आयलो तो मात आग्नेलिया विसरूंक शकना. कुवेतच्यान दुडू येतले म्हूण मांयन स म्हयने वाट पळयली. पूण पानदुडू आयलो ना. उदारी वाडली. रिणां काडलीं आनी निमाणें रिणकारी हड्ड्यार बसले तेन्ना वस्ती विकून रिणां पावयलीं.

मांय वाड्यार कामाक वचूंक लागली आनी एक दीस आग्नेलियाकूय शेजान्नीगेर आदार करूंक धाडलें. रांदनीर शिजपाच्यो वस्ती उण्यो जावंक लागल्यो. जिणेचें वस्त्र अशे तरेन विटत गेलें. पूण बापायची कांयच खबर मेळ्ळी ना. खंय आसा, कितें काम करता कांयच कळ्ळें ना. एकूच आस्त आसली, फिलीप एक दीस येतलो - साकभर दुडू घेवन येतलो.

हय, दुडू जायच आसले. नवी मुस्तायकी शिंवपाची आसली. आग्नेलियाक व्हिस्तीद मोटवे जाताले. वाडटे पिरायेक धरून तें घसघशीत वाडिल्लें. आतां आंग धांकूक मुस्तायकी नासली.

हालीं दुडू नासून रेशन लेगीत सोडचें पडटालें. वाडटे पिरायेर भुकूय चड लागताली. पोटभर खावपाक पियेवपाक जाय जाल्यार दुडवांची चड गरज आसली.

पूण चार वर्सां सरलीं तरी बापूय आयलो ना, आनी दुडूय आयले नात.

अशेंच एक दीस आग्नेलिया इश्कोलांतसून घरा परतलें जाल्यार एके ताटलेंत आवयन शीत-कडी वाडून दवरिल्ली. ताणें बुडकुलो उस्तून पळयलो. शीत साप थोडें आसलें. पोटाक चरचरून भूक लागिल्ली. तिडकीन दोळ्यांत उदक येवपाक लागलें. आग्नेलियान बुकां आपटिलीं आनी पयलीं घुटघुटीत ग्लासभर उदक पियेलें. ताटली ओडली.अर्द दोवलो नुसत्या कडी त्या ताटलीभर शिताक लेगीत पावऽनासली. पूण घरची आवतिकाय वळखून ताणें आयंडो घोंटलो आनी शीत कालयलें. एक उंडी जेवता म्हणसर लापीट शेंपडी हालयत भितर आयलो.

आग्नेलियाली उंडी ताळ्या कडेनच आडखळ्ळी. दोन दीस ताका वाडूंक नासलो. फाटल्या स म्हयन्यांत तो खुबूच खिन्नटिल्लो. जाल्लो पेटो आसतना फिलीपान हाडिल्लो ताका. लापीट हें नांवूय ताणेंच दवरिल्लें. दोन वर्सां भितर वाग कसो वाडिल्लो. दारांत कोणाक उबो करिनासलो. घरच्यांक जीव करतालो. पूण फाटल्या वर्साभरयाक ताका पोटभर मेळऽ नासलें. पाड पडिल्लो लोकांगेरूय वचऽ नासलो.

कूं कूं करीत शेंपडी हालयत लापीट आग्नेलिया बगलेक आयलो. भेंड हालयत ताचे पांय हुंगूंक लागलो. एक उंडी ताका घालची अशें दिसलें आग्नेलियाक. पूण पोटाक उजो पेटिल्लो. आग्नेलियान ताका धुकल्लो. भायर घालून दार आड केलें. दुकां आडायत तें जेवलें. निमाण्यो दोन उंडयो दवरल्यो.

आनी भायर येवन पेट्या मुखार ओतल्यो. खिणांत लापीटान भकभकीत खावन निवळ केलें. चाटून चाटून गोटो लेगीत दवरलो ना.

हें अशेंच चल्लें जाल्यार आपणाचेर उपाशीं रावपाचो वगत येतलो हाची जाण आग्नेलियाक जाली. फाल्यां दोन उंडयो चड मेळूंक जाय जाल्यार आयज काळजार फातर दवरुंकच जाय.

आग्नेलियान लापीटाच्या गळ्यांत दोरी घाली. आनी ताका घेवन तें चलूंक लागलें. चलत रावलें. वर सवाय वर चल्लें. कोण बगलेक नाशें पळोवन एका झाडाक दोरी बांदली. आनी लापीटाचें कूंयकूंय आयकूं नजऽ जावन फाट करून वांकडी वाट करून तें घरा आयलें.

चलून चलून पुरो जालें. कडकडून भूक लागली. घुटघुटीत उदक पियेलें. पूण पोटांतलो फोंड वाडतच रावलो. अस्वस्थतायेक धांवडावपाक आग्नेलियान बूक काडलें. सकाळीं शिकयिल्लो ‘लेसन’ उकतो केलो, आनी तें वाचूंक लागलें. पूण भूक ताका धोंगसुपाक लागली. तेन्ना ताणें मोटमोट्यान वाचूंक सुरवात केली. मोट्यान म्हणिल्लीं तोंडांतलीं उतरां कानांत वचूंक लागलीं. तांचीच एक लय तयार जाली. आग्नेलिया नकळटनां धोलूंक लागलें. धोलतां धोलतां घुमूंक लागलें.

‘‘आगो पुरो. हें घे आनी न्हिदे आतां. रात जाली.’’

मांयन दिल्लो पेजे नीस घोंटेवन आग्नेलिया थंयच लवंडलें. इतलें पुरो जाल्लें की ताका सुस्त न्हीद पडली.

दुसऱ्या दिसा टिचरीन ताका केन्नाच न्ही इतली शाबासकी दिली. सगल्या प्रस्नांक ताणें सडसडीत जापो दिल्ल्यो. आख्खो धडो ताका तोंडपाठ जाल्लो.

मागीर हें सदचेंच जालें. पोटाची भूक विसरपा खातीर आग्नेलिया मोट्यामोट्यान पाठांतर करताले.आनी टिचर म्हणटाली, देख घेयात आग्नेलियाची, काय बरें ‘बायहार्ट’ करता...

मांय कश्ट करताली. जाता नजऽ करून संवसार चलयताली. पूण दोन वेळचें जेवण सोडून तिसरी वस्त घरांत येनासली. फिलीपाक भाव नासलो. पूण भयण आसली. लागशिल्ल्या वाड्यार काजार करून दिल्ली. पूण आकांताक कोणूच पावऽ नासलो. खंयच्याच सोयऱ्यान येवन आपलेपणान खबर घेवंक नासली. पूण मांयन धीर सोडूंक नासलो. कास बांदून वावर करताली.

आग्नेलियाली वाडटी पिराय दोळ्यांत भरताली. आंगा वयली मुस्तायकी वाडटें आंग धांकपाक उणी पडटाली. तिरायताली नदर ल्हवूच आपणाल्या आंगा वयल्यान भोंवता तें आग्नेलियाक जाणवतालें, आनी लजेन मेल्ले वरी जातालें. नवी मुस्तायकी शींव म्हूण आवयक सांगपाक तोंड येनासलें.

शेजारच्या जुजेफीनालें काजार बगलेक पाविल्लें. काजराक वतलें जाल्यार घालपाक व्हिस्तीद नासलो. रोझीलो भाव जॉन आग्नेलिया कडेन खुबूच संवकळीन चलतालो. एक दीस लज कुशीक दवरून आग्नेलियान ताका म्हळें, ''जॉन, काजराक वचूंक म्हजे लार्गी व्हिस्तीद ना. म्हाका दोन मिटर लुगट हाडून दिता? हांव शेजान्नी कडेन शिंवोन घेतां.''

''हांव हाडोन दितां. तूं म्हाका कितें दितलें?'' त्या वाडिल्ल्या भुरग्यान विचारलें.

''पाय येतरीच तुगेले दुडू पावयतां. प्लीज.''

जॉन हांसलो. ''दुडू नाकाय गो. म्हजे बराबर नाचोंक जायें आं!''

आग्नेलिया लजेलें. ''म्हाका नाचोंक येना.''

''हांव शिकोयतां तुका,'' जॉनान म्हळें, आनी बगलेक कोण नाशें पळोवन जॉनान ताका न्हय थंय चिमटो काडलो.

ते बराबर आग्नेलिया भियेलें. आंगभर थरथरलें. एके अनामीक भिरांतेन थर्त शेळेलें. आनी जॉनाचे नदरेक नदर दिनासतना फाट करून ताणें धांव मारली तें बद्द आवयचे कुशींत रिगलें.

''कितें जालें बाय?'' हुसक्याभरीत आवयन विचारलें.

आग्नेलिया वग्गी रावलें. कितें सांगपाचें? पूण घुसमटमार वाडलो. ताणें आवयक तुटकें मोडकें सांगलें, ‘‘रोझीचो भाव जॉन म्हाका व्हिस्तीद जाय म्हुळें... जाल्यार... तो... तो...’’

मांय सांगिनासतना समजली.

‘‘चय बाय, हे लोक एशेच. एका हातीन दिताय. दुसऱ्या हातीन घेताय. तेंचे पसून पयस राबोंक शीक,’’ मांयन समजायलें.

‘‘मांय,’’ आग्नेलियान शांत जायत म्हळें, ‘‘हांवें तेजे लागीं फकत दोन मिटर लुगट मागलेलें . आनी पाय येतरीच दुडू दितां म्हूण सांगलेलें.’’

इतल्यान भायर बोवाळ जालो. पळय जाल्यार तेलेग्राम घेवन पोस्टमन आयिल्लो.

‘‘पाय येवपाचो आसा म्हूण आयला काय...’’ अशें येवजीत आग्नेलिया मांयचे फाटोफाट भायर आयलें. पाय आयलो जाल्यार नवी मुस्तायकी येतली, दुडू येतले, दळदीर सोंपतलें अशे उमेतीचे विचार घोळयत आग्नेलियानच तेलेग्राम घेतलो.

‘‘सॉरी, बाये खबर बरी न्हूं–’’ पोस्टमनान कागदार तागेली निशाणी घेवन म्हळें.

"Philip Braganza expired. Body sent by Air."

दुसऱ्याच दिसा फिलीपाली कूड पावली. केदो आकांत आयलो! इन्तेर करपाक लेगीत मांय कडेन दुडू नासले. त्या आकांता वेळार सांतान गादीकार देव कसो पावलो. ताणें दिल्ल्या दुडवांनी मर्ण जालें.

आनी मागीर सांतान येत रावलो. पयलीं पयलीं आग्नेलिया इश्कोलांत वतकच, मागीर मागीर खंयच्याय वेळार.

पयलीं पयलीं आग्नेलियाक सांतानाचो राग येतालो. पूण तो येवपाक लागत सावन तांचे आवतिकायेंत जाल्लो बदल नदरेआड करूं येनासलो.

मांयन सांगिल्लें तें खरेंच. ''हे लोक अशेच एका हातीन दिताय, दुसऱ्या हातीन घेताय.'' पूण कशेंय आसूं, एक वेळचें जेवण तरी धड मेळपाक लागलें.

इश्कोलाची पिकनीक बोंडला, मयां वचपाची आसली. फाटलीं तीन वर्सां आग्नेलिया पिकनिकेक वचूंक नासलें. आनी अंदूय वचपाचें खरेपण नासलें. त्या दिसा इश्कोल सुट्टकच फ्रॅंडीन ताका आडावन विचारलें, ''आग्नेलिया, तुवें पिकनिकेक नांव दिवंक ना?''

''ना.''

''कित्याक? यो मगो! फुडल्या वर्सा एस्. एस्. सी. मागीर खंय वचोंक मेळटा?''

खीणभर अनमनून आग्नेलियान सत तेंच सांगलें, ''पंदरा रुपया भरपाक म्हजे लागीं दुडू नात.'' आनी तकली सकयल घालून तें गेलें.

फ्रॅंडी क्लास मॉनिटर आसलो. दुसऱ्या दिसा ताणें पिकनिकेक वचपी भुरग्यांचें लिस्ट आग्नेलियाक दाखयलें. आग्नेलियाचें नांव तातूंत पळोवन तें अजापलें. ताणें विचारचे पयलीं फ्रॅंडीनच फोडणिशी केली.

"No questions. दुडू हांयें भरल्यात. तुयें येवच्याकूच जायें.''

आग्नेलियाक खरेपणीं पिकनिकेक वचूंक जाय आसलें. फ्रॅंडीन दुडू भरिल्ल्यान तें सुखावलें.

''थॅंक्यू फ्रॅंडी!'' ताणे मना थावन म्हळें. आवयल्यो दोन साडयो नव्योच आशिल्ल्यो. रांडाव जायत सावन ती त्यो रंगीत साडयो न्हेसनासली. आग्नेलियान तांतली एक साडी कातरून तिचे दोन व्हिस्तीद शिंविल्ले. एक घालून तें पिकनिकेक गेलें. खूब रमलें. टिचरां वांगडा केल्ली मस्करी, चेड्यां वांगडा केल्ल्नी फकाणां आनी वांगडच्या चेडवां कडेन केल्ल्यो गोडगुपीत गजाली... आग्नेलिया खुशालभरीत जालें.

पिकनीक परती येवपाक खूब कळाव जालो. साडेसातांक बस इश्कोला

कडेन आयली तेन्ना थोड्या भुरग्यांक व्हरपाक तांगेल्या घरचीं मनशां आयिल्लीं. जांचीं आयलीं नात तांकां पावपाक टिचर वा जापसालदार भुरगे गेले. आग्नेलियाक आपूण पावयतां म्हूण फ्रॅडीन सांगलें.

"पिकनीक बरी जाली मुगो?" फ्रॅडीन वाटेर विचारलें.

"हय. I enjoyed it. आनी थँक्यू, तुकाच लागोन हांव पावलें." आग्नेलिया काळजा थावन दिनवासलें.

"राव, आमी शॉर्टकट मारुंया," फ्रॅडीन म्हळें आनी आग्नेलियाचो हात धरून ताणें ताका आडवाटेर व्हेलें.

बांदार नदर भोंवडावन आग्नेलियान विचारलें, "हो शॉर्टकट?"

आग्नेलियाचो हात दामून फ्रॅडीन म्हळें, "हय. आमकां बगलेक हाडटा तेसलो."

आनी नकळटना तांचीं पावलां आडखळूंक लागलीं. फ्रॅडीलो हात खांद्यार पावलो. आनी खांद्या वयल्यान देंवन सकयल.

आग्नेलियाक खीणभर दिसलें, ताका आडावचो. पूण ह्या फ्रॅडीक लागून तें पिकनिकेक पाविल्लें. ताचे उपकार नात तर?

फ्रॅडीन ताका दारांत हाडून सोडलें तेन्ना आठ जावन गेल्लीं. मांयक कळ्ळें जाल्यार मांय तापयत काय ह्या विचारान आग्नेलिया बेठेंच कुळकुळ्ळें. भितर यो जाल्यार मांयची जाग ना.

खीणभर आग्नेलिया भियेलें. मांय आपणाक सोदूंक इश्कोला कडेन बी गेली ना मूं? म्हणसर ताची नदर कानाप्याचेर कशायकशे आड पडिल्ले मांयचेर पडली. कितें जालें काय हिका अशें म्हूण आकांतून आग्नेलिया मांयचे सरीं गेलें जाल्यार –

घप्प करून सोऱ्याच्यो घाणी आयल्यो. मांय सोऱ्याचे घुंवळेंत पडिल्ली.

सांतान गादीकार मांयक संवकत पसून ती इलेंइलें घेवपाक शिकिल्ली.एक

दीस आग्नेलियान तिका विचाल्ल्यार तिणें म्हणिल्लें, "हय. घेयला हांयें सोरो. सोंसूंक नेजो जाता तेन्ना घेवंचो पडटा. तुका कळपार ना तें-"

मांयक कितेंय सांगपा इतलें आग्नेलिया जाणटें जावंक नासलें. सांतान येता तें आग्नेलियाक मानवनासलें. पूण ते बगर रांदनीर कांय शिजूंक पावचें ना हें ताका कळटालें. आवय सोऱ्याक लागीं करता तें बरें न्हय, हेंय ताका कळटालें. पूण तिका सांगप कशें तें कळऽनासलें.

बापूय जर धड आशिल्लो जाल्यार हें अशें जावचें नासलें इतलें कळटालें. पूण आतां उपाव नासलो. ताणें कुवेत केलें कितें? जोडलें कितें ? तो मेलो कसो? कांयच सारकें कळूंक नासलें. ॲक्सिडंट जावन मेलो म्हूण कळिल्लें. पूण कसलो ॲक्सिडंट? कामार आसतना? काय भायर भोंवतना? कांयच कळूंक नासलें. आनी कळून कितें जातलें हे भावनेन कोणें खबरूय करूंक नासली.

आग्नेलियान तर येवजुपाचेंच सोडून दिल्लें. आनी येवजुनच येवंक लागलें की तें अभ्यास घेवन बसतालें.

एस्. एस्. सीक पावऽसर फ्रॅडी ताका मेळत रावलो. निमित्य काडून वस्ती भेटयत रावलो. संद सोदून किरमूंक लागलो. घेतालो ताचे परस चड दितालो. तागेल्या पायन दुबाय साकून हाडिल्ल्यो सेंटाच्यो बाटल्यो ताणें आग्नेलियाक दिल्ल्यो. बर्थडेचें नीब करून व्हिस्तिदाक लुगट दिल्लें. मे म्हयन्यांत कोलव्यां वतना ताका जोर्ती घेवन दिल्लीं, आनी आग्नेलियाक एक फावट सिनेमाक घेवन गेल्लो. एक फावट डान्साक व्हेल्लें. एप्रील मेंत चार पाच फावटीं कोलव्यां व्हेल्लें. आनी मदीं मदीं संद सादून आमोरे वयले पासयेक म्हूण बांदार व्हेल्लें.

फ्रॅडी गिरेस्त बापायलो चेडो. घडये आपणा कडेन काजार जायीत अशी आस्त आग्नेलियाक दिसताली. इश्कोलांतलीं भुरगीं ताका फ्रॅडीच्या नांवान चाळोवंक लागिल्लीं. शेजारचे लोक लेगीत दुबावान पळयताले. फ्रॅडी लेगीत 'my girlfriend' अशी आपणाल्या इश्टां कडेन ताजी वळख करून दितालो.

पूण म्हणसर एक दीस –

मे म्हयन्यांतलो निमणो आयतार. फ्रॅडीन ताका साडेपांचांक कोलव्यां वेळेर आफयिल्लें. फाटले सात आठ दीस तो मेळूंक नाशिल्ल्यान चडूच उमळशिकेन आग्नेलिया कोलव्यां गेलें... सांकवा कडेन वचून फ्रॅडीक सोदूंक लागलें. जाल्यार अकस्मात मायकल फुडें आयलो.

''हाय आग्नेलिया, फ्रॅडीन आपूण पावचों ना म्हूण सांगलां. देखून हांव येयलां.''

आग्नेलियाक फ्रॅडीची तिडक मारली.

''कमॉन आग्नेलिया, आमी एक पासय मारुंया. I want to talk to you".

आग्नेलियाक हरशीं मायकला वांगडा वचपाचें नासलें. बऽरो मायकल फ्रॅडीचो इश्ट आसलो तरी आग्नेलियाक तो आवडनासलो. पूण मुजरत कोलव्यां येवन फ्रॅडी ना मेळिल्ल्यान एक रितेपण शें आयिल्लें. गोंदळिल्लें मन घेवन तें मायकला वांगडा वेळेर गेलें.

''हें चय आग्नेलिया, हेजे फुडें फ्रॅडी तुका मेळूंक पावचो ना. फ्रॅंकली सांगपाचें म्हळ्यार, तेणें दुसरें गर्लफ्रॅंड केलां. पूण तूं पिकार जावं नाका. हांव तुजो फ्रॅंड जातां.''

आग्नेलिया आयकुपाकच उरलें. ताचीं पावलां थारलीं. मायकल चडच उचांबळ जावन सांगूंक लागलो, 'फ्रॅडीन म्हाका सगलें सांगलां. आनी तुयें म्हजे लागीं फ्रॅंडशीप मारली जाल्यार तेका राग येवपार ना, तेणेंच म्हाका सांगलां, आनी...''

आग्नेलियाच्यान सोंसूं नजऽ जालें, ''पुरो. हांव वयतां.'' अशें म्हणून तें घुंवलें.

''राव, आग्नेलिया. चय, हांवें तुका प्रॅझॅंट हाडलां.'' आनी ताणें हातांतली उंची पर्स ताका दिवपाक फुडें काडली.

आग्नेलियाले दोळे उजो ओंकूंक लागले.

''तूं कितें समजलो म्हाका? हांव कितें रस्ताद पडलां?'' आग्नेलियान पर्स

शेंवटून म्हळें.

मायकल तिडकलो, "तूं कितें तें फ्रॅंडीन सगल्यांक सांगला. तूं म्हगेलें फ्रँड जाता जाल्यार हांव तुका जायें तें दितां -"

आग्नेलियाक जाप फुटना जाली. तें घुंवलें आनी पांय आपटीत चलत रावलें.

"हे लोक एशेच... एका हातीन दिताय, दुसऱ्या हातीन घेताय-"

आग्नेलिया शिटकावलें. आपणें घेतलें ताचे परस होगडायलें चड हें ताका होलमलें. वसवश्या तरनाट्यांली नदर ताका वळखुपाक येवंक लागली. तांचे पसून चार हात पयस रावपाचो निच्छेव ताणें केलो.

एस्. एस्. सी.चें वर्स जाल्ल्यान ताका अभ्यासाचेर ध्यान एकठावप सोंपें जालें. सुरवेक कांय चेडे चेडवां ताचीं फकाणां मारतालीं. पूण फाटले स-सात म्हयने फ्रॅंडी कडेन तुटिल्ले उपरांतचें आग्नेलियाचें नवें रूप पळोवन तांचीं तोंडां ल्हवूल्हवू बंद जाल्लीं.

मांयलें पियेवप दिशींदिशीं वाडूंक लागलें. एक दीस ती मरतली तेन्ना आपूण उबंत पडटलें हें येवजून तें शिटकावलें. कूड विकून पोट भरपाचो प्रसंग येवंक फावना. ते खातीर जाता तितलें चड शिक्षण पदरांत घालून घेवंक जाय. बऱ्या मार्कांच्या आदारान स्कॉलरशीप नाजाल्यार फ्रीशीप तरी मेळूं येता. हें येवजून आग्नेलिया अभ्यासाक झुटलें. मुळांतच ताचें पाठांतर बरें आसलें. ताका येत्नांचो सांगात मेळ्ळो. आग्नेलियाक इश्कोलांत स्कॉलर म्हूण वळखूंक लागले.

परिक्षेचो फॉर्म भरपा खातीर दुडवांची गरज लागली. मांयले खांके वरशे आसले.

"मांय, हांव सांतान अंकला कडेन मागूं?"

दुसरो उपाव येवजऽ नासलो. दनपारचें देड जावन गेल्लें . गादी बंद करपाचो वेळ जाल्लो. आग्नेलिया सडसडीत सांतानाले गादये कडेन गेलें . जाल्यार जनेला कडेन दोग जाण कोप मारताले. तें फाटले वटेन गेलें . दार आड आसलें.दार

धुकलून ताणें सांतानाक उलो मारलो.

“आगो, आग्नेलबाय, यो. कितें जालें?”

“अंकल, म्हाका एस्. एस्.सी. चो फॉर्म भरपाक दुडू जाये.”

सांतान आग्नेलियाक पळेयत रावलो. इतल्यान भायल्यान कोणें तरी सादायलो.

“राव आं! गिरायकाक आवियार करून येतां. हिंगाऽ बस.”

निमाणें गिरायक करून फुडलें दार घालून ताणें विचालें, “कितुले?”

“पन्नास रुपय.”

“यो, तुगेली गरज पयलीं.” अशें म्हूण तो आग्नेलियाक भितर घेवन गेलो. वतां वतां ताणें ताका बगलेक ओडलें आनी ल्हवूच आंगार हात घालो.

आग्नेलिया तो स्पर्श वळखतालें. ताणें सट्ट करून ताका धुकल्लो. तिडकीन आनी भिरांतेन थरथरत तें फाटीं घुंवलें. आनी फाटलें दार उकतें करून धांव मारून घरांत आयलें.

आयलें तेंच ताणें कानाप्याचेर घालून घेतलें, आनी हुंडकेहुंडकेवन रडूंक लागलें.

मांय बेगीबेगीन बगलेक आयली, “कितें जालें गो, तेणें दिना म्हळें?”

इतले म्हणसर सांतानच भितर सरलो, “आगो, हांयें तेजीं फकाणां केलीं जाल्यार तेका राग येयलो. आसों. तेका आनी कांय इंचान्नाका. हे घे पन्नास रुपय. तेगेली एजाम बरे भाशेन जावंच्याकूच जायो.”

अशें म्हणून पन्नास रुपये आवय सुवादीन करून सांतान गेलो.

हे घडणुकेन आग्नेलिया एक गजाल शिकलें. दुडवां बगर मनशाक मोल ना. हें रितेपण, हें खालतेंपण फकत दुर्बळकायेक लागून. फुडाराची जीण जर खुशालकायेन घालोवंची आसली जाल्यार व्हडल्या घराचीं सपनां पळोवंक जाय. आनी व्हडल्या घरांत वतलें जाल्यार आतांच्यानूच सुगूर रावंक जाय.ते भाशेन

चलणूक दवरूंक जाय. दोळे उकते दवरून वावरूंक जाय.

एस्.एस्.सी. क तें इश्कोलांत आनी सबंद गांवांत पयलें आयलें. पंचायतीन ताका स्कॉलरशीप दिली. शेजान्नीन उश्णे दुडू दिले आनी कॉलेजांत अॅडमिशन मेळ्ळें.

शिक्षण चालीक लागलें. पूण घरची आवतिकाय इबाडली. सांतानाली आवय वयली वानसा गेल्ल्यान तो येवपाचो बंद जाल्लो. आवय सोऱ्याचे वाटेक गेल्ल्यान तिच्यान वावर जायना जालो. आनी वावर करून दोनचार रुपये मेळ्ळेच जाल्यार ते सोऱ्याक वचूंक लागलें. आग्नेलिया बावंक लागलें. आनी अकस्मात–

कॉलेजींत वचूंक तें भायर सरिल्लें. आवय रांदनीर शिताक आदन दवरून भायर वावराक गेल्ली. कालची उरिल्ली कडी भायर काडून आग्नेलियान ती हून केली. शीत वाळ्ळें. थोडीशी कडी आपणाले बशेंत घेतली. आयज कडी सोंपयली जाल्यार फाल्यां पेजेनीस जेवंचो पडटलो. ते परस–

आग्नेलियान आवयकूय बशी घेतली. शीत वाडलें. वयर कडी वाडली. उरिल्ली कडी उदक घालून वाडयली. पर्थून रांदनीर दवरून खतखतायली आनी आवयचे नदरेक पडची ना अशे तरेन धांकून दवरली. उंडी तोंडांत घालपाक भायर पोस्टमनान जाप केली. उश्टो हात घेवनच आग्नेलिया भायर आयलें. फिलीप मेलो म्हूण तेलेग्राम घेवन आयिल्ल्या पोस्टमना फाटल्यान आजून मेरेन तांच्या दारांत पोस्टमन उबो रावंक नासलो. अजापून आग्नेलियान विचारलें, ''चीट आहा?''

''हय. पूण रजिस्टर. मांयक सांग पोस्टमास्तरान आफयल्या म्हूण.''

''हांयें येयल्यार जायना?''

''ना. तियेच्या नांवार आहा. तियेनूच येवंक जायें.'' इतलें सांगून पोस्टमन गेलो.

कितें तरी विपरीत घडलां हाची सुलूस आग्नेलियाक लागली. कसली काय चीट? तीय रजिस्टर! सरकारी नोटीस बी न्हय मूं? काय पंचायतीची? काय

भाटकाराली?

आग्नेलियान ताकतिकेन शीत सोंपयलें. आनी शेजान्नीगेर वचपाक जोर्ती घालीं. म्हणसर मांय आयली. कसलीच फोडणिशी करिनासतना तें मांयक घेवन पोस्ट ऑफिसांत गेलें.

पोस्टमास्तरान फुडें केल्ली चीट आवयली सय दिवन घेतली. आग्नेलिया तोंड धांकून आसलें. सगली उमळशीक काळजाच्या करणांत दवरून – पूण आवयच्यान रावं नजऽ जालें. तिणें पोस्टमास्तराक विचारलें, ''खंय सावन येयल्या ही चीट बाबा?''

''कुवेत सावन येयल्या.''

''केसली खबर?''

''खबर ना. वाच आनी चय.''

आग्नेलियान मांयचो हात ओडलो. आनी चीट घेवन बद्द घरा आयलें .

चीट फोडली. भितर एक ड्राफ्ट आसलो. अंयशी हजार रुपयांचो. आग्नेलियाल्या काळजाचे ठोके चुकले. ताणें बेगीबेगीन वांगडची चीट उकती केली. फिलीपाक जाल्ल्या ॲक्सिडंटाची केस थंयच्या कोर्टांत चालिल्ली. आनी थंयच्या कोर्टान कंपनीक लुकसाण भरपाय दिवपाक फर्मायिल्लें. ते प्रमाण हो अंयशी हजारांचो ड्राफ्ट आयिल्लो.

अकस्मात आयिल्ल्या दुडवांनी आग्नेलिया पिसावलें ना. ताणें नव्यान जिणेची येवजण आंखली. आवय वांगडा जॉयंट अकावंट उकतो केलो. ड्राफ्ट भरलो. खरें म्हळ्यार अकावंट उकतो करपाक लागपी धा रुपया लेगीत तांचे कडेन नासले. पूण आग्नेलियान वेंचून जोडिल्ल्यो गिरेस्त घरच्यो इश्टिणी उपकरा पडल्यो.

आवतिकाय सुदरना फुडें आवयलें सोऱ्याचें व्यसन सुट्टलें अशी आस्त आसली, पूण तशें घडलें ना. उरफाटें, आतां सोरो चड लागूंक लागलो. आनी सोरो पियेना जाल्यार आवय कडेन कसलेंय काम जायना जालें.

तातूंत दुडू आयल्यात म्हूण कळना फुडें सोयरे खबर घेवंक लागले. फिलीपाली भयण येवन जाग घेवंक लागली. पूण आग्नेलियान तांकां जाप लेगीत दिली ना. मांयक मात ताणें नेम घालून दिलो. दिसाक चार रुपये सोऱ्या खातीर. पूण ताचे वयर एक पयसो मेळचो ना. कोणा कडेन उदार करची ना, जावं कोणाक पयसो दिवंची ना. सगलो हिशेब आपणाल्या हातांत राखून दवरून ताणें गणीत मांडलें.

हो गांव – ज्या गांवान तांकां वळवळायिल्लीं. ज्या गांवांत सांतान गादीकारान आंवाळो दिवन कुंवाळो लुटिल्लो. ज्या गांवांत शेळी कडी सोंपत म्हूण ओतो काडू काडून चार चार  दीस पावोवन जेविल्लीं. भोव अपुर्बायेन वाडयिल्ल्या सुण्याक खावड दिवंक नजऽ म्हूण पयस व्हरून सोडपाचो प्रसंग हाडिल्लो. ल्हेंवट्या सुवार्थी तरनाट्यालीं बुरशेपणां फकत दुर्बळकायेक लागून सोंसून घेवंचीं पडिल्लीं. त्यो कोडू यादी पुसून उडोवपा खातीर सदांकाळ गांव सोडून पयस वचपाची तयारी आग्नेलियान केली.

घर विकपाक आवय फाटीं–फुडें करताली. पूण एक दीस सोऱ्याचे दुडू आडावन दवरना फुडें ती तयार जाली. कॉलेजींत जोडिल्ले एके इश्टिणीच्या बापाय मार्फतीन पणजेंत सवाय भितर एक वन बेडरूम फ्लॅट घेतलो, आनी पणजे कॉलेजींत नांव घालें.

एक हुशार आनी स्मार्ट भुरगें म्हणपाचो लोकीक ताणें पणजेंत जोडलो. वेंचून वेंचून ताणे वयल्या वर्गांतल्यो इश्टिणी जोडल्यो. बगलेक येवपी चेड्यां मदीं तें सहजतायेन घोळटालें. पूण कोणाकूच संवकळूंक दिनासलें. हातूंतलो एकलोय आपणाल्या जिविताचो सांगाती जावंक सोदना हें तें वळखून आसलें. हाचो परिणाम बेस बरो जालो. आग्नेलिया हें inaccessible म्हूण चेड्यां मदी फां जालें. आनी तितले चड भुरगे ताचे कडेन इश्टागत जोडपा खातीर झुटूंक लागले.

बी.ए.चो रिझल्ट लागलो. त्याच दिसा आग्नेलियाची मांय मेली. दोन बऱ्यो गजाली एकाच दिसा घडल्यो हाची खोस आग्नेलियाक जाली. खरें म्हळ्यार मांय आसून नासून सारकीच आसली. दीसभर सोऱ्याचे घुंवळेंत उरताली आनी पियेल्ली नासताली तेन्ना सैरभैर जाताली. इंतेराक शेजारचो लोक पावलो. आतां आग्नेलिया एकलें जालें हाची खंत थोड्यांनी उकतायली. पूण आग्नेलियाक मात सू जालें.

आग्नेलियाक आतां नोकरेची गरज आसली. फ्लॅट घेवपांत आनी हेर खर्चांत दुडू सोंपून गेल्ले. आग्नेलियान अर्जी धाडपाक सुरवात केली. आनी पयल्याच फाराक नोकरी फारावली. फायव्ह स्टार हॉटेलांची मालकी आशिल्ले एके राष्ट्रीय कंपनींत पब्लीक रिलेशन्स ऑफिसर म्हूण ताका वेंचून काडलें, आनी एका म्हयन्याचे ट्रेनिंगे खातीर ताका मुंबय वचचें पडलें. ही मुंबयची ट्रीप आपणाले जिणेक एका नव्या मोडणार पावयतली हाची आग्नेलियाक मात लेगीत कल्पना नासली.

वचपा-येवपाक कंपनीन विमानाची तिकेट दिल्ली. येतना ताणें विंडो सीट मागून घेतिल्लो. वयर बॅगेज कंपार्टमँटात बॅग दवरून तें बसलें. बगलेचो सीट रितोच आसलो. दार बंद करपाच्या वेळार कोण तरी तरनाटो ताकतिकेन वयर आयलो. सीट सोदीत आग्नेलिया म्हऱ्यांत आयलो. आनी नंबर पळोवन ताणें आग्नेलियाक 'हॅलो'केलें.

आग्नेलियान नदर घुंवडायली. ताणें बॅगेज कंपार्टमँटाक हात मात घाल्लो - आग्नेलियाली बॅग निसरून देंवली ती ताचे तकलेर पडली. बरोच न्हिन्नळ्ळो.

'सॉरी' अशें म्हूण आग्नेलियान बॅग काडली. आग्नेलियाक खाल्ले वरी जालें.

"It's all right" अशें म्हूण ताणेंच आग्नेलिया कडसून बॅग घेवन वयर दवरली, आनी आपणालें सामान दुसऱ्या कंपार्टमँटांत भल्लें.

"It was quite heavy," माथें चोळीत ताणें हांसून म्हळें.

"I'm sorry!" पर्थून आग्नेलियान चूक मागली.

"Forget it. I am Vinod Jeevani. गोंयचो. गोंयां वतां तूं?'' ताणें वळख काडली.

'हांव गोंयचेंच. आग्नेलिया. आग्नेलिया ब्रागांझा,'' आग्नेलियान खांकडत वळख दिली.

ताका उलोवपाक खूब जाय आसलें. पूण आग्नेलियान चड लक्ष दिलें ना. देंवतना ताणें कार्ड दिलें.

''आतां गोंया मेळुंया. तुगेलो फोन?''

"I'm sorry. घरा कडेन फोन ना. आनी हांव निकतेंच कामाक लागलां. सिल्वर व्हेवस् हॉटेलांत आमचे ऑफीस. फोन नंबर म्हाका याद ना,'' आग्नेलियान म्हळें. अती संवकळपाची तागेली तरा आग्नेलियाक मानवली ना.

"How about a lift?"

विनोद ताका लिफ्ट दिवपाक सोदतालो. पूण आग्नेलियान ताका तोडलो.

"No, thanks! म्हगेलीं फ्रँडस् येतलीं,'' आनी तें कोचार बसून पणजे आयलें.

'विनोद जिवानी. पार्टनर - जिवानी आनी कंपनी. उद्देगपती. कार्डाचेर पळोवनच अदमास येतालो. कंपनीचें नांव फांकीवंत. तरिकूय फाल्यां जेस्सीक विचारूंक जाय अशें मनांत म्हळें खरें. पूण दुसऱ्या दिसा विसरलें.

सांजचो चारांक फोन आयलो. ऑपरेटरान सांगलें, "Mr. Jeevani wants to talk to you." ऑपरेटरालो आवाज उचांबळ जाल्लो.

आग्नेलिया शिटकावलें. गिरेस्तालो भुरगो. शादूर रावंक जाय.

''ताका सांग, हांव बिझी आसां. मागीर हांवच फोन करतां म्हूण सांग.''

ऑपरेटरान तशें सांगून फोन दवरलो आनी उचांबळ आवाजान म्हळें, "You know, Mr. Jeevani is businessman. तुवें ताचे लागीं उलोवंक जाय

आसलें."

आग्नेलियाक ऑपरेटराची तिडकमारली. पूण तें वग्गी रावलें. ताणें विनोदाक परतो फोनूय केलो ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच परतो फोन आयलो.

"आयज सांजचें फ्री आसतलें?"

"सॉरी" अशें म्हूण ताणें ताका तोडलो.आनी मागीर जेस्सी कडेन ताची खबर काडली. जेस्सी कडेन कसलीय खबर विचारची. पुराय जाप मेळटाली. विनोद जिवानीची सगली खबर दिवन जेस्सीन म्हळें, "आग्नेलिया, It looks like you are interested in him!"

"It's otherwise," आग्नेलियान म्हळें.

"तशें जाल्यार तेका आडावं नाका," जेस्सीन सल्लो दिलो.

आनी दुसऱ्या दिसा परतो फोन आयलो तेन्ना आग्नेलियान ताका मेळपाचें उतर दिलें.

सपनांतलो राजकुंवर आग्नेलियाक मेळ्ळो.

वळखीचें रुपांतर मोगांत जावपाक कळाव लागलो ना. दिशीं दिशीं तीं लागीं येत गेलीं. "तूं जाणां आग्नेलिया, why I want you? म्हाका खंयच मेळना तें तुजे कडेन आसा."

"म्हजे कडेन आसा आनी ना तें सगळें तुजे कडेन आसा. म्हजे कडेन कितें आसा तुका दिवपा सारकें?" आग्नेलियान विचारलें.

"दुडवांनी मेळना तें – काळजाचो मोग!" विनोदालीं उतरां भुरगेपणाचीं कशीं दिसलीं आग्नेलियाक. अबुद्‌दीपणाचीं. पूण तो गंभीरतायेन उलयतालो. घडये जायीत.

आग्नेलिया पुरतें चिंतपाचें जाल्यार तागेलो हावेस पूर्ण जावपाचे वाटेर पाविल्लो. मागीर घे म्हूण दुड्डू, रावपाक बंगलो, भोंवपाक मोटारी, न्हेसपाक

दिसपट्टी नवी मुस्तायकी...

एकूच हुसको दिसतालो तो म्हळ्यार, विनोद मॅरेज फुडें धुकलतालो.

आयज विनोद म्हज्यांत इंटरेस्ट घेता. फाल्यां आनीक कोणूय मेळत जाल्यार... फ्रॅडीची याद तें विसरिल्लें. पूण फ्रॅडीन केल्ल्या घायाची माव उरिल्ली... शादूर रावंकच जाय. नाजाल्यार फाल्यां विनोद, मायकला सारक्या कोणाकूय धाडून आतां हाचे लागीं मोग कर म्हूण सांगपाक उणो ना.

तसो विनोदूय लग्नाक उतावीळ आसलो. पूण विराट आजून लग्न जावंक नाशिल्ल्यान तागेलें अडटालें. हाचेर उपाय काडूंक जाय. कितेंय पूण करूंक जाय...

सकाळीं ऑफिसांत पावपाक मातसो कळावच जालो. भितर सरना फुडें ऑपरेटरान सांगलें, "सकाळच्यान दोन फावट फोन येयलो मि. जिवानीलो."

रातींच तर पावोवन गेल्लो. सकाळीं फुडेंच कसली ताकतीक लागली? सांजेचो प्रोग्राम थारावपाक काय? इतलें येवजिता म्हणसर फोन आयलो.

"नेलिया, एका गरजेच्या कामाक लागून हांव आज बॉम्बे वतां. फ्लायट सांजे चारांक. हांव दोन तिकेटी काडटां. तूं यो म्हजे बराबर."

विनोद धरून चलतालो तें आं म्हणटलें म्हूण. आग्नेलिया शिटकावलें. विनोद अती संवकळीक लागून 'पझेसीव' जावंक पळयतालो. आनी मुंबय तीं एकोडीं उरलीं जाल्यार घडये आग्नेलियाक 'सबमीट' जावचें पडटलें आशिल्लें...

"सॉरी, विनोद म्हगेली लिव्ह उरूंक ना."

"फकत दोन दिसां खातीर, नेलिया ."

"ना विनोद, मॅनेजर पयलीच पिकार आसा म्हजेर, हांव पर्थून पर्थून लिव्ह मागतां म्हूण."

ख़ऱ्यांनीच, हालीं दिसांनी आग्नेलियाचें कामाचेर लक्षुय सारकें नासलें आनी तें वेळूय सारकें दिनासलें. ह्या दिसांनी चार्टर फ्लायटस् येत आशिल्ल्यान कामूय

वाडिल्लें. पूण विनोद आयकुपाच्या मुडांत नासलो. ताणें फोन सकयल दवरलो आनी सोमतोच जनरल मॅनेजराक लायलो.

मॅनेजरान थंडसाणेन ताका म्हळें, "With due respect for you, मि. जिवानी, तूं सांगता म्हूण हांव तिका रजा कशी दिवं? She has no leave in balance."

विनोद ताणशेलो, "She cares a fig for your job!"

आनी फोन तोडून विनोद खासा हॉटेलाच्या ऑफिसांत पावलो तेन्ना जनरल मॅनेजर आग्नेलियाक कामाचें आनी शिस्तीचें म्हत्व कडक उतरांनी समजायतालो. विनोद पावना फुडें आग्नेलियाक चोरा भशेन जालें. जनरल मॅनेजरूय मातसो गणमणलो. विनोद तिडकलो. "To hell with you!" अशें म्हूण ताणें एक कागद ओडलें. सडसडीत चार उतरां बरयलीं आनी पेन आनी कागद आग्नेलिया मुखार धरलो.

Resignation! आग्नेलिया खीण भर अनमनलें. पूण खीण भरूच. ह्या खिणाक विनोदाक आग्नेलियाचो पुराय तेंको जाय आसलो. आग्नेलियान सडसडीत सय मारली. कागद मॅनेजरा कडेन दिलो, आनी विनोदाल्या हातांत हात घालून तें भायर सरून गेलें.

आग्नेलियाक घेवन विनोद बद्द जिवानी हावजांत गेलो. आग्नेलिया पयलेच खेपेक हांगा आयिल्लें. ती चार माळयांची इमारत भायरसून दिसताली ताचे परसूय भितरसून चड सोबीत दिसताली. तिसरे माळयेर विनोदालें कॅबीन आसलें.

सकयले मानेन आपणाक तांकपी नदरो फाटीं उडोवन आग्नेलिया विनोदा फाटोफाट तागेल्या कॅबिनांत भितर सरलें.

‘‘आतां हें केबीन तुगेलें. आयच्यान तूं म्हगेली प्रायवेट सेक्रेटरी. हांगा तुजे खातीर मेज घालतां.’’

विनोदाले पांय आजून जमनीक तेंकूंक नासले. तो आजून उचांबळ आसलो. आग्नेलियान मुमुरखें हांसून ताका ओडलो, ‘‘भावाक पयलीं विचारना?’’ आपणें

थोमणो मारला अशें ताका दिसचें न्हय हे खातीर जाणीवपूर्वक येत्न करीत आग्नेलियान विचारलें.

"You are right!" अशें म्हूण ताणें इंटरकॉमाचो बटन दामलो.

"If you are not very busy, म्हाका कितें उलोवंक जाय. It's urgent. येवं?''

संबंद चवथो माळो ॲयर कण्डिशन्ड आसलो, आनी विराटाल्या ऑफिसाची सजावट दोळ्यांत भरपा इतली सोबीत आनी दर्जेदार आसली. विनोद आग्नेलियाक घेवन कॅबिनांत भितर सरलो तेन्ना विराट आपणाल्या ओव्हल मेजा फाटल्यान लोडेवन बशिल्लो आनी दोळे धांकून फुड्यांतले स्टेनोक पत्र डिक्टेड करतालो. विनोद भितर सरना फुडें ताणें कुरू केली. ते बराबर ती स्टेनोग्राफर कागदां कवळून भायर सरून गेली.

विराट उठलो आनी कुशीच्या सोफ्या कडेन आयलो. ''मीस आग्नेलिया ब्रागांझा. विराट, भाव म्हगेलो.'' विनोदान वळख करून दिली.

विराटान वयलेचाराक हात फुडें केलो. विनोदाक बसपाक सांगलें, आनी आपूण बसलो.

विनोद नर्व्हस सो दिसतालो. ताका लागून आग्नेलियाल्याय काळजांत खपखपतालें.

''अं... तूं... तुका हांवें पयलीं सांगलांच. त्या तिगेल्या मॅनेजरान... तो त्रास दिता म्हूण तिणें आजूच ती नोकरी सोडल्या... हांवेंच सांगलें हिका...''

विनोदा परस तीन चार वर्सांनी तरी व्हड आसतलो विराट. आंगलोटान विनोदा सारकोच. पूण मुखामळ तेजिश्ट आनी गंभीर. दोळे करारी. चलणूक आत्मविस्वासान भरिल्ली.

विराटाल्या दोळ्यांक दोळे भिडोवप विनोदाक जड वतालें. मदींच तो थारलो.

"Go ahead!" विराटान म्हळें. आग्नेलियाक दिसलें, तो मुमुरख्यांनी विनोदाक हांसतालो. ताजी काकुळट करून. म्हणसर विनोदान नेट करून सांगून

उडयलें, “आयच्यान हांव हिका म्हगेली प्रायवेट सेक्रेटरी नेमतां. जायना?”

पयलेच खेपेक विराटान आग्नेलियाक तांकून पळेयलें. जोखिल्ले वरी केलें आनी हयकारून तकली हालयली.

“आनीक कितें?” विराटान हांसून विचारलें.

“आनीक कांय ना. थँक्यू!” अशें म्हणून विनोद पिट्ट करून उठलो. ताचे फाटोफाट आग्नेलिया भायर सरलें.

"Your brother looks so young! तो येदो व्हडलो बिझनेस सांबाळटा हें खरें दिसना.” आग्नेलियाक आतां सू जालें.

"Don't go by his looks! He is a very very practical man. हरशीं तो सादो. पूण दुडवां कडेन मनशाक वळखना.” विनोदान विराटा विशीं आपणालें मत्त सांगलें. “आनी चल. बॉम्बे वचपाची तयारी कर... आरेच्या! विराटाक सांगपाक विसरलोंच! Just a minute. सांगतां आनी येतां.”

आनी आग्नेलियाचें मत्त आयकुचे पयलींच विनोद भायर सरून गेलो. आग्नेलियाक वचपाचें नासलें. एकठांय उरतकीर कितेंय घडूं येता. आनी विनोद तृप्त जालो जाल्यार घडये आग्नेलिया विशीं ताका आशिल्लें आकर्शण उणें जावं येता. हाचेर वाट काडुंकच जाय... इतल्यान इंटर-कॉमचेर आवाज आयलो.

"Miss Braganza, are you there?" विराट उलयतालो.

आग्नेलिया एकलेंच आसलें. खीणभर घुसपलें.

"Yes sir!"

"Now listen! विनोद आयज बॉम्बे वता. तुका वांगडा व्हरूंक सोदता. हांवें ताका advice दिला, नाका म्हूण. You don't encourage him. ताका वेव्हार सामको समजना. काम चड म्हत्वाचें आसा. हांव जाणां, तूं वांगडा उरलें जाल्यार तो काम विसरतलो. Do you understand?"

"Yes... sir!" आग्नेलियान म्हळें.

"All right. तो सक्यल गेला. पावतलो आतां. उगडास धर.” आनी आवाज

बंद जालो.

आग्नेलियाक नकळटना सूऽ जालें. म्हणसर विनोद आयलो, "Damn that Virat! एकलो वच म्हणटा! काम खंय म्हत्वाचें... Undivided attention जाय खंय.'' विनोद तापत रावलो.

''विनोद, असो उचांबळ जावं नाका.'' आनी विनोदाल्या भुजार हात दवरून आग्नेलियान म्हळें, "In a way, he is right! हांव जर तुजे बराबर आसलें जाल्यार - I'll demand undivided attention."

विनोद न्हिवलो. ''बरें आसा... I will miss you! Meanwhile, हांगा तुजे खातीर मेज मागयलां आनी हांव येसर दोन दीस तू विराटाल्या कॅबिनांत बस. ताणेंच सांगलां - आपूण तुका ब्रीफ करतां म्हूण. ते भायर तागेली स्टेनो आसा तीय तुका हॅल्प करतली.''

सोरोप-निसणीच्या खेळांत आग्नेलियाक अशें एक दान मेळिल्लें की तें निसणी वयल्यान सामकें वयर पाविल्लें. निमण्या घराक लागीं. जिवानी आनी कंपनीचे गिरेस्तकायेचो स्पर्श ताका जावंक लागिल्लो. नवें ऑफीस, नवीं मनशां... दोन दीस झुप्प करून सरलें.

मदीं विनोदालो फोन आयिल्लो. पूण विराटा मुखारच घेवंचो पडिल्ल्यान कांयच उलोवंक मेळुंनासलें. थंय विनोदाली आवतिकाय कितें जाल्या आसतली हाची आग्नेलियाक कल्पना आसली. आनी ज्युस्त तो परतुपाचो आसलो तें प्लेनूय त्या दिसा लेट जालें. विनोद पणजेंत पावलो तेन्ना ऑफीस बंद जाल्लें. तो भायले भायर आग्नेलियाक मेळपाक फ्लॅटार आयलो.

आग्नेलिया वाटूच पळयतालें.

''ओह नेलिया, I missed you so much!"

"Me too!" तागेले वेंगेंत रिगून आग्नेलियान म्हळें.

''काम सारकें जालें?''

"वायटशें जालें ना. विराट म्हणटालो, आनीक दोन दीस राव म्हुण. पूण... Couldn't!" विनोद सँटिमँटल जालो. "नेलिया, I love you so much तुजे बगर रावं नजऽ!"

विनोदालो सँटिमँटलिझम आग्नेलियाक पसंत नासलो. आपणाल्यो संवेदना, भावना आग्नेलियान खूब तरणे पिरायेर मारून उडयिल्ल्यो. ताका फकत वेव्हार तितलो कळटालो. पूण विनोदालो सँटिमँटलिझम सोंसपांतच वेव्हार आशिल्ल्यान तें वग्गी रावलें.

"आमी मिरामार वचूं या?" आग्नेलियान विचारलें.

"Oh yes! आनी हें पळय नेलिया, हांवें तुका कितें हाडलां-" आनी विनोदान एक पर्सींत दवरपाचो पोर्टेबल टी.व्ही. आग्नेलियाच्या हातांत दिलो.

"थँक्यू डार्लींग!" पूण त्या उतरांत वयलेचार चड आसलो. थोड्याच दिसांनी तें मिसेस जिवानी जातलें तेन्ना ह्या वस्तींचें अप्रूप कसलें?

वाटेर सदचें वरी विनोदच उलयतालो.

"But for my brother, हांव तुकाच घेवन बॉम्बे वचपाचों. खुब्ब मजा येतासलीं."

आग्नेलिया वग्गी रावलें.

"पूण हांव जाणां, तुका घेवन गेल्लों आनी काम उरलां म्हण आनीक एक दीस रावतां म्हणिल्लें जाल्यार तो परतो आफयतलो आसलो. तूं ना आनी काम उरलें जाल्यार म्हाका आनीक दोन दीस राव म्हणटा हो विराट - वचत थंय म्हाका आड येता."

"पूण ताका उपाय कितें? तो व्हडलो भाव. सगली ऑथॉरिटी ताच्या हातांत..." आग्नेलियान विनोदाक वस्तुस्थिती सांगली.

"खरेंच. डॅडीन सगले अधिकार विराटाच्या हातांत सोंपयल्यात. व्हडलो भाव म्हूण... If only I were elder!"

"Or the only son to your father!" आग्नेलियान सहजतायेन म्हळें.

विनोद तटास जालो. खीणभर घुसपलो. आग्नेलियाक पळोवन ताणें तोंड उकतें केलें. पर्थून धांकलें. मागीर एक हुसकारो सोडलो आनी म्हळें, "तशें जाल्लें जाल्यार म्हजे इतलो सुखी कोणूच आसचो नासलो."

"आजून तशें जावं येता, न्हय?' आग्नेलियान विनोदा कडेन रोखून पळयत म्हळें. "I mean, फाल्यां ॲक्सिडंट जालो वा कितेंय बरें वाश्ट –"

"पूण... पूण... That is a remote possibility," विनोदान खांदे वयर–सकयल करून म्हळें.

"Oh. विनोद! सगलेंच नशिबाचेर सोडूं नाका. दादल्या मनशाक गटस् जाय." आग्नेलियान तागेले मांडयेर हात दवरून ताका थापटून म्हळें.

"Of course, म्हजे कडेन गटस् आसात. पूण म्हज्या हातांत कितें आसा?"

"आसा. पूण हांवें तुका possibilities सांगल्यो जाल्यार तुका म्हजो राग येतलो. You may even hate me!" आग्नेलियान चतुरायेन पावल घालें.

"Certainly not! You are a genius. तूं सांग तरी!" विनोद उचांबळ जालो.

"विनोद, don't misunderstand me! तुजे बगर रावं नजऽ देखून सांगतां. आतांच तूं उलयतासतना चिंतून आयलें म्हाका. You may call it a conspiracy."

"हांव कांय म्हणिना गो. तूं सांग. Please go ahead. म्हजी कितेंय करपाची तयारी आसा..."

गाडी मिरामार पावली. पूण तीं देंवलीं नात.गाडयेंतच बसून आग्नेलियान ताका आपणाली येवजण पयलीं खांकडत आनी मागीर आत्मविस्वासान सांगली.

विराट आसा सर विनोदाक फ्री हँड मेळप कठिणच... आनी कसलीय वस्त दोगांनी वांटून घेवचे परस एकल्याक भोगूंक मेळप बरें...

विनोदाक पटलें.

"पयर हांव विराटा वांगडा जिवानी हावजाच्या टेर्रासाचेर पाविल्लें... धडयेर

कट्ट्याक तेंकून हांवें सकयल पळयलें... Oh my! A fall can be fatal! ... तेन्नाच म्हज्या मनांत आयले, विनोद ... फकत एक पुश!... आनी तूं तुगेल्या बापायलो एकलो एकसुरो पूत जावं येता..."

"How easy!" विनोदान उचांबळीत जावन म्हळें, "हांव हें सहज करन! I can do it! पूण... मागीर–"

"It can be an accident! ना जाल्यार suicide!... ..."

दुसऱ्या दिसा सांजच्या साडे स सातांक लग्ना संबंदान थोडेंशें प्रायवेट उलोवपा खातीर वयर टेर्रासाचेर मेळपाचें विराटान कबूल केलें आनी विनोदाक सू जालें. फुडलें काम सोंपें आसलें. Only a push! मागीर जातलो मातसो बोवाळ. येतली पुलीस, जातली चवकशी. आत्महत्येक हजार निबां दिवं येतात. ते भायर गवाय दिवपाक आग्नेलिया वांगडा आसतलेंच. शिवाय दुडू आसल्यार कितलेय गुन्यांव दामूं येतात... विनोदाली उचांबळाय तेमकार पावली.

आग्नेलियाक हुसको दिसतालो. विनोद वेळार फार्टी सरत म्हूण. टेर्रासाचेर येनासतनाच रावीत म्हूण. मर्दीं मर्दीं ताका उमेत दीत आग्नेलिया ताच्या सांगातान रावलें.

सात जावन धा मिणटां जाल्लीं. अकस्मात एक किळांच त्या शांत वाठारांत घुंवघुंवली. जिवानी हावजाच्या टेर्रासाचेर बोबो आयकूंक आयल्यो. आकांत जालो. सकयल घे म्हूण गर्दी जाली. सायरन वाजयत पुलीस आयली.

ॲब्युलन्स...

पंचनामो...

चवकशीं...

आग्नेलिया घुंवळून पडिल्लें. ताका बशिल्लो शॉक निवळपा खातीर डॉक्टरान ताका इंजेक्शन केल्लें. ऑफिसांतल्या सोफ्यार तें थार पडिल्लें. कोण तरी ताका

वारो घालतालो.

खासा डी.वाय.एस्.पी. वयर आयलो.

‘‘कशी आसा? उलयतली न्हय?’’ ताणें डॉक्टरांक विचारलें.

‘‘शॉक बसला. पूण she is all right!" पुलिसांनी सगल्यांक भायर काडले.

"You too, Mr. Jeevani."

आनी दार बंद करून तांणी आग्नेलियाचो स्टेटमँट घेतलो.

म्हजेच वयल्यान तांची भासाभास जाली... हांव हाचे लागीं लग्न जातां म्हूण कळटकीर तो सामको पिशा वरी करूंक लागलो. जीव दितां म्हणूंक लागलो... आमकां – आमकां खरें दिसलेंना. आनी in his emotional out-burst ताणें, आमी आडावचे पयलींच ताणें...’ आनी आग्नेलिया हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलें.

‘‘सॉरी, मीस ब्रागांझा, तूं आता रेस्ट घे.’’ डी.वाय.एस.पी. उठलो आनी, "A clear case of suicide." अशें म्हणीत भायर सरून गेलो.

पोलिसांक लिफ्टा मेरेन पावोवन तो परतलो. दाराक भितल्ल्यान खिळी घाली. आनी आग्नेलिया म्हऱ्यांत येवन ताचो हात हातांत घेवन ताणें म्हळें, ‘‘थँक्यू नेलिया, you are a genius! हांवें सांगिल्लेंच तुका, म्हगेलो प्लॅन चुकपार ना म्हूण. तुवें आपणालें काम एकदम बरें केलें.’’

‘‘पूण म्हाका –’’

‘‘तूं कांयच हुसको करूं नाका. फुडल्या म्हयन्यांतच आमी सिव्हील मॅरेज करुंया. आतां आमकां कोणाच्यानूच कुशीक काडूं नजऽ.’’

"Oh! थँक्यू विराट! I am so happy!" अशें म्हूण आग्नेलिया जिवानी साम्राज्याच्या एकसुऱ्या वारसाचे, विराटाचे वेगेंत रिगलें.

*****

# सपनमोगी

पिरायेच्या अठरा वर्सांचेर गोंयां येत सावन तो सकाळच्या साडेसातां पयलीं, तोय धेकणो पडले बगर, केन्नाच उठलो ना. यतीनदाक सकाळीं उठनाफुडें च्या जाय आसता. रातीं बाजारांतसून येतना दुदा पोती हाडपाचें काम यतीनदान ताचेर सोपयिल्लें. तोय फाटलीं पांच वर्सां नेमान हाडी. दिल्लें काम चोख करपाचो ताचो सभावच. काल मात तो विसरिल्लो.

''ओठ. तारातारी!'' यतीनदा बंगालींत ताचेर ताणशेलो. ''येखोण जाव. पयलीं दुदा पोती घेवन यो...'' यतीनदान आयज ताचेर धेकणोच न्हय तर फाटीर धुमको घालून ताका उठयलो.

हरशीं यतीन मिस्त्री कडेन आनिकूय दोन काठमिस्त्री आशिल्ले. पूण ताचो हात धरपी नक्षामिस्त्री नाशिल्ल्यान यतीनदा ताका सांबाळून घेतालो. सकाळची च्याची तल्लफ मात यतीनदाच्यान कशीच आडावंक जाय नासली.

तो फडफडत उठलो. काय बरें सपन पडटालें. ती सुंदर परी ताचे कडेन गुलूगुलू गजाली करताली. ब्रश करतां करतां ते परयेचें रूप दोळ्यां सामकार हाडपाचो ताणें येत्न केलो. पूण कशेंच आयलें ना.

“बेगीन वच. उदक तापोवंक दवरतां. तें सळसळचे पयलीं यो,” यतीनदा पर्थून धेंगशेलो.

ताणें सायकल काडली. कांसावलेच्या बाजारा कडेन पावलो. यतीनदा मारलो झक; पयलीं एक च्या मारुंया अशें येवजून च्याची तल्लफ भागोवपाक तो हॉटेला सामकार थारिल्लो मात – फुडल्यान तें चेडूं ताकतिकेन चलता तें ताका दिश्टी पडलें. हेंच तें. तीन वर्सां फाटीं युनिफॉर्म घालून वांगडच्या चेडवां बराबर स्कुलाक वतना दिश्टी पडटालें. तेन्ना ताका पळोवनच ताच्या काळजाक खातखुतल्यो जाताल्यो. हालीं केन्नाय सांजेवेळार वा आयताराचें दिश्टी पडटालें. तेन्ना ताच्या काळजार जोगूल पडिल्ले वरी जातालें. तांची तशी वळख नाशिल्लीच अशें न्हय. फाटीं केन्ना तरी तें एका चेड्या बराबर सायकलीन वतना सायकलीची चेन पडिल्ली तेन्ना आपणाल्या हाताक लागपी ग्रिसीची पर्वा करिनासतना हाणेंच ती चेन घालून दिल्ली. तेन्नाच्यान एक दोन फावटी वाटेर मेळिल्ले कडेन तें वळख दाखोवन हांशिल्लें आनी ताच्या मनार चान्नें शिंवरिल्लें.

“शूत–शूत्” – ताणें आपणाक हटकिला, काय तसो आपणाक भास जाला तें ताका समजलें ना. तो तसोच उबो रावलो. म्हणसर चेडूं बगलेक आयलें.

“प्लीज, म्हाका मातशें वेर्ण्यां पावयता? बस चुकली म्हाका. टायमार पावलेंना जाल्यार बॉस तापयतलो. प्लीज.”

तो पळयत उरलो. फाटीं केन्ना तरी तें ताका पळोवन हांशिल्लें तेन्ना तें बरेंच दिशिल्लें. आयज ‘प्लीज’ म्हूण विनयतना ताचे परस चड सोबीत दिसलें. फांत्यार सपनांत येवपी परये खातीर मुखामळ मेळिल्ल्याची खोसूय मनांत उदेली.

“या, न्हूं?” आनी तागेली जाप ‘हय’च आसतली अशें धरून तें सायकलीच्या दांड्यार बसपाक लागलें. ताका डबल सीट व्हरपाची तशी संवय आशिल्ली. पूण दुसऱ्याक तो सदांच फाटल्यान ब्रॅकेटार बसयतालो. फुडल्यान दांड्यार बसपी हें पयलेंच. खीणभर मनांत आयलें, फाटल्यान बसल्यार फास्ट वचूंक मेळटलें म्हूण सांगपाचें. पूण ताचेर आगळोच एक मोनेळ पडिल्लो.

यतीनदा आनी दुदा पोती विसरून तो त्या चेडवाक घेवन वेर्णेचे वाटेक लागलो.

"आयज म्हाका उठोंक वगत जालो... टायटनांतलीं हेर सगलीं गेलीं... हांव फाटीं उरलें... वेर्ण्यां तरी बस बेगीन मेळ्यार पुरो... बॉस बरो न्हूं आमगेलो... बिश्टोच तापयता..." तें चेडूं बड बड बडबडलें. ताका दिशिल्लें, ताचें नांव विचारचें, ताणें आपणाक नांव विचारचें, परये वरी गुलूगुलू गजाली सांगच्यो. हांव मागीर ताका सांगतलों...

– म्हजें नांव मुकूट. आनी गांव कालीहार. कांसावली आनी कालीहार दोनूय गांवांक चारच अक्षरां. दोनींची सुरवातूय 'का'न जाता. पूण खूब फरक.

– तुका आपणाल्या गांवाचो चड उगडास येता?

– हय तर. म्हगेलीं मायेचीं सगलीं मनशां थंय आसात.

– हिंगा कोण आहाय तुगेलीं?

– काल मेरेन कोणच नासलीं. आतां मात–

"मातशें बेगीन पेदाल मार रे," चेडवान म्हळें. ताचेर आकांत आयलो. तें फाटल्यान ब्रॅकेटाचेर बशिल्लें जाल्यार फास्ट वचूं येतालें. पूण... तरीकूय ताणें चतराय घेत नेट लायलो. चुकून पांय सुटलो आनी दोगांय पडलीं जाल्यार पर्थून तें केन्नाच लिफ्ट मागचें ना म्हणपाची भिरांत आसली.

मर्दी मर्दी उलयतना तें चेडूं तकली घुंवडावन ताचे कडेन पळयतालें. कितलें लागींच्यान! ताणें मातशी मान फुडें व्हेल्यार तोंडाक तोंड तेंकूं येतालें.

तरी बरें, यतीनदा ताकतीक मारतालो तरी ब्रश बी करून भायर सरिल्लों. नाजाल्यार तोंडाची घाण येवन तें विट्टलें आसलें... कालच टिव्हीचेर पळयिल्ली जायरात ताच्या दोळ्यां मुखार आयली. ती नवी टूथ पेस्ट वापरपी तो चेडो भुरगो तोंड उगडून 'हाऽ' करनाफुडें सगलीं चेडवां ओडून ताचे सरीं येतात... टूथ पेस्ट बरी वासाची आसुंये.

भुरुभुरू वाऱ्यार हुबपी चेडवाले केंस ताका खातखुतल्यो करताले. हो प्रवास

सोंपचोच न्हय शें दिसतासतनाच तीं वेण्यां हायवेचेर पावलीं.

"थँक्यू, थँक्यू, थँक्यू..." धा फावटी तरी म्हळें आसतलें. पूण एका उतरान नांव विचारलें ना.

– फाल्यांय मेळटां, तेच सुवातेर... म्हणचें शें दिसलें. पूण ते पयलीं चेडवानच म्हळें –

"आयज जालो तो जालो. आनकडेन केन्ना हे भाशेन वगत जायना जाल्यार पुरो."

– जाल्यार जावं गो! हांव आसांच न्हय?... पर्थून जिबेन फटयलो.

दुदा पोती घेवन बिराडार परतलो तेन्ना यतीनदा उदका परस चड सळसळटालो.

"कादय पडिल्ल्यान कळाव जालो." आनी तितल्यार भागलें.

ते रातीय तो दुदा पोती हाडूंक विसरलो. पूण टिवी वयले जायरातींतली ती नवी टूथ पेस्ट हाडूंक विसरलो ना.

"सकाळीं तूं उठचे पयलीं हाडून दितां." अशें म्हळें तेन्ना यतीनदानच न्हय तर रोबी आनी मेहबूबानूय विस्वास दवरलो ना. पूण खऱ्यांनीच कोणें उठावचे पयलीं तो उठलो. यतीनदा तेन्नाच उठ्ठालो. पळोवपाकच उरलो. नवे टूथ पेस्टीन दांत घांसून, बरोसो टी–शर्ट घालून ताणें सायकल काडली. बुथार वचून दूद घेवन आयलो. आनी पोती यतीनदाच्या हातांत दिवन रोखडोच परतो सायकल घेवन बाजारांत गेलो.

चेडूं काल मेळिल्लें ते सुवातेर वाटेक दोळो लावन सायकल स्टँडार चडोवन ब्रॅकेटाक कुले तेंकोवन उबो रावलो. 'आनकडेन वगत जायना जाल्यार पुरो,' काल चेडवान म्हणिल्लें. 'सदांच कळाव जाल्यार पुरो,' ताणें चिंतलें. कालचे वरी आयजूय तें ताकतिकेन येतलें आनी म्हाका हांगा वाटेर उबो राविल्लो पळोवन ताका सूऽ जातलें...

– हांव जाणाच आसललें तूं मेळटलो म्हूण. चेडवान सुसकारो सोडून म्हळें.

– या मुगो? बस दांड्यार.

टूथ पेस्टीच्या भरवंशार ताणें नेटान म्हळें.

– काय बरो परमळ येता रे तुका!

– तुवें लायिल्ले पावडरीकूय बरोऽ वास येता. आनी तुकाय...

– तुगेलो टी शर्ट बरोऽ दिसोता.

– हांवें कोलकाताक घेतिल्लो तो.

कृष्णनगरांत घेतिल्लो म्हूण कित्याक सांगचें? कोलकाता म्हळ्यार बरेंऽ दिसता.

– कॅलकात्ता बरी व्हडली सिटी न्हूं?

कालीहाटसून तीन–साडेतीन वरांची वाट आसुनूय तो केन्ना कोलकाता पावंक नासलो. कृष्णनगरांतच सगलीं कामां जातालीं. फुडले खेपेक घरा वतलों तेन्ना एक फावट कोलकाता पळोवन येवपाक जाय.

वाऱ्यार हुबपी केंसांचो परमळ नाकांत ओडीत तो वेर्ण्यां पावलो. तें देंवन 'थँक्यू' म्हणून चलपाक लागलें तेन्ना रावं नजऽ जावन ताणें म्हळें,

– सांजे हांव पावयतां तुका घरा. हांगाच मेळुंया. हांव वाट पळयतां.

''एऽ, कोणाची वाट पळयता?'' यतीनदाच्या तीख आवाजान तागेलें गोड सपन भंगलें.

''कादय पडली?'' म्हळ्यार रागान, म्हळ्यार फकाणांनी यतीनदान विचारलें.

तो कांयच उलयलो ना. मोन्यांनी दांग मारून सायकलीर चडलो आनी बिराडार परतलो.

दीसभर मन लावन काम केलें आनी साडे पांचां पयलीं तो सायकल दफरायत वेर्ण्यां हायवेच्या तिस्कार वचून उबो रावलो. चेडूं कितल्यांक परततलें, ताका खबर नासली. अदमासान गेल्लो आनी कितलोय वेळ तिश्टुपाचे तयारेन राविल्लो.

झाडा कुशीक सायकलीर एक पांय उडोवन तो येतली वतली बस पळोवंक लागलो. आयज चेडवा कडेन एक दोन गजाली विचारून घेवंकूच जाय.

– एऽ, तुजें नांव कितें गो?

– तुका कित्याक?

– तूं म्हज्या सपनांत येता तेन्ना तुका उलो मारपाक म्हाका नांव खबर नासता.

तें चाळयिल्ले भाशेन हांसतलें.

– सांग मुगो!

कितें सांगीत काय?

– कॅटरिना.

वा:! कितलें सोबीत नांव. टिवीचेर येवपी ते नटये वरीच.

इतले म्हणसर फुडले बसींतल्यान पांच चेडवांचो एक चोमो देंवलो. तातूंत कॅटरिनाय आसलें. बस सुटनाफुडें दोशीं वटेन पळयत तीं मार्ग हुपून हेवटेन आयलीं. आपूण दिश्टी पडचों म्हूण तो मातसो फुडें सरलो. म्हणसर तीं दुसऱ्या कोनशाक वचून उबीं रावलीं. कांपीण मारपाचें ताच्या मनांत आयिल्लें. पूण वांगडा आनीक चेडवां आशिल्ल्यान घडये कॅटरिनाक तें मानवचें ना अशें येवजून तो तसोच रावलो. एका कोनशाक वांगडच्यां वांगडा कॅटरिना उबें. दुसऱ्या कोनशाक सायकल घेवन तो उबो – मदीं फकत कांसावले वचपाचो रस्तो. ताचें लक्ष ओडून घेवपाक ताणें सायकल घुंवडायली. पेदाल मारून फुडें सरता म्हणसर एक स्कुटर थारली. कॅटरीनाकच पळोवन तो राविल्लो जावंये. हेर चवगांक बाय बाय करीत कॅटरिना स्कुटरीर बसलें आनी झुम्म करून बायक गेली.

जावं! उलोवंक मेळ्ळें ना तरी पळोवंक मेळ्ळें न्हय? तेय परस म्हत्वाचें म्हळ्यार तिचें नांवूय मेळ्ळें. समादानान तो बिराडार परतलो.

ते राती ताच्या सपनांत आयिल्ले परयेक रुपूय आसलें आनी नांवूय.

सकाळीं पर्थून तो वाटेर उबो आशिल्लो. एक पांय सायकलीचेर उडोवन, एक सकयल तेंकोवन. काल जर आपणा कडेन बायक आशिल्ली जाल्यार खातरीन तें वांगडा येतासलें... आतां घरा पयशे धाडपाचें थोडे दीस बंद करूंक जाय. पोरूं यतीनदान सेकंड हॅंड बायक खंय स हजारांक घेतिल्ली. थोडी पोरनी आसल्यार चार पांच हजारांक मेळूं येता. खर्चाक थोडी कातर लायली जाल्यार

दोन म्हयन्यां भितर  घेवंक मेळटली. मागीर कॅटरिना खातीर स्कुटर घेवनच येवप.

– पीऽ पीक्.

– आरे तूं रे? बरें जालें, आयजूय म्हाका वगत जालो चय. पावयता मुरे मातशें?

– तेच पासत तर रावलां. यो, बस.

– बायक केन्ना घेयली?

– कालच. तुजे पासत.

तें फाटल्यान तेंक्कून बसलें. एक हात ताच्या पोटार घट दाबून धरलो.

– मातशें फास्ट या रे, म्हाका बेगीन पावोंक जायें.

बायकान गती घेतली. कॅटरिना फाटल्यान तेंकून बसलां हे जाणविकायेन आंगार मूठभर मांस वाडिल्लें. अर्दी वाट रोखडीच सरली. आरेच्चा! ताणें स्पीड देंवयली.

– कितें जालें? स्लो कित्याक केली?

– फास्ट गेल्यार रोखर्डीच पावतलीं. तूं चड वेळ बायकार बशिल्लें जाय देखून...

– तेशें जाल्यार सोमतेंच टायटनांत कित्याक पावयना?

वाः! हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें.

– आयजच कित्याक? सदांच पावयन.

नकळटना ताणें पेदाल मारलें. आनी अजाप! मुखावयल्यान हाडामांसाचें खरें कॅटरिना चलतालें. वांगडा एक बायल आसली. आवय जावंये! ताचेर नदर पडनाफुडें तें हांसलें. पारजताचीं रासभर फुलां शिंवरलीं.

आं, आयज आयतार तर! देखून हें अशें चक्क न्हेसून भायर सरलां. तो तांचे फाटोफाट चलूंक लागलो. इगर्ज आयली. तीं भितर सरलीं. सायकल पयस दवरून लॉक मारून तोय इगर्जे कडेन आयलो. दारा कडेन रावन भितर पळयलें. इगर्ज भरिल्ली. कॅटरिना आनी मांय भितर वचून बशिल्लीं. तो थंयच दारा भितर

उबो रावलो. क्वॉयराचें संगीत ताका रोबिन्द्र संगिता इतलेंच मधूर लागलें. पाद्रील्या धीर गंभीर आवाजान इगर्जेंतलें पवित्र वातावरण अदिकच सात्वीक दिसूंक लागलें. ताणें दोळे धांपून घेतले. बंद दोळ्यां मुखार धवी ओल माथ्यार घेतिल्लें कॅटरिना उबें रावलें. ताका पळोवन मंद हांसलें – इगर्जेंतले सायबिणी वरी!

मीस सुटलें. तो भायर येवन उबो रावलो. कॅटरिना भायर सरलें. मांयचे कडेन उलयत मार्गार आयलें आनी घराचे दिकेन चलूंक लागलें. हातांत सायकल घेवन तोय तांचे फाटसून चलत रावलो... फुडल्यान तें जितलें सोबीत दिसतालें तितलेंच फाटसुनूय सुंदर दिसतालें. ताचे फाटसून अशेंच चलत रावचें, वाट सरचीच न्हय अशें ताका दिसलें.

कॅटरिनाचें घर पळोवन दवरलें आनी तो बिराडार परतलो. यतीनदा ताचीच वाट पळयत राविल्लो. कोणें तरी ताका सांगिल्लें, तो इगर्जेंत मिसाक गेल्लो म्हूण. यतीनदाक राग आयिल्लो. देव देव करपाचें आसल्यार देवळांत वच, इगर्जेंत कित्याक? ताप ताप तापलो. यतीनदान विश्वकर्म्याचो सोपूत घालो तेन्ना मात तो पिकार जालो. तेंच निमित्य करून ताणें यतीनदालें बिराड सोडपाचें थारायलें.

कॅटरिनाल्या घराक तेंकुनच रावपी बस्त्यांवाल्या घरा कुशीक बागेल आशिल्लें. मातयेच्यो वणटी आनी वयर चुडटांचें पाखें. तिनशीं रुपया भाडें म्हळ्यार चडच. पूण ताणें तें घेतलें. हो असो कित्याक वागता तें समजऽ नासून बेजार जालो यतीनदा. आनीक कोणाकूय जाल्यार कामा वयल्यान काडून उडयतासलो. पूण ताच्या कामा विशीं कसलीच तक्रार नासली आनी ताचे इतलो बरो नक्षामिस्त्री दुसरो मेळप कठीण आसलें, देखून वगी रावलो.

आतां कॅटरिनालें घर लागीं जाल्ल्यान ताका तें दिसपट्टें दिश्टी पडटालें. तितल्यार तो पूर्ण समादानांत आसलो. केन्नाय वाटेर तें मेळटालें तेन्ना नदरेक नदर मेळ्ळी जाल्यार हांसतालें आनी पारजताचीं फुलां शिंवरायतालें.

वास्कोच्यान हाउडा एक्सप्रेस सुरू जायत सावन गोंयां रावपी बंगाल्यांक बेस

बऱ्याक पडिल्लें. एक दीस यतीनदान ताका म्हळें - ''चल, आमी गांवांत वचून येवंया.'' ताणें सडसडीत 'ना' म्हूण सांगलें. कॅटरिना दिसले बगर आपणालो दीस बरो वच्चो ना हें ताणें जाणिल्लें. तिकेट काडचे पयलीं पर्थून यतीनदान ताका विचारलें. पूण तो बदलो ना. निमाणे यतीनदा रोबीक घेवन गेलो. गांवघरा गेल्ले कडेन यतीनदा आपणाल्या मां-बाबाक कित्याय कितें सांगीत म्हूण ताणें पयलींच गांवघरा शेजाऱ्यागेर फोन करून आपूण फुडल्या वर्सा येतलों म्हूण निरोप पावयलो.

एक दीस बस्त्यांवाल्या चेड्यान म्हळें, ''आरे, आयज रातीं काजार आहा. थिंगा कॅटररान म्हाका हॅल्पाक आफयला. तूं येतलो? रातीक दोनशें रुपये मेळटले.''

दोनशें रुपयां खातीर जागरण? ताणें 'ना' म्हळें. पूण उपरांत बस्त्यांवानच सांगलें, ''व्हंकल जेनिफरागेल्या माशानालें चेडूं.''

''कोण जेनिफर?''

''एऽ तें रे. मार्सेलागेलें चेडूं.''

मांयपायन दवरिल्लें नांव जेनिफर म्हूण कळ्ळें. पूण आपणें दवरिल्लें कॅटरिना नांवच ताका चड मानवल्ल्यान ताणें तें सोडलें ना.

कॅटरिना काजाराक आसतलें तर! आपोवणें नासल्यारूय हॅल्पर म्हूण वचूंक मेळटलें तें कित्याक सोडुंया? ताणें थंयचे थंय बस्त्यांवाल्या चेड्याक 'येतां' म्हूण सांगून सोडलें.

कामाचे गडबडींत उरिल्ल्यान वॅडिंग मार्च सुरू जायसर कॅटरिना ताका दिश्टी पडलें ना. पडलें तेन्ना ताचे दोळे दिपकावले. रंगान काळशें आसलें तरी रुपान सुंदर. तातूंत काळे कातीर हळदुवोच ड्रॅस चडच सोबून दिसतालो. तो पळयत उरलो.

टोस्ट जायनाफुडें डान्स सुरू जालो. ताणें टिवीचेर आनी सिनेमांनी असले डान्स पळयिल्ले. पूण अशे तरेन लोकांक प्रत्यक्ष नाचतना पयलेच खेपेक

पळयतालो. म्हणसर कोणें तरी कॅटरिनाक नाचपाक उठयलें. तो काम विसरून पळयत उरलो. सपनांतली परी वाऱ्यार हुबत, मोडत मोडत, पारजतां शिंवरायत नाच करताली. तिणें तशेंच नाचत रावचें आनी आपणें पळयत रावचेंशें दिसलें ताका.

ते रातीच्यान सद्दां राती कडेन तो तिचो डान्स पळयतालो. कॅटरिना धोलताली, मोडटाली, ड्रेस वाऱ्यार हुबयताली, केंस भुरभुरायताली. खरवतीच्या लांब पात्या वरी तिची कूड बागवताली. ऊंच खोटांचे सँडल्स घाल्ले तिचे पांय फाटींफुडें नाचताले...

यतीनदा आयलो तोच ताणें फोण्ण फोडलें.

"तुका घरा कडेन आफयला. बेगीन तिकेट काड."

हाणें कितेंय तरी चाडी केल्या आसतली घरा कडेन, ताका दिसलें.

"बोहनची बिये आसा. लग्नाक पंदरा दीस लेगीत उरूंक नात. तुका बेगीन भायर सरून यो म्हळां."

"वगीच सांगता तूं. बिये – लग्न – कितें अशें अकस्मात थारता?"

"आरे, भांगरा सारकें थळ सांगून आयलां. न्हवरो कोलकाताक बँकेंत प्यून आसा. बरो पगार आसा. एका म्हयन्याचे सुटयेंत आयिल्ले कडेन बिये करून वतलो खंय. नशीब बरें तुजे भयणीचें..."

यतीनदा फट सांगनासलो तर! तरीकूय ते राती गांवांत फोन करून ताणें खातरी करून घेतली.

हाउडा एक्सप्रेसची तिकेट काडूंक म्हूण तो वास्कोचे बसीर चडलो जाल्यार अजापाचें ल्हारच ताच्या आंगा वयल्यान निस्तलें. मदल्या एका सिटाचेर कॅटरिना बशिल्लें. नदरेक नदर मेळनाफुडें हात करून हांसलें. पारजताक हालो घाल्ले वरी फुलां शिंवरलीं. कॅटरिनाचे दिकेन फुडें सरता म्हणसर कंडक्टरान ताका फुडलो रितो सीट दाखोवन बसूंक सांगलें. मर्दी एक दोन फावटी ताणें फाटीं घुंवन पळयलें.

पूण मदले पासयेंत लोक उबे आशिल्ल्यान तें दिश्टी पडलें तरी नदरेक नदर मेळ्ळी ना. नशीब म्हूण कसलो खेळ खेळटालें! कॅटरिनाक सोडून गांवघरा वचचें पडटा म्हूण बेजार आशिल्ल्या वेळारच तें अशें अकस्मात सामकार! खंय वता काय? देंवनाफुडें विचारूंक जाय.

– हाय, तूं हिंगा खूंय रे?

कॅटरिनानच पयलीं विचारलें.

– वास्को स्टेशनार. घरा वचपाची तिकेट काडूंक वतां. आनी तूं खंय वता?

– हांव? पिच्चॅराक वयतां. बरोऽ पिच्चॅर खूंय! तूं येता? म्हाकाय कंपनी जायी.

– पूण म्हाका स्टेशनार...

– पिच्चॅर स्टार्ट जावच्याक वगत आहा. पयलीं तुगेली तिकेट काडून मागीर पिच्चॅराक या.

कॅटरिना वांगडा चलपाचें सूख आगळेंच. ताच्या आंगाचो परमळ कितलो ओडलायणो!

स्टेशनार फॉर्म घेवन भरपाक वच जाल्यार पेन ना. कॅटरिनान पर्सींतलें पेन काडलें.

– तूंच बरय गो.

आपणाल्या कोंबये दोंक्यांच्या अक्षरांची लज दिसता आशिल्ल्यान ताणें म्हळें.

– गाडी खुंयची?

– हाउडा एक्सप्रेस.

– खूंय सावन खूंय मेरेन तें सांग.

– वास्को सावन कृष्णनगर.

– नांव?

– आयज पयले खेपेक कॅटरिनान नांव विचारलें.

– मुकूट – मुकूट सुत्रधार.

– बरें नांव मुरे! पिराय?

– तेवीस.

– ट्वेंटी थ्री? सेम मुरे! म्हाकाय तेईस वर्सां.

पयरच शेजारच्या पिकेनान ताका नवी गजाल शिकयिल्ली ताची याद जाली. ताणें कॅटरिनाक ल्हवूच चिमटो काडलो.

– आवयस्! कितें रे?

– सेम पिंच! दोगांकूय तेईस वर्सां – देखून.

– पुरो पुरो.

लाग मारीत कॅटरिनान पर्थून फॉर्म उकल्लो.

– एकलोच वयता?

– तूं येता?

खीणभर येवजून कॅटरिनान म्हळें,

– घारा कडेन 'नाका' म्हुणटलीं. आसों.

तिकेट काडून जातकच कॅटरिनान विचारलें,

– केन्ना येतलो परतो?

– बिये, म्हळ्यार काजार, सोंपनाफुडें.

– म्हजो उगडास येतलो?

– तूं जाणा कॅटरिना, एक दीस तूं दिश्टी पडलें ना जाल्यार म्हाका सूख लागना. धाकले भयणीचें लग्न म्हूण वचचेंच पडटा. पूण बिये जायनाफुडें धांवट येतलों.

– प्रॉमीस?

– प्रॉमीस!

– चल तर, पिच्चॅराक या.

चिखले काडून फुडल्या जंक्शनार बस थारली आनी दोळ्यां मुखावयल्यान

कॅटरिना सकयल देंवलें तेन्ना तो भानार आयलो.

भयणीच्या लग्नाक इकरा दीस आसतनाच तो घरा पावलो. बिये घरांतच. पूण बोवाळ सगल्या वाड्यार. घरांत इतली गर्दी - रातीं न्हिदपाक मेळत ती सुवात आडावची पडटाली. एक बरें! खंयूय न्हिदूं-गाडयेंत, प्लॅटफॉर्मार, घरांत, चवकेर - कॅटरिना सपनांत येतालेंच. तो गजाली करतालो आनी तें फकत हांसतालें. तो पडवेर न्हिदिल्ले कडेन सपनांत आयलें तेन्ना मात तें खूब उलयलें. सकाळीं उठनाफुडें ताका तरतरीत दिसलें. फाल्यांच्यान हांगाच न्हिदप - लकी सुवात ही! पूण सपनांत तें उलयलें कितें ताची यादच जायना जाली. उलयिल्लें तर खरें. पूण कितें? आतां अशें करप, फाल्यां सपन पडटलें तेन्ना जागोच रावप - मागीर उतरान उतर याद उरतलें! येवजून ताचे ताकाच हांसो आयलो.

"मुकूट मुरगुट्टा पळय कसो! लग्नेला काय कितें रे? बाबाक सांगूं, व्हंकल सोदूंक लाग म्हूण?" मावशेन आंगणांत उदकाचो शितोडो मारतां मारतां ताचेरूय थोडें उदक फाफडून म्हळें.

"नाका आं मावशे!" सट्ट करून ताणें म्हळें. बाबान खऱ्यांनीच मनार घेतलें जाल्यार?

"तशें जाल्यार अशें कर. आतां लग्नाच्या माटवांत खूब व्हंकलो येतल्यो. तूंच सोद तांतली एक -"

उठून भितर गेलो जाल्यार मांन म्हळें, "आरे मुकूट, पँडलवाल्याक जागय मातसो. सांग - फाल्यां सकाळीं बेगीन यो म्हूण माटोव घालपाक."

"तितलें सांगूंक हांव कृष्णनगर वचूं?"

"वचूंक कित्याक जाय? तुज्या मामा कडेन मोबायल आसा. फोन करून सांग."

गोंयां खूब जाणां कडेन मोबायल आसात. यतीनदा कडेन लेगीत आसा. आपणेंय घेवपाक जाय आशिल्लो. हांगासून गोंयां कॅटरिना कडेन उलोवंक

मेळटासलें.

– हॅलो, कॅटरिना, हय, हांव पावलों. आतां शुक्रारा बिये. शेनवारा व्हंकलपावणी. आनी तिसऱ्या दिसा, म्हळ्यार आयतारा, न्हवऱ्यागेर प्रीती-बहू-भोज. मागीर म्हज्यान कशेंच हांगा रावपाक जावचें ना...

सतरा दीस घरा उरलो खरो, पूण मनान मात तो गोंयांतच आशिल्लो. उपरांतचो अडेच दिसांचो प्रवास लेगीत पंदरा दिसांचो कसो दिसलो. दनपारां तिनांक हाउडा एक्सप्रेस वास्को स्टेशनार पावली तेन्ना पयलीं ताची नदर भिरभिरली ती स्टेशनार कॅटरिना बी दिश्टी पडटा काय तें पळोवपा खातीर. एक बॅग खांद्यार वयर आनी दुसरी पोती हातांत लांबयत खरशेत खरशेत ताणें बस धरली. कांसावले पावतासर ताच्या काळजांतली धडधड ताकाच आयकूंक येताली. सडसडीत चांटां मारून तो बिराडा कडेन पावलो. थंयच्यानच नदर मारून पळय जाल्यार कॅटरिनालें घर पेंट मारून आनी बोंदेरां बी लावन सजयिल्लें. भायरच बशिल्ल्या बस्त्यांवाक ताणें विचारलें, ''तांगेर कितें आसा?''

''आसा न्हूं. आसललें.''

''कितें?''

''काजार.''

''कोणाचें?''

''जेनिफराचें-''

म्हणचे? आतां कॅटरिना म्हाका दिश्टी पडचें ना? काळजार खरवत चलयिल्ले वरी दिसलें ताका.

''आतां खंय आसा तें?''

''आनी खूंय? घोवागेर. बाणावले.''

थोडो वेळ सैरभैर जालो खरो. पूण ताणें धीर सोडलो ना. खबर काडीत काडीत तिसऱ्या दिसा आयताराचो फांतोडेर तो बाणावले वचून इगर्जे भायर

तेळीत उबो रावलो. सातांक मीस सुटलें. लोक परतलो तातूंत कॅटरिना नाशिल्लें. फुडल्या मिसाची वाट पळयत तो थंयच उबो रावलो. मीस सुरू जालें. कॅटरिना झळकलें ना. पांय वळून आयले म्हूण कुले तेंकोवपाक जागो सोदतालो, इतल्यान एक स्कुटर थारली. कॅटरिना आनी घोव देंवलीं आनी कळाव जालो म्हूण ताकतिकेन इगर्जेंत भितर सरलीं. उचांबळ काळीज घेवन तोय इगर्जेच्या दारांत वचून हात जोडून उबो रावलो.

मीस सुटलें. तो भायर दारा कडेनच उबो रावलो. बगलेक पावलें तेन्ना कॅटरिनाची नदर ताचेर पडली.

‘‘आरे, तूं हिंगा खूंय?’’ विचारलें खरें, पूण चलत रावलें.

‘‘आतां हांगा रावपाक आयलां,’’ कॅटरिनान आयकलें काय ना हाची पर्वा करिनासतना ताणें म्हणून सोडलें.

म्हळें खरें. पूण तें खरें करूंक नाका?

बाणावलेच्या काठमिस्त्रींचो वास घेत तो बिलासदाच्या कार्पेंट्री वर्कशॉपाचेर पावलो. रावपाची वेवस्था करशी जाल्यार फाल्यांच्यान कामाक येतां म्हूण सांगलें. बिलासदाय गरजेक आयिल्लो. हॉटेलांच्यो ऑर्डरी आसल्यो. काम करपी हात उणे. तातूंत हो नक्षामिस्त्री.

दुसऱ्याच दिसा यतीनदालें काम आनी बस्त्यांवालें बिराड सोडून तो बिलासदाच्या बिराडाचेर आनी कार्पेंट्रीच्या कामाचेर रुजू जालो.

ते राती सपनांतल्यान जागो जायनाफुडें ताणें काळजांतलो उमाळो कॅटरिना मुखार उकतो केलो.

– आतां हांव बाणावलेच रावतलों. हांव दर दिसा तुज्या घरा मुखावयल्यान पासयो मारतलों. दर आयतारा तूं वतलें त्या मिसाक हाजीर रावतलों.

ताका हुसको आसलो तें विचारीत म्हणून, कारण ताचे कडेन जाप नासली. पूण कॅटरिनान विचारलें ना. – कित्याक रे?

*****



Damodar Mauzo is a writer with art that is so sophisticated that it looks artless, and psychological depths are barely hinted at through casual – seeming observations. His story 'A Writer's Tale' in particular is a masterpiece in its acute rendering of multilingual dialogue, tentative erotic interest, and the whole complex and unpredictable process through which life turns into literature. The seemingly smooth waters of Mauzo's creativity run deep, and his fiction can be enjoyed at many levels of engagement.

**Prof. Harish Trivedi**
Scholar and Critic

दामोदर मावजो हांचे कथेचो बाज मनोविश्लेषणात्मक.तिका समाजीक यथार्थाची आनी ताच्या खर झळपाची जाणविकाय आसा. तंत्राची जाण आनी भाशेचें भान हांकां लागून तांगेल्या आशयाक एक खाशेलें परिमाण फावो जाता...

**किरण बुडकुले**
समिक्षक

चिरंतन मानवी मुल्ल्यांनी आस्पाविल्लो सामाजिक आशय आनी आधुनिक कथेचो सुडौल आकृतीबंध घेवन दामोदर ऊर्फ भाई मावजो हांगेली कथा प्रगट जाता. गोंयांत भारतीय संस्कृतीच्या खांद्याक खांदो लावन नंदपी लॅटिन संस्कृतीचो कलात्मक मेळ कथा-कादंबरींत घालपाचें कसब मावजो हांकां सहज साध्य जालां, तितलें हेर कोणांक कश्ट घेवनूय सादनां. कल्पना-विलासाचे भकीक पडनासताना मावजो जीवनांतलें वास्तव चितारता तेन्ना तांगेली विज्ञानीक नदर आनी सामाजिक भान हे गुणविशेश उठून दिसतात. मावजो हांणीं कथेक दिल्ल्या आयामा खातीर तांगेली कथा, फकत कोंकणी साहित्यांतूच न्हय, जाल्यार भारतीय कथा-दालनांत लक्ष ओडून घेता.

**पुंडलीक नारायण नायक**

जाग प्रकाशन

रु: २०० रुपया